# भुयंगर्भ

(पांच एकांकी)

शाबा नारायण कुडतरकार




गोवा कोंकणी अकादेमी

**भुंयगर्भ**

एकांकी संग्रह

**शाबा नारायण कुडतरकार**

**BHUIARBH**

Collection of one act plays
in Konkani by

**SHABA NARAYAN KURTARKAR**

प्रकाशन क्र. : 134

पयली आवृत्ती : 2010



**उजवाडावपी :**
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी
पणजी, गोंय.

**छापपी :**
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
माशेल गोंय.

**मुखचित्र** : गौरीश वेर्णेकार

**मोल** : रु. 90/-

Publication No. : 134

First Edition : 2010



**Publisher :**
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji Goa.

**Printer :**
Swarnamudra Prints
Marcel Goa

**Cover** : Gourish Vernekar

Price : Rs. 90 /-



**शाबा नारायण कुडतरकार**

(जन्म : 27 मार्च 1970 मर्ण : 1 एप्रिल 2008)

# अकादेमीचे वतीन...

सत्तरी म्हालांतलो उदेतो बरोवपी आनी कोंकणी भाशा साहित्य चळवळींतलो एक निष्ठावान तरनाटो वावुरपी, शाबा नारायण कुडतरकार हाका 2008 वर्सा एका अपघातान मर्ण आयलें. ताच्या उपरांत अकादेमीन एक निर्णय घेवन शाबा कुडतरकाराचें सगळे साहित्य पुस्तक रूपान उजवाडापाचें थारायलें.

साहित्याच्या संकलनाचो आनी साहित्याचेर संस्कार करपाचो वावर शाबाकडेन लागींचों संबंध आशिल्ले लेखक आनी तेन्नाचे अकादेमीच्या वावुरपी मंडळाचे वांगडी डॉ. प्रकाश वजरीकार हांचेकडेन सोंपायलो. अकादेमीचे आदले अध्यक्ष श्री. पुंडलीक नायक हाणीय ह्या वावरांत खास लक्ष घातलें. शाबाच्या वेंचून काडिल्ल्या हात बरपांचीं तीन पुस्तकां तयार जालीं. एक कविता संग्रह 'वावझड' आनी दोन एकांकी संग्रह ' भुंयगर्भ, आनी 'तानसुर्या' ही तिनूय पुस्तकां आतां एकाच वेळार एका खाशेल्या समारंभात शाबा कुडतरकाराच्या मूळ घराकडेन म्हणल्यार नानोडें हांगासर उजवाडाक येता.

पुस्तकांक प्रस्तावना बरोवपाची अकादेमीची विनंती श्री. पुंडलीक नायक हाणी मानून घेतली. ताणी सविस्तरपणान बरयिल्ली एकूच प्रस्तावना तिनूय पुस्तकांनी छापल्या. शाबाच्या साहित्यीक आनी सांस्कृतिक वावराची तातूंतल्यान बेस बरी वळख घडटा.

गोवा कोकणी अकादेमी डॉ.प्रकाश वजरीकार, श्री.पुंडलीक नायक, चित्रकार श्री.गौरिश वेर्णेकार आनी पुस्तकांचे संकलन करपाक आदार केल्ली शाबाची घरकान्न श्रीमती शोभा आनी शाबाचो भाव श्री. लाडको कुडतरकार आनी घरचीं हांचे उपकार मानतां.

हो तरनाटो बरोवपी आमचे मदी ना हाची खंत आसाच तरी पूण कोंकणीत भर घातिल्लें, ताचें साहित्य आमचे मदीं आसा, हाचो अकादेमीक आनंद आसा.

**एन. शिवदास**
अध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमी

# मांडावळ

# शाबा कुडतरकार

## एके अल्प जीणेचें एक अर्थपूर्ण दर्शन

शाबा नारायण कुडतरकार हाची पयली सारखी वळख जाली ती 1995 वर्सा, गोवा कोंकणी अकादेमीन सत्तरी हांगासर घडोवन हाडिल्ल्या तिसऱ्या नाट्यमहोत्सवांत. ग्रामीण विकास शिक्षण संस्था, वाळपय हे संस्थेचेवतीन ताणे 'राखण ' हें म्हगेलें नाटक दिग्दर्शित करून महोत्सवांत स्रादर केल्लें. महोत्सवांतली हेर नाटकां, कला अकादमीचे नाट्य सर्तितलीं इनामां जोडील्लीं आसलीं पूण हे नाटक थळावे संस्थेक महोत्सवांत उत्तेजन दिवपाचे नदरेन अकादमी दवरल्लें. शाबान दिग्दर्शित केल्लें हें नाटक हेर नाटकांचें तोडीचे जालें. लोकांक तें खूब मानवलें. महोत्सवांत नाटकांवयल्या जाल्ल्या चर्चासत्रात ताणें दिग्दर्शक म्हण वांटो घेतलो. ताणे दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या नाटकासंबंदान ताका निरिक्षकांनी आनी हेर प्रेक्षकांनी जे प्रश्न विचारले त्या प्रश्नांक ताणे सामक्यो मुदयेर थीक कश्यो जापो दिल्यो. राज्य थरावयल्या नाट्यमहोत्सवांत ताका लाबिल्ले संदिचे ताणे भांगर केलें. आनी आपूण कोंकणी रंगमाचयेचो फुडाराचो एक रचनाकार म्हणपांचे सिध्द करून दाखयलें.

त्या काळार शाबा एक उदेतो कवी म्हण नित्कोच नांवारूपाक येतालो. 1995 वर्सा सत्तरींत जाल्लो चार नाटकांचो महोत्सव खुबूच गाजलो. कोंकणी नाटकां सत्तरीच्या प्रेक्षकांनी हजारांचे संख्येन हाजीर रावन माथ्यार घेतलीं. तातूंत नाटकाचे नशेन घुंवळे ते सत्तरीचे नवेताल्ल जाणीवेचे तरनाटे. 'आपणाले भाशेतंल्यान पुरूशार्थ घडोंवक येता." ह्या शणै गोंयबाबान सांगिल्ल्या मंत्राचो साक्षात्कार जो म्हज्या सारखिल्ल्याक 1970 च्या अदमासाक जाल्लो तो सत्तरीच्या युवकांक पंचवीस वर्सा उपरांत जातालो.तो साक्षात्कार उसरां जाल्लो खरो पूण तातूंतली पोटतिडक आनी आत्मविश्वास

मळबाक गवसणी घालपी आसलो. सत्तरीच्या वागांनी पयली गरड घातली ती 2001 वर्सा. ग्रामीण विकास शिक्षण संस्थेचेवतीन प्रकाश वजरीकार नांवाच्या तरनाट्या लेखकान बरयिल्लें. 'आनी एक बुटो फुल्लो ' हें नाटक घेवन सत्तरकार गोवा कला अकादमीचे 25 वें कोंकणी नाटयसर्तेत भितर सरले आनी ताणी कोंकणी नाटकाची परिमाणां बदलून वडयलीं. सर्तित ह्या नाटकाक उत्कृश्ट प्रयोगाचें पयलें इनाम लाबलें. तशेंच दिग्दर्शनाखातीर प्रमोद म्हाडेश्वराक दुसरें, निलेश महालेक नेपथ्याचें उत्तेजनार्थ इनाम लाबलें. ह्या नाटकाक प्रकाश वजरीकाराक लेखनाचें पयलें इनाम लाबून तो नाटककार थारलो जाल्यार ह्या नाटकांत शाबा कुडतरकाराक नाटकांतले 'गांवजल्म्या'चे भुमिकेखातीर उत्कृश्ट अभिनयाचें पयलें इनाम लाबून तो राज्यथरावयलो अभिनेतो म्हणपाचें सिध्द जालें. मागीर प्रकाश वजरीकार सत्तरीतल्या भौसांतल्या कलाकांरांखातीर 'घट्टाण कोणाचें 'काणी तशी जुनीच पूण' 'साद अंतर्मनाचो' 'आनीक एक प्रश्नपर्व' 'परतीचे वाटेर' सारखिल्यो नाट्यकृती रचीत गेलो आनी तातूंत शाबा नव्यो नव्यो भुमिका सफळ करीत रावलो.

एका दशकाच्या काळान सतरकारानी कोंकणी चळवळींतलो आपणालो उणाव भरून काडलो. कोंकणी भाशेचे चळवळीचो तो एक लखलखीत अध्याय थारला. ह्या अध्यायांत सर्गेस्त सदानंद उर्फ भाई तेंडुलकार ह्यांची प्रेरणा आसा. स. शांती तेंडुलकार हांचो सहभाग आसा. प्रकाश वजरीकार भतग्रामाचो आसलो तरी तागेंले योगदान सत्तरीखातीरच चड घडलां. प्रकाश पर्येकारासारखो लेखक, प्रमोद म्हाडेश्वरासारखो दिग्दर्शक, झिलू गांवकार आनी डॉ. रघुनाथ धुरी सारखे कुशल संघटक आनी शाबा कुडतरकारा सारखो लेखक, नाटयकर्मी , कार्यकर्तो हे सगळे ह्या लखलखीत पर्वाचे फक्त गवाय न्हय तर त्या पर्वाचे रचनाकर्ते आसात.

दुर्देवान आयज शाबा आमचें मदें ना, एका अपघातान तो आमकां अंतरलो. हाचे आदीं शांती तेंडुलकारुय अशेंच अपघातांत आमकां अंतरिल्लें. नियतीचो खेळ मोटो विचित्र आसता. ती एका हातान दिता आनी दुसऱ्या हातान काडून घेता.

# भुरगेपण शिक्षण आनी नोकरी

शाबाचो जल्म ता. 27 मार्च 1970 वर्सा, सत्तरी म्हालांतल्या नानोडे गांवांत जालो. बापायचें नांव नारायण जाल्यार आवयेचें नांव राधाबाय. पांच भांवडांमदलो शाबा तिसरो. ताचे आदी दोगी भयणी आनी फाटल्यान दोग भाव. थोडेशें वायंगण शेत, इल्लेशें कुळागर आनी थोड्यो काजी हांचेर तागेल्या कुटुंबाची उपजिवीका चलताली.

कुटुंबातलो नोकरी करून जोडपी पयलो जोडकार शाबा. बापायन हातपारे घालून उबारिल्ल्या घराक शाबान सिमेंट क्राँक्रीटचें नवें रूप दिलें.

शाबाचें मुळावें शिक्षण मराठी भाशेतल्यान गांवातूच जालें. माध्यमिक शिक्षण घेवपाक ताका वाळपय वचचें पडटालें. वाळपय वचपी गाडी मेळोवपाखातीर ताचो बापूय ताका फांतोडेर चुडीच्या उजवाडांत तीन किलोमीटर अंतर चलोवन व्हरतालो. ती गाडी चुकल्यार ताका आनीक पांच किलोमीटर धांवून गाडी धरची पडटाली. मुखावयले धावी मेरेनचें शिक्षण ताणे वाळपयच. अवर लेडी हायस्कुलांत घेतलें. मागीर थंयच हायर सेकंडरीत बारावी मेरेनचें शिकप केलें.

बारावें उपरांत ताणे सत्तरी म्हालांतल्या भुयपाल हांगल्या बस बांधणी प्रकल्पात (ACGL) ऑपरेटराची नोकरी धरली. आर्थिक गरजेंतल्यान ताणे नोकरी केली तरी मुखावयल्या शिक्षणाची फाट सोडलीना. 1980 वर्सा ताणे इंदिरा गांधी राष्ट्रीय ओपन युनिव्हर्सिटीत प्रवेश मेळयलो आनी बी. ए. ची पदवी जोडली. 1995 वर्सा ताचें लग्न सत्तरींतल्या दाबोस गांवच्या शोभा गणेश धुरी हिचेकडे जालें. संवसारा बरोबर शिक्षणूय चालूच उरलें. गोवा विद्यापीठांत ताणें एम. ए.वर्गात प्रवेश मेळयलो. फांतोडेर चारांक उठून तो नानोडेसावन तळगांवा गोवा विद्यापीठांत शिकपाक वतालो.मागीर दनपारां अडेच वरांचेर दुसरे पाळयेक भुंयपाल फॅक्टरींत कामांक रूजू जातलो. कामाची पाळी रातच्या बारांक सुट्टाली. नानोंडे घरा पावतासर ताका रातचें देड जातालें. परत फांतोडेर चारांक उठून परत शिक्षण आनी नोकरी हांचें चक्र सुरू. 1995 वर्सा ताणे एम. ए. पार्ट - एक पुराय केलो, पूण मनांत आसुनूय ताका एम.

ए. चो दुसरो पार्ट पुराय करपाक मेळ्ळोना. फॅक्टरीन ताका दुसरे पाळयेची व्यवस्था न्हयकारली आनी एम. ए. ची पदवी जोडपाचो शाबाचो आंवडो गळ्यांतूच जिरलो. संवसाराचो भार आशिल्ल्यान शिक्षणाखातीर नोकरेचो त्याग करप ताका परवडपा सारखें नासलें. इतलं मजगतीं तागेल्या संवसाराचो वालीर शुभम (1995) आनी सोबिता (1999) अशा दोन चलो - चलयेची फुलां परमळ्ळी. शाबान आपली नोकरी प्रामाणिकपणान केली. कंपनीच्या मार्फतूच ताणे स म्हयन्याचो कंप्युटर डिप्लोमा कोर्स पूर्ण केलो. प्रमोशन मेळोवन तो ऑपरेटराचो सेल सर्विस विभागांत पावलो. थंयसावन बढ्टी मेळोवन सुपरवायझर जालो. आनी मागीर ज्युनिएर ऑफिसर लेगीत. ज्युनिएर ऑफिसर जाल्ल्याची ऑर्डर ताका 2008 वर्साच्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत मेळ्ळी. 27 मार्च्याक ताचो वाडदिस. त्याच दिसा काळान ताचेर झोपय घाली. वाळपय जाल्ल्या स्कुटर अपघातान तो जबर जख्मी जालो. 31 मार्च मेरेन तो बांबोळेच्या सरकारी हॉस्पीटलांत मर्णाकडेन झुजत रावलो. तागेल्या इश्टमित्रांचे, सोयऱ्या धायऱ्यांचे , बरेमागत्यांचे श्वास चार दीस रोखून उरले. आनी एक एप्रिलाक, शागाच्या जीवाची आस धरपी समेस्तांक काळान 'फूल' (मूर्ख) केले.

## कविता, नाटक आनी हेर वावर

शाबान आपणाल्या लेखनाचो आरंभ कवितेंतल्यान केलो. कोंकणीत ताणे शंबरांवयर कविता बरयल्यो. थळाच्या तशेंच राज्यथरावयल्या कविता लेखन सर्तित तशेंच कवितावाचन सर्तित तो उमेदीन भाग घेतालो. हांगासरूच ताच्यो आपणाल्या समकालीन उदेल्या लेखकांबरोबर वळखी जाल्यो. 'उजवाडाचें झाड' 'नाळकूट'ह्या तागेल्यो त्या काळार कांय इनामां जोडिल्ल्यो कविता. त्या काळावयाल्या नेमाळ्यांनी तागेल्यो कविता उजवाडाक येताल्यो. आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रार त्याच्या साहित्याची वितरावणी जाल्या. 'दुदीन सडो' माथाळ्याखालीं एक चर्चेची कार्यवळय तो करतालो. तुजी म्हजी पावल वाट बेगी बेगी सोपंव नाकां आनी 'त्या दिसा फात्यांपारार धवेंच धुकें दाटलेलें' ह्यो तागेल्यो गजल

रचना आकाशवाणी वयल्यान जायते फावट वितरीत जाल्यात. कोंकणी विशयाच्या णवे यत्तेच्या पाठ्यपुस्तकांत तागेले 'गोंय म्हजें कोंकणकाशी' हे कवितेचो आस्पाव जाला. आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव (डिसेंबर) 2007 च्या आयोजकानी घडोवन हाडील्ले. सैमगीत लेखन सर्तित ताणे बरयिल्ल्या 'झिरी झिरी झिरी झिरी पावसाचें पाणी' ह्या गीताक धा हजार रूपयांचे पयलें इनाम लाबिल्लें.

कविते फाटोफाट शाबाचें दुसरें आवडीचें मळ म्हणल्यार नाटक. एका डझनावयर ताणे कोंकणी एकांकी बरयल्यो. कांय मराठी एकांकीचे कोकणी अणकार केले. तातूंत मराठी लेखक प्रेमांनंद गज्वी हांगेले 'घोटभर पाणी' हे एकांकीचो आस्पाव जाता. ताणे एक स्वतंत्र कोंकणी नाटकूय बरयलें. ज्यो एकांकी ताणें स्वतंत्ररितीन बरयल्यो वो अणकारीत केल्यो त्यो प्रयोगाचे नदरेन. कारण तो फक्त नाट्यलेखक नाशिल्लो. तर नाटक रंगमाचयेर खेळोवपाचे सगळे गूण आंगात आशिल्लो नाट्यकर्मी आसलो. एका मराठी नाटकाचो ताणे कोंकणी अणकार करून दवरला. ताणे बरोवन सादर केल्ल्यो. 'इंप्रोवायझेशन', 'सायाकोसीस', 'भुतांवळो', 'कुड्डगाळ' ह्यो एकांकी रंगमाचयेर जैतिवंत जावन थळाव्या आनी राज्यथरावयाल्या विंगड विंगड एकांकी सर्तिनी तांकां इनामांय लाबिली.

कोंकणी कवितां बरोबर शाबान कांय मराठी कविताय बरयल्यो पूण त्यो कांय हाताच्या बोटार मेजपा इतल्यो. आनी त्यो अप्रकाशीत उरल्यो. शाबान 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांतल्यान कांय ललित लेख बरयले. तागेल्या ह्या लेखांनी समाजांतल्या कांय अनिशट प्रथा- प्रवृत्तींचेर ताणे शिरटी मारल्यात. शाबा आनी शोभाच्या लग्नाची पत्रिका एक नमुनो म्हणून 'कारबारी कोंकणी' ह्या संदर्भ ग्रंथात आस्पावीत जाल्या.

साहित्यिक - नाटक चळवळीभायर त्या काळांतल्या सामाजिक चळवळींपासून शाबा केन्ना वेगळो नासलो. सत्तरीतले म्हादय चळवळींत ताणे आपणालो जीव ओतिल्लो.शिगमोत्सव, युवा महोत्सव हांतूत ताचो सहभाग आसतालोच. पैसो, प्रतिशठा, मानसन्मान हांची कसलीच अपेक्षा बाळगीनासताना तो सांस्कृतिक आनि सामाजिक वावरांत

वावुरतालो. निसर्गाची भोवंडी हो तागेलो खाशेलो छंद. सोसोगड, कातलाची माडली, साटेरचोगड, भीमगड हे दोंगरी वाठार ताणें तागेल्या इश्टा वांगडा पांयापोंदा घतिल्ले.

नामनेचो पर्यावरण राखणदार आनी शाबाचो समकालीन श्री. राजेंद्र पां. केरकार शाबाविशीं बरयताना म्हणटा,

"शाबा हो फक्त आपल्या संवसारांत आत्मकेंद्रीत जावन रावपी व्यक्ती नाशिल्ली. तर ती एक विचारांची चळवळ आशिल्ली. साहित्याच्या मळबांत उंच भरारी घेवपाचे आत्मबळ ताका जल्मासावनूच लाबिल्लें. ताका लागून तागेल्या अल्पशा आयुश्यात ताणे जे साहित्य प्रकार कळयले ताचेर ताणे आपणाल्या नावांची ख़ाशेली अशी कुरू रेखली. तागेल्यो कविता म्हणल्यार खऱ्यांनिशी गोंयच्या भावविश्वाचो उत्स्फूर्त असो आविश्कार आसा. तांकां हांगचे पारंपारिक लोकसंस्कृतीचो रंग आनी गंध आसा. तागेल्यो मुक्त छंदातल्यो कविता लेगीत हांगचो नाद, ताल आनी भाव घेवनूच निर्माण जाल्यात. श्री. केरकार मुखार म्हणटात,

सत्तरीच्या सामाजिक, साहित्यीक , सांस्कृतिक इतिहासात शाबाची नोंद फक्त एक लेखक-कवी म्हणून ना तर तो एक चळवळ करपी लोकवेद, निसर्ग, पर्यावरण हांचे राखणे खातीर आत्मीयतेन वावुरपी कार्यकर्तो अशी आसा. शाबाच्या साहित्याचेर नदर भारताना श्री.राजेंद्र केरकाराच्या ह्या विधानाचें खरेपण दिसून येता. शाबा जें अल्प आयुश्य जियेलो ताचें एक अर्थपूर्ण अशें दर्शन तागेल्या साहित्यांतल्यान घडटा.

श्री. हनुमंत चोडपेकार शाबाचो समकालीन बरोवपी आनी कलाकार. शाबाविशीं तो बरयता, "शाबाकडेन कसली जादू आसली खबर नां. पूण तो सगळ्यांचेरुच आपणाल्या निरागस व्यक्तिमत्वान भुरळ घालतालो. दर एका ल्हान व्हड, बारीक मोट्या मनशाक तो प्रसन्न मनान मेळटालो. सत्तरेच्या सैमांतले टवटवीतपण आनी मातयेंतले नीजपण ताच्या पुराय व्यक्तीमत्वाक एके तरेचें चैतन्य हाडटालें. कोण जाणा कशें म्हूण पूण शाबाच्या मुखामळाक पळयतकीर एक तरेची धादोस काय भोगताली..... एके तरेची थाकाय भोगताली.

शाबाक जाणी जागी लागसून पळयला तांकां होच अणभव आयला आसतलो. श्री.हनुमंत चोपडेकार तागेल्या बरपानिशी अभिप्राय दितना बरयता, "काळजाक पीळ घालपी ताच्यो कविता, जिणेची खोलाय मापपी एकांकी, धीरगंभीर तसोच आत्मीक अभिनय, हौशी रंगमाचयेक नवसंजीवनी दिवपी दिग्दर्शन आनी लोकसंस्कृतीचें खोलयेन विश्लेशण करपी बरप - हें सगळेंच ताचे ते धडपडीची आनी तळमळीची साक्ष दित रावतलें."

शाबा, शाबाची घरकान्न शोभा आनी माणकुली भुरगीं. शुभम आनी सोबिता इतलो शाबालो माणकुलो संवसार पूण साहित्यिक सांस्कृतिक कार्यावळीनी तागेले भाव आनी घरचीं वाटेकार जातालीं. कोंकणीच्या कार्यावळीनी शाबा आपणाल्या कुटुंबासयत आसतालो. आपणा बरोबर शोभाकूय ताणे रंगमाचयेर एक कलाकार म्हण उबें केलें. शुभम आनी सोबिता शाबाचो वसो घेवन भुरगे पिरायेचेरूच सांस्कृतिक कार्यावळीनी वांटो घेवपाक लागलीं. सान सान बरपावळ बरोवपाकूय लागली. मुखार तीं कोण जातली हें पारखूवप कठिण पूण सद्याक तरी तीं शाबाचें दायज चलतात अशें म्हणूं येता.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे वतीन शाबा कुडतरकाराची तीन पुस्तकां एकाच वांगडा उजवाडाक येता हातूंत 'वावझड' हो कविता संग्रह, 'भुंयगर्भ' आनी 'तानसुर्या' अशे दोन एकांकी संग्रह हांचो आस्पाव जाता.

## वावझड

'वावझड' ह्या शाबाच्या कविता संग्रहात वेंचीक अशा 74 कवितांचो आस्पाव केला. शाबाच्या पुस्तकांचे संपादक करपाचो वावर केल्ल्या डॉ.प्रकाश वजरीकारान आनी हांवें मेळून ह्या कवितांची निवड केल्या. आरंभाक शाबान हयात आसतान फक्त 45 कविताच पुस्तकाखातीर वेंचून दवरिल्ल्यों. उरिल्ल्या कवितांची निवड आमी दोगांयनी केल्या. शाबाच्या कवितांचो लेखनकाल 1991 ते 1999 असो तागेल्या हातबरपावयल्यान दिसून येता. हाचो अर्थ एकोणीस वर्सांचेर तो बरोवपाक

लागिल्ले अशें दिसता. आरंभाची धा वर्सा कविता बरयल्या उपरांत मागीर ताचो कल एकांकी नाटक हांचेकडेन गेल्याचें दिसता. तागेले कवितेंत गावगिऱ्या उतरांची रोंपणी आसा. ताका लागून ही कविता प्रादेशिक मुखामळ घेवन येता. कवितेंत भूंयपूताची तळमळ , हुंकार , शेक , अधिकार आदि सगळया भावनांचे पडसाद दिसतात. भारतीय परंपरा, भारतीय तत्त्वज्ञान हाची कांयशी जाण आनी तांचे विशींची खर ओड ताका आसली. तागेल्यो कांय कविता ह्यो गीतरचना जाल्यात.

## भुंयगर्भ

'भुंयगर्भ ' पुस्तकांत एकूण पांच एकांकीचो आस्पाव आसा. 'भुतांवळो', 'इंप्रोवायझेशन' , 'कुड्डेगाळ', 'भुंयगर्भ' आनी 'रचयिल्ली काणी'.

'भुंतावळो' ही एका उध्वस्त जाल्ल्या गांवची काणी. सुखसमाधानान नंदपी एका गांवांत पंचाच्या आदारान उद्येगपती, राजकारणी रिगता. गांवात मीनाची खण मारून पांचवी देवराय नश्ट करता. प्रदुशण, शिंदळकी, सोरो हांका लागून गांव इबाडटा. एक दीस खण कोसळून कांय लोक पुरवतात, उरिल्ले गांव सोडून वतात. पूण निमाणेकडेन लेखक गांव परतो वसतलो म्हणपाचो आशावाद प्रगट करता.

दुसरी एकांकी 'इंप्रोवायझेशन' एके नाटयशाळेचे विद्यार्थी गांवांत वचून गांवचो प्रश्न समजावन घेवन ''इंप्रोवायझेशन' करता. हातूंत गांवांत खेळपाक मैदान जाय अशें निमित्त करून गांवच्या गरीब दुर्बळ कुटुंबाचेर बळिश्ट कशे अत्याचार करता ताचें चित्रण कल्पकतायेन केलां. निमाणेकडेन प्रश्न बरेतरेन सुटावो जावपाची सुलूस दाखयल्या.

### कुड्डेगाळ

'कुड्डेगाळ' ही संग्रहातली तिसरी एकांकी. एका विचित्र पूण नाटकीय विशयाचेर आटापल्या. नांवाप्रमाण कुड्डेगाळ गांवचे सगळे लोक कुड्डे आसतात. भुरग्याचो जल्म जायनाफुडें थंयचो वैदु परंपरेप्रमाण भुरग्यांचे नाका वयले गड्डे म्हणजे दोळे कोंचून काडटा. थंयचो राजाय कुड्डो आनी

प्रजाय कुड्डी. थंय एक दोळो आशिल्लो शिकारी पावता. तो थंयचे एके कुड्डे चलयेच्या मोगांत पडटा. ती दोगांय गांवचे कुड्डेपण नश्ट करपाक सोदता अशा आशावादान ही एकांकी सोंपता.

संग्रहांतली चवथी एकांकी संग्रहाच्या शिर्शकाची म्हणल्यार 'भुंयगर्भ'. एका गांवांत थंयचे भूंयपूत शेतकार पारंपारिक रितीन शेत कसून जियेतात. थंय कांय वावुरपी आनी सरकारी मनीस येतात. थंयच्या लोकांक नवीं बियाणां, नवीं रासायनिक सारीं दिवन अदिक पिकावळीच्यो कल्पना लोकांमदे रूजयता. पूण जमनीचो कस नश्ट जावन शेतां पडंग जातात. बुड्टी येवन सगळें व्हांवून वता. एक शेतकार सरकारी रीण घेता पूण कर्जबाजारी जाता. कुटुंबाचो विध्वंस जाता. शेवटाक तो गोळ घेवन जीव दिता. नव्या तंत्रान हे एकांकीची रचना केल्या.

## रचयिल्ली काणी

संग्रहांतली पांचवी आनी निमाणी एकांकी 'रचयिल्ली काणी', ही गांवाचे व्हडले गांवकार आनी धाकले गांवकार हांचेमदले फुटीची काणी आसा. हे फुटीक लागून गांवचो एकचार भंगता. निमाणे एका सद्प्रवृत्तीच्या बायलमनशेचेर देवीचो अवसर येता आनी देवी गांवचो एकचार घडयता असो आशावाद दाखोवन एकांकीचो शेवट केला. हिवूय एकांकीची रचना नव्या तंत्रान केल्या.

## तानसुर्या

शाबा कुडतरकाराचो 'तानसुर्या' हो दुसरो एकांकी संग्रह. हांतुत 'दुदीन सडो', 'एक कथा एक व्यथा ', 'चलता वाट अश्वत्थामो', 'कोणतरी', तानसुर्या, आनी 'सायकोसीस' अशा वट्ट स एकांकीचो आस्पाव आसा.

पुस्तकाचो आरंभ 'दुदीन सडो' हे एकांकीन जाता. एका सड्यार दुदनीची वाल चरून गेल्ल्याच्यो खुणो दिसतात. हाचे फाटलो समज

असो.-- हे वालीचें जंय मूळ आसा थंय मुळापोंदा पांडवांनी पुरून दवरिल्लें भांगर आसा. पांडवांनी वनवासाक आसताना तें पुरिल्लें. आनी वनवास सोंपतकूच पांडव तें परत व्हरपाचे आसले पूण पांडव तें व्हरपाक पावले नात. सड्यार सड्याचो धनी आसा. तो सड्याचो राखणदार कसो. एकदीस थंय एक गरीब आनी एक गिरेस्त मनीस पावता. धनी तांचे कडल्यान सडो खणून घेता. भांगर मेळपाचे आशेन ते सडो खणून कसदार करतात. धनी सांगता, भांगर -बिंगर कांय ना. अशेच भांगराचे आशेन हांगां येता तांचे कडसून कश्ट करून घेवन आपूण हांगची भूंय वसयतां. एकांकीचो शेवट वाचप्याच्या मनाची दाद घेवन वता.

संग्रहांतली दुसरी एकांकी म्हणल्यार 'एक कथा एक व्यथा'. एकांकीचो नायक 'तो' आपणाली व्यथा एका लेखकाक सांगता. तो आपणाले मोगिकेचो खूब मोग करता पूण आपणाल्या आवयच्या विरोधाक लागून 'तो' मे मोगिकेकडेन लग्न जावपाक शकना. मागीर ताची आर्थिक परिस्थिती बदलता. 'तो' परत आपले प्रेमिकेकडेन वता. तेन्ना तिचो साखरपुडो जाल्लो आसता. 'तो' क जेन्ना कळटा, आपूण जाका आपणाली व्यथा सांगता, तो लेखक म्हणल्यार दुसरो - तिसरो कोण न्हय, तर जिचेर आपणालो मोग आसलो, तिचेचकडेन जाचो साखरपुडो जाला तो हो मनीस. तेन्ना 'तो' खुबळटा आनी आपणाली व्यथा आयकुपाक आनी बरोवपाक तूं नालायक आसा, अशें सांगून ताची निर्भत्सना करता. हांगा एकांकी सोंपता.

## चलता वाट अश्वत्थामो

'चलता वाट अश्वत्थामो' ही संग्रहांतली तिसरी एकांकी महाभारतांतल्यो अश्वत्थाम्याचे आख्यायिकेचेर ती आदारल्या. अश्वत्थाम्याक लाबिल्ल्या शापाप्रमाण तो अनंत काळ मेरेन हांगाथंय विडविडट्टा अशें दाखयंला. एके निर्जन सुवातीचेर 'तो' ह्या कथानायकाची भेट अश्वत्थाम्याकडेन जाता. 'तो' आपणाली कथा ताका सांगता. तो एका कारखान्यात काम करतालो. कारखान्यांत ताचेर जावपी

अन्यायाखातीर ताणे धनयाचेर हात उबारून 'तो' थंयच्यान पळून गेलो. आपणाचेर जिवापाड मोग करपी मोगीका जेन्ना आपूण तुज्यापासून गुरवार आसा अशें सांगून ताचेकडेन लग्नाचो आग्रो धरुंक लागली तेन्ना ताणे तिचो खून केल्लो आनी तो पळून गेलो. आतां ताच्या फाटल्यान पुलीस लागल्यात. देखून तो हे निर्जन सुवातीचेर पावला. अश्वत्थामो ताका शिटकावन सांगता, पुलीसांच्या हाताक लागल्यार ताचे हालहाल जातले. त्यापरस ताणे हांगच्यान पळून वचप आनी खंय तरी जीव दिवप. 'तो' पळून वता आनी अश्वत्थामो थंयच विडविडत उरता.

## कोणतरी

चवथी एकांकी आसा, 'कोणतरी'. एकदां गावांतली एक बायल चंद्रा आपणाले इश्टीणी वांगडा दोंगरार लाकडांक वता. थंय चंद्रा एका वानरमाऱ्याक पळयता आनी भियेवन पळून येता. गांवचे लोक फाटलो फुडलो विचार करी नासताना बळजबरीन त्या वानरमाऱ्याक धरून हाडून देवळामुखार बांदून घालता. चंद्राचेर ताणे हात घातलो असो वगीच बोवाळ घालता. चंद्राकूच वानरमाऱ्याची काळकूट येता आनी तें रातचें त्या निरपराधीक सोडून घालता.निमाणे चंद्राचेर अवसर येवन ते अन्यायाआड चंडीकेचो अवतार धारण करता. एकांकीत आरंभाक आनी अदिमंदी लोकगीतांचो आनी लोक संगीताचो वापर केला.

संग्रहांतली पांचवी एकांकी 'तानसुर्या' हिचेच नांव ह्या संग्रहाच्या पुस्तकाक लांबलां. ही एकांकी म्हादयच्या प्रश्नाचेर आटापल्या म्हणपाचें कळटा. कांय भुरगी गोयं शीमेचेर आशिल्ल्या एका भागांत पावता. थंयचे शीमेपलतडचे लोक गोंयांत येवपाक आशेल्यात. म्हादयचेर जावपी बांदाक तांचो विरोध आसा. गोंयचे आनी गोंयचे शिमेभायले भुरगे एकठाय येतात आनी एकचारान वावुरपाचें थारायता, अशी हे एकांकीची काणी आसा.

## सायकोसीस

पुस्तकांतली 'सायकोसीस' ही निमाणी एकांकी. मानवी मनांतले

व्दंव्द दाखोवपाचो यत्न हे एकांकीतल्यान जाला. नव्या तंत्रान हें व्दंव्द प्रगट जाता. बावल्यो तयार करपी फॅक्टरींत ही कथा घडटा. पोको हो कथानायक. फॅक्टरींतल्या हेर कामदारांभशेन तो एक कामदार पूण सभावान, वागणूकेन हेरांपरस वेगळो. ते खातीर बाकीचे कामदार ताका पिसो म्हणटात . तो आपणालेच तंद्रेंत जियेता, आपल्याच विश्वांत वावुरता. भ्रमिश्ट अवस्थेंत आसताना ताच्या हातसून बायलेक बायंत धुकलून वडोवपाचो अपराध घडटा. ताची ताका खंतूय आसा. एका आगळ्याच विशयावयली आगळेच पध्दतीन तयार जांल्ली ही एकांकी.

शाबांक एकांकी प्रकाराचो आकृतीबंध बरेतरेन सादिल्लो. जायत्या नवोदित लेखकांक तो सादना. तांगेल्यो रचना नाटकुलीं, नाटिका नाट्यप्रसंग असल्या सदळ साच्यांतल्यान भायर सरपा पूण शाबाचें एकांकी लेखन आधुनिक एकांकीचे कसवटेक पुराय अर्थान उतरता.शाबा एक कवी म्हणून आकाराक येतालो.ताच्यान साहित्यीक गूण आसले. नाटकांचे तंत्र अभ्यासून बरेतरेन ताणें ते आत्मसात केल्ले. आपणांक जे साहित्यीक स्वरूपाचें कितें सांगपाचें आसा तें ताणी एकांकीच्या तंत्रान बसयिल्लें. देखूनुच तागेल्ल्यो एकांकी प्रयोगक्षम जावपाक पावल्यो. आशय, कल्पकता आनी तंत्र ह्या तीन गुणांच्या बळार ताका एक बरो एकांकीकार म्हणून वळखूं येता.

वर्सासंकिनी गरीबी, अत्याचार, विषमता, पिळवणूक , शोशण अशा प्रकारांनी भडून गेल्या समाजांतल्यान जेन्ना एखादो लेखक म्हण घुडी घेवन वयर सरता तेन्ना तो एकलों आसलो तरी ताचो आवाज हो एकल्याचो केन्नाच नासता. तो त्या समाजाचो विस्फुटित जाल्लो आवाज आसता. परत तो ते पिळगेपुरतोय मर्यादीत नासता. तर फाटल्या पिळग्यांचोय तो प्रातिनिधीक स्वर आसता. शाबा हो तशा तळागाळांतल्या, दामिल्ल्या - चेपिल्ल्या भौसाचो आवाज आशिल्लो.

जीवनाचेर शाबाचो आकांत जीव. कश्टांचें जिवीत वांट्याक आयले. म्हण तो खंत शेण कशें किचमीत रावलोना. चिखलांतल्यान कमळ जावन फुलपाची ताचें ठांय धमक आसली. आयज मुखार कश्टांचे दोंगर आसात... काळखाच्यो राशी आसात... म्हण गळसणून ताणे हार मानलीना. जिवीताक फुडो केलो देखुनूच तागेल्या एकांकीनी खर आशावाद दिसता. कुड्यांक

लेगीत नवी नदर फुटपाची आस तो आपणाल्या बरपांतल्यांन दाखयता.

खर अशे सामाजिक जाणीवेचो डॉ.प्रकाश वजरीकार आमचो नाटककार. 'आनी एक बुटो फुल्लो' हें तागेलें पयलें नाटक. खूब तेंपान रानांत बुटो फुलता तेन्ना भाग्याचें लक्षण म्हणपाची लोकसंस्कृतीतली लोकमान्यताय ताणे दाखोवन दिली. खूब वर्सांनी सत्तरींचे भाग्य फळफळ्ळां अशेंय आमकां दिसलें. कारण एका परस अदिक मानवी बुटे फुलिले आनी पळयले. पूण उमेदीच्या भरांत, फुलिल्ल्याक बावपाचो आनी अकाली गळपाचोय शाप आसत, हें आम्ही विसरून गेले. काळान आमकां भानार हाडल्या.

शाबाच्या रूपान फुलिल्लो एक बुटो अकाली बावला पूण सत्तरीचे उजवल्ले कुशीचो आमकां पुराय भरंवसो आसा. शाबासारखी आनी शाबा परसूय तेजस्वी बाळकां ते कुशींत जल्माक येतली आनी तांगेल्या कर्तृत्वाक सोसोगडाची उंचाय मेळोवन दितली.

बापायक केन्ना केन्ना आपलें रूप स्वतःच्या पुतामदें दिश्टी पडटा. शाबाचे बाबतींत अदिमंदि म्हाका तसो दिस्टावो घडला. शाबाक - म्हज्या मानसपुत्राक म्हजी मानवंदना !

**पुंडलीक नारायण नायक**

वळवय - गोंय

---

**चत्राय :**

1. शाबा कुडतरकाराच्या जिविताचेर आनी साहित्याचेर हो लेख बरयताना श्री. राजेंद्र केरकार, श्री. हनुमंत चोपडेकार, श्री. प्रजल साखरदांडे हांगेले वर्तमानपत्रांनी उजवाडाक आयिल्ले लेख, नेमळ्यानी आशिल्ल्यो तागेल्या मर्णा संबंदिच्यो खबरो, तागेली घटकान्न श्रीमती शोभा कडल्यान घेतिल्ली माहिती हांचो आदार घेतला.
2. 'वावझड', 'भुंयगर्भ ' आनी 'तानसुर्या' ह्या तिनूय पुस्तकांनी ही एकूच प्रस्तावना छापल्या.

**- पुं. ना. ना.**

---

व्दंव्द दाखोवपाचो यत्न हे एकांकीतल्यान जाला. नव्या तंत्रान हें व्दंव्द प्रगट जाता. बावल्यो तयार करपी फॅक्टरींत ही कथा घडटा. पोको हो कथानायक. फॅक्टरींतल्या हेर कामदारांभशेन तो एक कामदार पूण सभावान, वागणूकेन हेरांपरस वेगळो. ते खातीर बाकीचे कामदार ताका पिसो म्हणटात . तो आपणालेच तंद्रेंत जियेता, आपल्याच विश्वांत वावुरता. भ्रमिश्ट अवस्थेंत आसताना ताच्या हातसून बायलेक बायंत धुकलून वडोवपाचो अपराध घडटा. ताची ताका खंतूय आसा. एका आगळ्याच विशयावयली आगळेच पध्दतीन तयार जांल्ली ही एकांकी.

शाबांक एकांकी प्रकाराचो आकृतीबंध बरेतरेन सादिल्लो. जायत्या नवोदित लेखकांक तो सादना. तांगेल्यो रचना नाटकुलीं, नाटिका नाट्यप्रसंग असल्या सदळ साच्यांतल्यान भायर सरपा पूण शाबाचें एकांकी लेखन आधुनिक एकांकीचे कसवटेक पुराय अर्थान उतरता.शाबा एक कवी म्हणून आकाराक येतालो.ताच्यान साहित्यीक गूण आसले. नाटकांचे तंत्र अभ्यासून बरेतरेन ताणें ते आत्मसात केल्ले. आपणांक जे साहित्यीक स्वरूपाचें कितें सांगपाचें आसा तें ताणी एकांकीच्या तंत्रान बसयिल्लें. देखूनुच तागेल्ल्यो एकांकी प्रयोगक्षम जावपाक पावल्यो. आशय, कल्पकता आनी तंत्र ह्या तीन गुणांच्या बळार ताका एक बरो एकांकीकार म्हणून वळखूं येता.

वर्सासंकिनी गरीबी, अत्याचार, विषमता, पिळवणूक , शोशण अशा प्रकारांनी भड्डून गेल्या समाजांतल्यान जेन्ना एखादो लेखक म्हण घुडी घेवन वयर सरता तेन्ना तो एकलों आसलो तरी ताचो आवाज हो एकल्याचो केन्नाच नासता. तो त्या समाजाचो विस्फुटित जाल्लो आवाज आसता. परत तो ते पिळगेपुरतोय मर्यादीत नासता. तर फाटल्या पिळग्यांचोय तो प्रातिनिधीक स्वर आसता. शाबा हो तशा तळागाळांतल्या, दामिल्ल्या - चेपिल्ल्या भौसाचो आवाज आशिल्लो.

जीवनाचेर शाबाचो आकांत जीव. कश्टांचें जिवीत वांट्याक आयले. म्हण तो खंत शेण कशें किचमीत रावलोना. चिखलांतल्यान कमळ जावन फुलपाची ताचें ठांय धमक आसली. आयज मुखार कश्टांचे दोंगर आसात... काळखाच्यो राशी आसात... म्हण गळसणून ताणे हार मानलीना. जिवीताक फुडो केलो देखुनूच तागेल्या एकांकीनी खर आशावाद दिसता. कुड्ड्यांक

लेगीत नवी नदर फुटपाची आस तो आपणाल्या बरपांतल्यांन दाखयता.

खर अशे सामाजिक जाणीवेचो डॉ.प्रकाश वजरीकार आमचो नाटककार. 'आनी एक बुटो फुल्लो' हें तागेलें पयलें नाटक. खूब तेंपान रानांत बुटो फुलता तेन्ना भाग्याचें लक्षण म्हणपाची लोकसंस्कृतीतली लोकमान्यताय ताणे दाखोवन दिली. खूब वर्सांनी सत्तरींचे भाग्य फळफळ्ळां अशेंय आमकां दिसलें. कारण एका परस अदिक मानवी बुटे फुलिले आनी पळयले. पूण उमेदीच्या भरांत, फुलिल्ल्याक बावपाचो आनी अकाली गळपाचोय शाप आसत, हें आम्ही विसरून गेले. काळान आमकां भानार हाडल्या.

शाबाच्या रूपान फुलिल्लो एक बुटो अकाली बावला पूण सत्तरीचे उजवल्ले कुशीचो आमकां पुराय भरंवसो आसा. शाबासारखी आनी शाबा परसूय तेजस्वी बाळकां ते कुशीतं जल्माकं येतली आनी तांगेल्या कर्तृत्वाक सोसोगडाची उंचाय मेळोवन दितली.

बापायक केन्ना केन्ना आपलें रूप स्वतःच्या पुतामदें दिश्टी पडटा. शाबाचे बाबतींत अदिमंदि म्हाका तसो दिस्टावो घडला. शाबाक - म्हज्या मानसपुत्राक म्हजी मानवंदना !

**पुंडलीक नारायण नायक**

वळवय - गोंय

---

**चत्राय :**

1. शाबा कुडतरकाराच्या जिविताचेर आनी साहित्याचेर हो लेख बरयताना श्री. राजेंद्र केरकार, श्री. हनुमंत चोपडेकार, श्री. प्रजल साखरदांडे हांगेले वर्तमानपत्रांनी उजवाडाक आयिल्ले लेख, नेमळ्यानी आशिल्ल्यो तागेल्या मर्णा संबंदिच्यो खबरो, तागेली घटकान्न श्रीमती शोभा कडल्यान घेतिल्ली माहिती हांचो आदार घेतला.
2. 'वावझड', 'भुंयगर्भ' आनी 'तानसुर्या' ह्या तिनूय पुस्तकांनी ही एकूच प्रस्तावना छापल्या.

**- पुं. ना. ना.**

---

1

# भुतांवळो

: पात्रां:

गांवाचो आत्मो

उदयाचो आत्मो

किरण

चेतन

काँट्रेक्टर

शंकरदादी

भाई

पात्रांव

चोप्रा

शंकू

बारवालो

गांवचे धा बारा लोक

चार पांच कामेरीं

## देखाव : पयलो

(थळ : एका गांवच्या देवळाचो कांय कोंसळिल्लो भाग दिश्टी पडटा. ताका तेकूनच फाटलेवटेन केन्ना तरी एक देवराय आशिल्ली तिच्यो कुरवो. कांय वर्सां पयलीं हांगा एक मिनाची खण आशिल्ली ती आतां बंद पडल्या. लोक गांव सोडून गेला. सद्या ह्या गांवाक भुतांवळो भुतांचो गांव म्हणून पाचारतात. हांगां भुतां आसात आनी तीं भेस्टायतात अशी लोकांची समजूत आसा. वातावरण भिरांकूळ, भुतांचो गांव ह्या नांवा सारकें चित्रविचित्र. आवाज वारो आनी जायतें. ह्या सगळ्या बोवाळांत एक कोणतरी अस्पश्टसो, हेवटेन तेवटेन धांवतना, तळमळटना, वळवळटना दिश्टी पडटा. कोणाक तरी आपयतना दिश्टी पडटा. हो गांवाचो आत्मो.)

गांवाचो आत्मो : (आडडून, खर्शेवन सामको रडपाक पावला) कोण तरी येवन म्हाकां सोडयात, कोण तरी येवन म्हाका मुक्त करात. म्हज्यान सोंसपाक जायना आतां हो घुस्मटमार. कितलीशींच वर्सां आड्डतां. तेंच तेंच सांगीत भोवतां. पूण कोणाच्याच कानार म्हजो शब्द पडना. सगळेच कानार केंस काडून भोंवतात. सगळ्यांचींच काळजां निबर जाल्यांत. पाशाणां कशीं, सुक्या सडसडीत सड्यावेल्या तळपावरी. सगळ्यांचेच कान भेरेल्यात, कोण म्हाका मुक्त करतलो? (रडटा. एक तरणाटो फाटल्यान येवन खांदार हात दवरता. हो उदय गांवकार. मिनाखण कोसळिल्ली तेन्ना हो पोंदा पडून मेला. ताचोय आत्मो हांगां भोंवता.)

उदयाचो आत्मो : असो निर्शेव नाका. हांव करतलों तुका मुक्त! तूं म्हजो गांव, म्हजो

जल्म गांव. हांवें हांगा जल्म घेतला. तुज्या आंगाखांदार खेळ्ळां. तूं म्हजो गांव आनीं हांव तुजो पूत. जल्म दिवपी आवय बापायचें रीण जशें म्हाका पावोवचें पडलां. तशेंच ज्या गांवांत हांवें जल्म घेतला ताचेंय रीण म्हाका पावोवपाक जाय.

(गांव अचकीत हांसपाक लागता) हांसता कित्याक? तुका खरें दिसना?

गांवाचो आत्मो : म्हज्या ह्या दुख्खांतूय म्हाका तुजी काकळूट करिनशी दिसता. जितो आसतना तूं जें करपाक पावलो ना तें आतां मेल्या उपरान्त करतलो? तेन्नाचे ते भिरांकूळ घडणुके उप्रान्त हांगा जो भुतांवळो तयार जालो तातूंत तूंच जड अतृप्त जावन भोंवता. बाकिचे भुतावळीक कांयच पडिल्लें ना. तुकाच खरें म्हणल्यार मुक्तीची गरज आसा. म्हजें रीण तूं कशें पावयतलो?

उदयाचो आत्मो : हांव मेलां तो शरीरान, म्हजे विचार थोडेच मेल्यात? ते सत्याचे साणीर घांशिल्ले आसात. ते अमर. तांकां मरण ना. केन्ना ना केन्ना तरी ते लोकांच्यो तकल्यो भेरोवन वडयतले. आनी तूं हो भुतांवळो म्हण्टा पळय तोच केन्ना तरी पेटून उठ्ठलो. तूं जाणा जा. भुतांवळो पेटून उठ्ठा तेन्नाच क्रांती जाता.

गांवाचो आत्मो : उदय, तूं जितो आसलो तेन्ना म्हज्याय आंगार एक तेज आसलें. म्हाकाय दिसतालें, की तूं म्हजें रूप बदलतलो, म्हाका समृद्द करतलो. पूण मीन नांवाचो फोंड म्हज्या आंगार खणलो आनी म्हाका विद्रूप करून वडयलो. म्हजो तिसत्यो-वादऱ्यो केल्यो. सद्या लोक म्हजेकडेन पळोवन कितें म्हणटात जाणा, अ घोस्ट व्हिलेज. भुतांचो गांव. एक भुतांवळो!

उदयाचो आत्मो : म्हज्या मर्णा उपरान्त तुजी खुबूच वायट परिस्थिती जाली. तूं म्हाका तुजी सुरवेक सावन काणी सांगशीत? म्हाकाय म्हज्यो यादी परत जाग्यो करपाक जाय.

गांवाचो आत्मो : कितलें सुंदर म्हजें नांव आसलें, पळशेंगांव. अशीच ते दोगुल्लेवेल्यान एक ल्हानशी न्हंय व्हांवताली सदांकाळ. न्हंयचे देगेन शेतां-भाटां

बाराय म्हयने म्हजे समृद्धीचीं गितां गायतालीं. दूद - धंय, भात - गोटो गावांत ना अशें केन्नाच जालें ना. घोवाचे बायलेन आपल्या कपलार आयावपणाचो तिबो मिरोंवचो तशें हांगा एक सांतेर मायेचें देवूळ आसलें. ताका तेकून पळस रुखांनी भरिल्ली सवाशीण कशी देवराय मिरयताली. वसंत ऋतू घेवन येवपी जुवान रगताचो फाल्गुन म्हयनो केन्ना येवं काय म्हणून वाट पळयतालो. आनी पुनवेक नेमांत होळी पडली रे पडली काय धोल ताशे घणघणूंक लागताले.

(धोल ताशे नाचयत रोमाट येता. शिगम्याचो मांड थारोवपाचो आसा. लोक रोमाट मारतात)

- आंब्या तुजी आंबाडी आंबट रे,
पळशेंगांव भुरग्यांचे रोमाट रे.
शबय... शबय... शबय...
- बुकांडो हालयतात सुकणीं,
बाबलाची मेवणी देखणी शबय ... शबय... शबय...

(ह्या बोवाळांत सांतेरीकडेन तळी बी दवरप जाता. देवस्पण बी करतात.)

शंकरदादी : आरे आतां पुरो करात. बेगीन मांड थारोंवया.

: वाजय रे तूं, वाजय. शबय... शबय... शबय...

(परत रोमट मारतात. आवा शिवा करीत पुरो जावन बसतात.)

: आरे भाई खंय गेलो? पंच म्हणून निवडून आयला थंयच्यान तेचे पांय धर्तरीर ना. आतां मांड थारयताना हांगा आसूं नाका आसलो तो?

: आतां आनी उपसरपंच जाला. सरपंचावांगडाच भोंवता.

: आमी हांगा सुकीच शबय मारपाची. तेवटेन तो बरी धुळवड खेळटा आसतलो.

: तेची वाट पळयत बसूं या काय आमी आमचें फुडलें काम सुरू करूंया? शिगम्याचो मांड वेळार थारावपाक जाय न्हूं? चाळो - मेळो उखल्लेलो आसता, सगळें वेळचे वेळार ज़ाल्लें बरें.

(इतलो वेळ वगी आशिल्लो उदय फुडें येता.)

उदय : हांव एक सुचोवणी करपाक सोदतां.

: कर, कर.

: एक कित्याक? धा सुचोवण्यो कर!

उदय : शिगम्या निमतान काय जायना सगळो गांव हांगा एकठांय जमिल्लो आसा. भाई अजून पावूंक ना. तेन्ना मांड थारोवचे पयलीं आमच्यान एक काम करूं येता.

: आतां आनीं कसलें काम बाबा? सांग. फाटल्या दिसांनी सांगतालो तसलें मात सांगूं नाका. घरात सोरोप येयलो जाल्यार तेका मारूं नाकात, अचळय हातांत उखलून घेयात आनी बरो अपुरबायेन दाट रानांत व्हरून सोडात. असली अवचीनपणां मात सांगूं नाका (लोकांचो हांसो.)

उदय : काम सोपें आनीं सादें आसा. आमच्या जाण्टेल्यानीं आमच्या ह्या पळशें गांवांत ही काय बरी देवाची राय सांबाळून दवरल्या. पूण आमकां तेचें अप्रूप ना. ते रायेंत आमी मुद्दाम केन्ना वचनात. तिका बरी निवळ करची, हळशीक आसा, कांटेखुटे आसात जाल्यार ते साफ करचे अशें आमच्या मनांत केन्ना येयना. तुमीं चड घाम गाळचो अशें म्हजें म्हणणें ना. पूण तुमचे धा जाणांचे हात लागले जाल्यार वाटेचो वाटसरू येवन रुखामुळांत खिणभर विसव घेतलो इतलो तरी जागो आमच्यान निवळ करूं येता.

: हो पिसावला काय कितें रे? कितें उलयता?

: उदय म्हणटा तें बरोबर आसा.

शंकरदादी : आरे कितें बरोबर आसा? चार पुस्तकां शिकले काय मळबाक हात तेंकयलो अशें तुमकां हालींच्या पोरांक दिसपाक लागता. देवाची राय म्हणचे कितें तें तरी तुमकां खबर आसा?

उदय : शंकरदादी, तुजो भावार्थ म्हाका कळटा. हांव तेका दुखोंवक सोदी ना. पूण आमकां वेगळेतरेन विचार करचोच पडटलो.

हरगो : ह्या उदयाचें मरे सगळेंच उरफाटें ! त्या दीसा होळी हाणटना केदो

बोवाळ! हो माडो हाणों नाका, तें आडें काडूं नाका! तिरकामटें कितें कोंड्याचें करपाचें? येदी व्हडली होळी! नेमांत घालूं नाका ती?

उदय : (तापून) हरग्या, तूं थंय वगी बस, बऱ्या कामांत म्होडें घालपाचें तितलेंच तुका खबर आसा. होळी नेमांत घालपाक कितले तोंडके लागतात तें म्हाका तुवेन सांगपाची गरज ना. सगळ्या गावांक सांगूं हांव, त्या दीस तुवेन कितलीं झाडां हाणली तीं? आनीं खंय खंय वापरलीं तीं?

: हें मात सारकें उदयभाऊ, माटवाक तीन आनी खोपीक येद्दें व्हडलें माट्टीचें आडें घातलें ह्या हरग्यान!

उदय : आसूं, अशें बारीक मोटें वयर काडून म्हाका गांवांत किजिलां वाडोवपाचीं नात. आतां आमी आमच्या विशयाकडेन वळुंया. सगळेंच अर्द वराचें काम आसा. बरें काम करपाक प्रसाद पाकळेची गरज लागना. सारकें मरे नारुआपा?

नारुआपा : तरी मात्शें देयीक विचारल्यार बरें न्हूं?

लोक : आरे चौगांच्या कामाक देयी कित्याक आडायतली? चला, लागुंया कामाक.

: आरे भाई.....

उदय : भाई येता तेन्ना येंवदी...

: तो पळय, भाई कोणांक तरी घेवन येता.

: कोण तरी, पेजाद पार्टी दिसता.

(भाई, एक गिरेस्त मनीस आनी वांगडा ताचो मॅनेजर चोप्रा येतात)

भाई : येयात, येयात. आरे गोपळ भितरसून एक कदेल घेवन यो. (कोण तरी एक कदेल घेवन येता.) बस पात्रांव, यो बस. (सगळे अजापीत) अजून मांड थारोंवक ना न्हय? बरें जालें. पळयलें पात्रांव? हांवेन तुका सांगूक नासलें? हांव पावलेबगर मांड कसोच थारचो ना. आतां तुजें काम जालेंच म्हणपाचें. सोमतेंच देवीकडेन सांगणें करुंया.

पात्रांव : गांवाकडेन मात्सो उलयल्यार बरें न्हय?

चोप्रा : आप सही बोल रहे है सर। बादमें हमको लफडा नहीं मांगता।

भाई : हांव सांगतां न्हय पात्रांव, गांव म्हज्या उतरा भायर ना. तरी पूण तुमचे इत्सेखातीर हांव गांवांकडेन थोडे भितर हो मुद्दो मांडटां. (लोकांक उद्देशून) तर म्हज्या गांवभावानो आनीं भयणानो, पंचायत इलेक्शनाक हांवेन तुमचेकडेन मतां मागलीं, तुमीं दिलीं. म्हाका पंच सदस्य केलो. हांवेन पंच सदस्यांकडेन मतां मागलीं, ताणीय दिलीं. म्हाका उपसरपंच केलो. म्हाका दिसलें आतां हांवेन गांवाचे उदरगतीखातीर कितें तरी करपाक जाय. म्हजेर जे गांवान उपकार केल्यात ताची भरपाय म्हाका करपाक जाय.

: हें मात सारकें हां भाईचें. मनशान उपकार केन्ना विसरूंक फावना.

भाई : म्हाका ताची जाण आसा. तेका लागून हांव ह्या पात्रांवाच्या दारार गेलों. तेका हांगामेरेन घेवन आयलों. आमचो गांव मागास, अशें म्हणून थोमणे आयकुचे पडटात. आमी अडाणी, दळडिरे म्हणून आमकां हिणसावन घेवचें पडटा. ह्या पात्रांवाच्या हातांत आमी आमचो गांव दिवया. हो पात्रांव आमच्या गांवाचो दळडिरो चेहरोच बदलून वडयतलो. पयशांच्यो न्हंयो व्हांवयतलो आमच्या गांवांतल्यान.

उदय : भाई, कितें तें मुद्याचे उलय. गांवाची उदरगत जांवची अशें आमकांय दिसता.

भाई : हांव पात्रांवाक विनंती करतां, ताणी आमच्या गांवांखातीर येवजण तयार केल्या ती आपल्याच उतरांनी आमकां सांगची.

पात्रांव : मिस्टर चोप्रा, हमारा नेक्स्ट प्रोग्राम क्या है?

चोप्रा : (गडबडून) आप रात नौ बजे उपर जानेवाले हैं सर, और....

पात्रांव : व्हॉट...?

चोप्रा : मतलब, आपकी रात नौ बजे दिल्ली के लिए फ्लाईट हैं सर।

पात्रांव : ओ के. हांव तुमचो चड वेळ घेना. म्हाका आयज अर्जंट दिल्ली

वचपाचें आसा. रातची म्हाका एका मिनिस्टराकडेन मिटींग आसा (लोक अजापीत)

चोप्रा : आप सुबह उठनेके बाद क्या क्या करेंगे वो भी बतादूं सर?

पात्रांव : नो. नाऊ प्लीज शट युवर माऊथ!

चोप्रा : ओ के सर. सॉरी सर!

पात्रांव : तुमचो हो भाई म्हजेकडेन आयलो. तुमच्या नशिबान तुमकां बरो फुडारी मेळ्ळा. गांवाविशीं खूब तळमळ आसा ताका. ताच्याच आदारान फाटलो म्हयनोभर लागून आमीं तुमच्या गांवांची सर्व्हे केली. एस ॲन्ड के मायनिंग कॉरपोरेशन लिमीटेड हे कंपनीचें नांव तुमी आयकलां आसतलेंच. हांव ते कंपनीचो अध्यक्ष.

भाई : पात्रांव, एक मिनीट. (लोकांक) तसो पात्रांव कोणाक मेळपाक असो गांवानीं येयना. म्हज्या उतराचो आदर राखून आनी गांवांक रेस्पेद दिवपाक तो हांगामेरेन आयला.

चोप्रा : ये बिल्कुल सच हैं। भाई बहोत ग्रेट आदमी।

पात्रांव : (तिकडीन पळयत) मिस्टर चोप्रा?

चोप्रा : येस सर! सॉरी सर!

पात्रांव : ह्या शांत, थंड दिसपी गांवांसकयल कितें खतखतता तें तुमकां अजून खबर ना. भांगराची खण आसा तुमचो गांव. लाखानीं टन म्हाल आसा तुमच्या गांवांसकयल!

: कितें सांगता? त्या दीस हायेन माथेभर दोबरो मारलो, चिमटीभर पसून भांगर मेळोंक ना मरे!

: तशें कशें मेळटलें, कुल्ल्यो लिपून रावतात तशें फातराचे खांचीत आसतलें तें. न्हूं रे?

: ओ कुल्लेकार भावडी, व्हाळकुटांनी वचून फकत कुल्ल्योच धर तूं. तुंका न्हूं हें!

पात्रांव : भांगर तशें मेळना. आमचे नदरेन बरो क्वॉलीटी आयर्न ओर म्हणल्यार भांगर कशें.

: आयर्न ओर...?

पात्रांव : तुमकां कळचें ना तें. तुमकां कळना तेंच बरें. आयर्न ओर काडटलो जाल्यार पसून एक प्रोसीजर आसता. मिस्टर चोप्रा.

चोप्रा : येस सर!

पात्रांव : इनको लेआवट के बारे में थोंडा एक्स्प्लेन करो?

चोप्रा : येस सर! ओ के सर. ये रहा हमारा पूरा मायनींग लेआवट। इस गांव के इस्ट में क्रशींग यूनीट रहेगा, उसके बगल में स्क्रीनींग यूनीट रहेगा. गांव के वेस्ट में वॉशिंग यूनीट रहेगा। और उसके ठीक बगल में आयर्न और मिटठी अलग करनेका क्लासीफाईंग यूनीट रहेगा। और उसके थोडा आगे जो लिक्वीड फॉर्म में किचड डेव्हलप होगा वो हम सामनेसे जो नदी बहती ना वहीं पे बहा देंगे। और गांव के ठीक बीच में से हम पक्खा सडक बनायेंगे जहाँ से सिधा हमारा माल एम पी टी तक जायेगा।

(कोणाक कांय कळूंक ना. एकमेकांच्या तोंडाकडेन पळयतात)

कुछ समझ में आया?

: आरे हमकु क्या समझनारा! हमारी... हमारी... आरे, तकलेक हिंदीत कितें म्हण्टात रे?

: खोपडी...! खोपडी...!

: हां, हां... सब हमारी खोपडी के उपरसूं गया. सारकें मरे नानू?

सगळे : हय हय, सारकें.

: तूं हिंदी उलोवपाक आयकता?

भाई : रावात, रावात, हांव तुमकां सारकें समजावन सांगतां.

उदय : तुंवेन कांय एक समजावन सांगपाची गरज ना. तुंवेन तुकां तर विकलाच. आतां आमचे सयत तुवेन गांवांकय पावणेर काडला. आमचो हे मायनीक विरोध आसा. तुमी गेल्यार जाता.

भाई : आरे कितें उलयता हो? तुमचो म्हजेर विस्वास आसा मरे?

: आसा तर, म्हणून तुका निवडून दिला न्हूं?

भाई : म्हणून हाच्या पोटांत तिडक्यो मारतात. हांव पंचायतीक उबो रावतां, हेका नाका. हांव उपसरपंच जावंक सोदतां, हेका नाका.

हांव येदी व्हडली मायन गांवांत हाडून गांवाची उदरगत करपाक सोदतां जाल्यार हेका नाका. मागीर हांवेंन करचें कितें तें तुमीच सांगात.

उदय : आरे ते कितें सांगतले? तेंकां कितें खबर आसा? तूं सांगता तशे ते मान हालयतले.

: आमकां खबर ना अशें म्हणू नाका हां उदयभाऊ. आमकां सगळें खबर आसा. आमचींय सोयऱ्यां आसात, सावड्डया, न्हायेले! तेंचे कडसून सगळें कळटा आमकां.

: म्हज्या मावोड्या पयलीं जेवतलो जाल्यार एकवेळचें जेवण मेळ नासलें. आता कितें? चार ट्रक आसात! सगळ्या बायलांच्या आंगार कांकणां, पाटल्यो, तोडे, बाजुबंद...! एक एकलेच्या गळ्यांत धा धा पोवनाचें मंगळसूत्र! म्हाकां चवथीक जें वजें धाडलेंलें पळय तें आनीक विचारुंच नाका. एका एका किलाची एक एक नेवरी! सगळ्या गांवाक वांटल्या म्हजे बायलेन!

उदय : नेवऱ्यो खावन पोटां फुगयलीं म्हणून गांवाची उदरगत जायना. आमी फकत भांगरां - शिंगरां, गाडयो - घोडे असो वयलो चकचक पळयतात. तूंच सांग शंकरदादी, गांवांत रावतलो जाल्यार गांवात गांवपण जाय काय नाका? गावांत मनीसपण जाय काय नाका?

शंकरदादी : जाय तर बाबा, मनीसपण आसल्याशिवाय गांव चलता?

उदय : नारुआपा, ही देवराय आमच्या जाण्टयांची मिरास. आमच्या गांवच्या राखणदाराचें रावपाचें ठिकाण. तिका आमी साबाळूं नाका? ही बाराय म्हयने खळखळून व्हांवपी न्हंय जर आमीं पुरोवन वडयली जाल्यार आमी जगतले कशे? तूंच सांग नारुआपा?

नारुआपा : उदका शिवाय म्हणून मनीस जगूं शकता? उदक हें जायच पडटा न्हू?

उदय : वदळ कोणेंतरी हांव सोरोप मारुं नाका म्हण्टां म्हणून म्हजीं फकांणां मारलीं. म्हाका वायट दिसूंक ना. तेंच्यानीं मारपाचींच कारण तेंकां तेंच्या फुडाराचो हुस्को ना. हांव उलयतां तें सत्य. आनीं सत्य

रोखडेंच तकलेंत वचना. सुवार्थ आनी असत्य रोखडेंच तकलेक चडटा. तकलेर चडून तें माथ्यार बसता आनी मनीस माथेफिरू जावन भोंवता, ह्या भाईसारको. तुमकां कोणावटेन रावपाचें आसा तें तुमीच थारायात. (लोकांचो कल उदया वटेन.)

भाई : जालें तुजे पॅनल करून? कोण तरी गॉडफादर मेळ्ळा आसतलो तुकां. कोण तो हांव ज्युस्त जाणां. हांव तुका मागीर पळोवन घेतां. म्हज्या भावांनो, मात्शें आयकून घेयात. कांय लोकांक गांवची उदरगत जाल्लीच नाका. उदरगत जाली जाल्यार तेंकां मागीर जाय तशे बुद्दीवादी म्हणून मिरोवपाक मेळ ना. म्हणून ते मागीर आड्ड्यो मारीत भोंवतात. झाडां वांचयात, दोंगर वांचयात, सुकण्यांक वांचयात, सोरोप वांचयात! आमी इतलीं वर्सां वांचयले ना. बाकीचे गांव गेले फुडे! ना आमच्या गांवात उदक पियेतलो जाल्यार एक नळ! खंय कोणाकडेन उलयतलो जाल्यार ना सादो एक टेलीफोन! एक लायट मात आसा पूण ती आपल्याक जाय तेन्ना पेट्टा!

(लोकांचो कल भाई वटेन)

लोक : हें मात सारकें हां भाईचें! बाकीचे गांव खुबच फुडें गेल्यात.

लोक : बाकीच्या गांवांनी कितें रें, देवळांत पसून दीस रात चकचक!

उदय : हांवूय तुमकां परत तेंच सांगतां. तुमकां फकत वयलो चकचक दिसता. त्या गांवानी लोक धुल्लान घुस्मटून मरतात तें तुमकां दिसना. टी बी जावन मरपी, दमो जावन मरपी, कॅन्सर जावन मरपी लोकांचो आंकडो वाडत आसा तें तुमकां दिसना. मात्शें लक्ष दिवन आयकात. मन लावन आयकात. गावांत जर मायन सुरू जाली जाल्यार तेचो गांवाचेर आनी आमचेर कसो दुश्परीणाम जातलो तें तुमकां थोडें भितर सांगतां. तुमकां पट्टा जाल्यार घेवचें. कोणाचेर जबरदस्ती ना. सुरवात जर खंयच्यान जातली जाल्यार तुमच्या शेंतां - भाटांतल्यान...

(बाकीचे सगळे मायमींग चलता. लोक कन्व्हींन्स जावन उदयालागीं

येतात. भाई, ताचे दोन सपोर्टर, पात्रांव, चोप्रा दुसरेवटेन गंभीर चर्चा करतात. हेंवूंय मायमींग)

उदय : आनी तुमीं जाणां जायात, सगळ्यांत पयलीं डोझर चलतलो तो हे देवरायेचेर!

: तशें जाल्यार आमकां मायन नाका. न्हू रे दादी?

: हें अशें आसा हें आमकां खबरच नासली मरे!

: मनशान शिकूंक जाय तें हेका लागून. चल तूं दादी सांग तेंका. आमकां मायन नाका म्हणून! (शंकरदादी उठपाक करता)

चोप्रा : रुकिए, चाचाजी रुकिए। आपकी परेशानी हम समझ सकते हैं. इसलिए, हमनेभी सोच समझके आपके लिए एक प्लान बनाया है। मै आपको पढके सुनाता हूं।

पात्रांव : मिस्टर चोप्रा?

चोप्रा : येस सर!

पात्रांव : प्लान भाई के हात में दे दो. भाई सुनायेगा!

चोप्रा : येस सर! ओ के सर। (भाईचे हातीन फायल दिता)

भाई : भावांनो, गांवाचें पाड जावचें अशें म्हांकाय दिसना. उदयान जर मायन गांवात जाली जाल्यार हें जातलें तें जातलें अश्यो फटाशो तुमचे मुखार मारल्यो. एक काल्पनीक हावको तुमच्या दोळ्यांमुखार उबो केला. हावेन पात्रांवांकडेन चर्चा करून आमच्या गावांखातीर एक पॅकेज तयार केल्या हातूंत जो फायदो आसा तो जर तुमीं पळयश्यात जाल्यार ह्या उदयान जो हावको तयार केला ताचें येदेंशें हेंवाळें जातलें.

: आरे, बेगीन कितें तें वाचून वडय. बेगीन मांड थारोंवया आनीं या घरा. पयलींच वगत जाला.

: हय तर, शिगम्याक ना होळी आनी धोल बडयता कोळी, असली गत जाल्या.

भाई : हांव बेश्टोंच धोल बडयना. हातूंत गांवाचो तर फायदो आसाच तेभायर दर एका घराचो फायदा आसा, दर एका मनशाचो फायदो

आसा. हांव वाचुनूच दाखयतां. प्रत्येक घरांत एक एक ट्रक येतलो.

लोक : (अजापून) कितें?

भाई : हय, एक एक ट्रक! जाय जाल्यार दोन पसून घेव येता. प्रत्येक घरांतलो अठरावर्सांवयलो भुरगो कंपनीत कामाक लागतलो. घारूमामा, तुका कितले चेडे?

घारूमामा : (उठून भाईवटेन वचत) म्हाका चार चेडे न्हू ! सगळे बेकार, गांवार हेडटात.

भाई : सगळ्यांक कामाक लांवया.

: (उठून भाईवटेन वचत) म्हजोय एकलोच आसा. बरो शिकूंक ना.

भाई : कांय भियों नाका. तेकाय कामाक लांवया. ते भायर मायनिचेर कामेरीं जाय पडटलीं. सगळीं गावचीं जाण्टी नेण्टी बायलां कामाक लागतलीं.

: बायल कितले दीस जाले फाटल्यान लागल्या, पाटल्यो कर पाटल्यो कर म्हणून. तशें जाल्यार तिच्याच पगारान निभावतलें. (उठून भाईवटेन वचत)

भाई : दर वर्सा घर दुरूस्तीखातीर पयशे मेळटले.

: (उठून भाईवटेन वचत) म्हजेंय मोडपाक तेंकला रे बाबा. कण्णेचो दर मळबाक तेंकला. गरीबाक परवडों नाका?

भाई : शेतांनी जर माती गेलीच जाल्यार, वर्साक उत्पन्न जितलीं जातालीं तेचे दुपेटीन लुकसाण भरपाय मेळटली.

: (एक तरणटो उठून भाईवटेन वचत) तशें जाल्यार बरें आसा मरे. वर्सभर कोण रेब्यांत लोळटलो?

भाई : (खुशालभरीत जावन) आनी आतां ही पावरफुल ऑफर पळयात. आमच्या गांवांत भुरग्यीं शिकतलीं जाल्यार व्यवस्थींत शाळा ना. कंपनी आपल्या खर्चान शारांनीं आसता तशी शाळा बांदून दितली. ते भायर दारांत नळ, टेलिफोन, हें आपशींच आयलें.

: कितें येवजिता शंकरदादी? उखल तो नाल्ल. सोमतेंच सांगणें करूंया. वांगडाच मांड थरोंवया.

(शंकरदादी ल्हवू ल्हवू उठ्ठा. नाल्ल हातांत घेता)

उदय : कितें करता शंकरदादी? आरे, हे देयीचो विचार कर! देवरायचो विचार कर! मुळपुरसाचो विचार कर!

शंकरदादी : (फार्टीफुडे करीत) हांव कितें म्हणीं जाणां? बाकी सगळें बरें आसा.... पूण ही सांतेरी.... ही देवराय...

भाई : (व्हडल्यान हांसता) कितें शंकरदादी? म्हाका इतलो अडाणीं समजलो तूं? ह्या पात्रांवाकच विचार, हें देवूळ आनी हे देवरायेखातीर हांवेन कितलो वाद घातला तो. पयलीं कसोच आयकपाक तयार ना. तेन्ना हावेन स्पश्ट सांगलें, आमची देवराय जर उरना जाल्यार गावांत मायंन जावची ना. सारकें न्हय पात्रांव?

(पात्रांव मान हालोवन हयकार दिता)

शंकरदादी : म्हणजे आमची देवराय...?

उदय : उरतली शंकरदादी, उरतली. आनीं फुडे आयक, हें आमचें सांतेरीचें देवूळ आसा पळय, तेंवूंय कांय वर्सांनी कंपनीं करकरीत बांदून दितली.

: तशें जाल्यार बरें आसा मरे! चल चल शंकरदादी सुरवात कर! (शंकरदादीक धुकलीतच देवी मुखार व्हरतात)

: चला चला, तांदूळ वांटात! (सगळ्यांक तांदूळ वांट्टात. वांटपी उदयामुखार वयता. उदय तिडकीन एके कुशीन वता.सांगणें सुरू जाता)

शंकरदादी : देयी सायबीणीं. आमीं तुजीं अजाण बाळकां तुज्या पायांकडेन येल्लीं आसात.

(हय म्हजे सायबीणी)

आयज तुज्या पांयांकडेन हो पात्रांव...

भाई : एस ॲन्ड के मायनींग कॉर्पोरेशन लिमीटेड चो चॅअरमेन हांगा तुज्या

गांवांत मायनींग सुरू करपाक सोदता. (हय म्हजे सायबीणी)

शंकरदादी : वायट बरें थारोंवपी तूं देयी. आमीं अजाण बाळकां. हें श्रीफळ तुज्या पायांकडेन वाडयतां तें पावोन घे आनीं तेच्या कामाक येस दी म्हजे सायबीणी.

लोक : हय म्हजे सायबीणी. बरें घसघशीत येस दी. (नाल्ल फोडटात)

लोक : वाजयता रे, मांड थारोंवया.

(भार येवपाचें वाजयतात. मुळपूरसाचो भार येता. इतले मजगतीं गांवचो आत्मो खंती जावन एका कोनशाक उबो रावून सगळें पळयता. एका कोनशाक उदय खचून बसला. भार निवळटा. मांड थारयतात. सगळे बोवाळ करीत वतात. माचयेर उदय, गांवाचो आत्मो, भाई आनी शंकू. भाई उदयाच्या खांदार हात दवरून आपूण जिकलों अशा अर्थान हांसत वता. शंकू फाटल्यान येवन)

शंकू : उदयभाऊ, तूं एकलो कितें करतलो? सगळो गांव परतलो.

उदय : शंकू, म्हाका काकळूट दिसता ती म्हज्या गांवांची. गांवाचो आत्मो तळमळटा आसतलो. बसला आसतलो खंयतरी धोंपरांत तकली घालून. म्हाका दिसता तो खंयतरी म्हजेच सरभोंवतणी घुटमळटा, म्हजेकडेन आशेन पळयता. शंकू म्हजे विचार सत्याचेर आदारिल्ले आसात. आनी सत्य हें कोडू आसता. लोकांमेरेन पावपाक खूब वेळ लागता. शंकू, म्हज्या गांवां खातीर म्हाकाच कितें तरी करचें पडटलें. फकत म्हाकाच.

शंकू : ना उदयभाऊ, हांव शिकूंक ना, हांव अडाणी. पूण म्हाका तूं उलयता तें पटटा. खूब आवडटा. म्हाकाय दिसता हो गांव आतां आमचो उरचो ना. म्हजो कसो दिसचो ना. उदयभाऊ, हांव तुजेवांगडा येवपाक सोदतां. म्हाकां तूं वांगडा घेशीत?

उदय : (भावार्थी जावन) आरे पिशा, म्हाका तुजेवरीच मनीस जाय. तुका हांव म्हज्या काळजांत दवरपी. यो, म्हाका तुकां कडकडून वेंग मारिनशी दिसता. (वेंग मारता) आतां हांव कोणाक भियेना.

तुज्या रुपान म्हाकां एक शक्त मेळ्ळ्या...
(इतलो वेळ भारावन गेल्लो आत्मो खूश जावन वता. पयलो प्रसंग सोंपता. तेन्नाच मायनींग सुरू जाली हें दाखोंवपी हॉर्न, सायरन वाजतात. सुरींग फुट्टात तांचो आवाज.)

**देखाव : दुसरो**

(थळ – मायन. सोऱ्याचें बार्र दिश्टी पडटा. कांयजाण सोरो पियेतात. विडयो फुसकायतात. धुल्लान तांबडे जाल्ले लोक. दनपारच्या जेवणाचो सायरन जाता. कांय कामगार थकून पुरो जावन बार्राकडेन येतात. कांय कामेरींय आपले जेवणाचे डबे घेवन एके सुवातीर बसतात)
(एक बायल खोंकता. तिका टी. बी. जाल्या)

बायल 1 : आगे व्हनी, कितली खोकली येता गे तुकां. दोतोरागेर वचपाची न्हू?

बायल 2 : (खोकीत.) ना गे बाये, गेली दोतोरागेर, कांय एक गूण मेळूंक ना. (खोकीत.) कितले फावटीं वयतलीं?

बायल 3 : आगे लागीं बसूं नाका तिच्या. टी. बी. जाल्या तिका.

दादलो 1 : आरे वासू, कितलो सोरो पियेता? पयलींच एक किडनी फेल जाल्या तुजी. दुसरी फेल जायत जाल्यार आक्ताक मरतलो.
(सोरो पिता)

दादलो 2 : मरू रे मेलों जाल्यार ! हांगा कोण जगपाक येयला! आयचो दीस आयज, फाल्याचें कोणे सांगलां? न्हू रे...?

दादलो 3 : सारकें उलयलो तूं वासू! काल तो शामू ट्रक घेवन वयर डंम्पींग करतालो. मात्शें गियर घुस्पलें. ट्रक सोमतो सकल आनी शामू डायरेक्ट वयर! कोणाक पडलां? कोण्णाक ना. वरा भितर सगळे कामाक! (पिता)

बायल 4 : काम काम म्हणून धुल्लान मेलीं गे बाये! वयल्यान वोताचो रखरख! घामाचो पयसो तरी उरता घरांत?

बायल 5 : आगे बाये आगे बाये! मागीर इतलो पयसो किते करता तर तू?

बायल 1 : आगे, तुकां खबर ना? तिच्या घोवाक सगळे छंद ! मटको म्हणू नाका पट म्हणू नाका आतां आनी त्या फुलग्यान नवो धंदो सुरू केला.

बायल 3 : कसलो गे?

बायल 1 : घाटावयलीं चार पांच कामेरीं हाडून दवरल्यांत घरांत, वस्तेक. रातची लायन लागता किलींडर आनी ड्रायव्हरांची!

बायल 3 : आगे म्हजे बाये! तें फुलगें म्हणून तसलेंच.

दादलो 1 : नारु, रातचे या मरे?

दादलो 2 : खंय रे, फुलूगेर?

दादलो 1 : छी! थंय वचून वचून विटलों.

दादलो 2 : मागीर खंय?

दादलो 1 : तुका खबर ना? आरे थंय देवळाफाटल्यान एकलो शिगार घेवन येता. दोन झुरके मारल्यार पुरो. तुजी शेपडी तायट ! तुजी दोन कॉटर काजू मारली झक! एक झुरको पांचशीं रुपया!

दादलो 4 : हे वगी रावात. तो पळय उदय हेवटेन येता. हें सगळें आयकत जाल्यार पेपरार घालतलो.

(उदय आनी शंकू येतात.)

उदय : पळय शंकू पळय! जाली गांवाची उदरगत! पावला पावलाक बारीं वाडलीं. बोल्सांत पयसो आयलो तशे इस्पीकांचे पट सुरू जाले. शिक्षणाबाबतीत तर विचारुंच नाका ह्या नारुक हजार फावटीं सांगलें, चेड्याक शाळेंत धाड, हुशार भुरगो तो. पूण ना. कोणाक पडलां भुरग्यांच्या फुडाराचें?

नारू : कित्याक धाडूं? आं, कित्याक धाडूं? शिकोन कितें म्हाका राज्यार बसयतलो? ट्रकार धाडला हायें तेका किलींडर म्हणून! दिसाक देडशें रुपया घेवन येता. तेका सांगून दवरलां हायेंन, रोकडोच गाडी शीक आनी ड्रायव्हर जा म्हणून.

उदय : जालें! ड्रायव्हर जालो काय मळबाक हात लागले. आतां कवळात

तुमी तुमची बिटकी हांगासरल्यान.

दादलो : (घुरघुरून) अब्बा! बिटकी कवळात म्हणून आमकां सांगपी तूं कोण? आं...?

शंकू : अय... हेती आमचेर तिडक कित्याक काडटा? त्या काँट्रेक्टराचेर काड. पात्रांवान ही मायन काँट्रेक्टराक चलोवपाक दिल्या. कॉट्रेक्टर हेवटेनच येता. तुमकां सांगपाक आमी फुडें धांवत येयल्यात. तुमी तयारेन रावचें म्हणून.

दादलो 2 : काँट्रेक्टर ? कोण काँट्रेक्टर? आमकां सांगी नासतना पात्रांव मायन काँट्रेक्टराक चलोवपाक दिता म्हणजे कितें? अय वासू, चल वचोन सांग सगळ्यांक, कोण काम करचो ना. आयज पासून मायन बंद! कसो काँट्रेक्टर मायन चलयता तो हांव पळयतां.

(एकलो धांवत काम बंद करपाक वता.)

राव, भाईक येंवंदी. सारकें दाखयतां त्या काँट्रेक्टराक. आमचो भाई आसतना आमी भितात?

(काम बंद करून लोक कितें जालें काय म्हणून पळोवपाक येतात.)

सगळे सारकें कान दिवन आयकात. पात्रांवान ही मायन काँट्रेक्टराक चलोवपाक दिल्या. आमचो सगळ्यांचो फुडार काळखांत वडयला. जो मेरेन भाई आमकां हांगा येवन कांय सांगिना तो मेरेन काम बंद. कोणच कामाक हात लावंचो ना.

दादलो 4 : भाई त्या दीसा सांगतालो, आता पात्रांव रोकडोच पगार बी वाडोवपाचो आसा म्हणून! उरलेल्यांक फिक्स बी करपाचो आसा म्हणून! आनी आतां हें मदींच अशें कशें?

(काँट्रेक्टर वांगडा दोगजाण गुंड घेवन येता)

काँट्रेक्टर : आरे, कितें जालां? तुमी सगळे काम बंद करून हांगा कितें करतात?

दादलो 3 : तूं कोण आमकां विचारपी?

काँट्रेक्टर : तुमकां भाईन सांगूक ना? हांव आतां तुमचो नवो पात्रांव. हांवेन

चलोंवक घेतल्या ही मायन. कोणाक किते प्रोब्लेम?

दादलो : पूण भाई ...?

कॉंट्रेक्टर : भाईक कांय प्रोब्लेम ना. भाईकडेन उलोवप जालें आमचें. रातीं व्हडलीं पार्टी जाली आमची पात्रांवाच्या बंगल्यार. तुमी सगळे कामाचे कामार उरतले. फकत पगार हांव दितलों.

दादलो 4 : तशें जाल्यार भाईन आमकां सांगपाक जाय आसलें न्हूं रे?

उदय : (सोसूं नज जावन) आरे किते भाई भाई करून भाईच्या नांवाचो जप करतात? तुमका बोडां नात? तुमकां तकल्यो नात? भाईन तुमकां विकले. विकून खाल्ले. हांव तुमकां सांगतां कशें कशें कॉंट्रेक्ट दिलां तें. हो कॉंट्रेक्टर फकत नांवाक! ह्यानफुडें सगळे ट्रक भाईच्या नांवार चलतले! एके ट्रिपीक पांच रुपया! कॅन्टीन भाईचे बायलेच्या नांवार चलतलें. गार्डनाचें कॉंट्रेक्ट भाईच्या मेवण्याक मेळटलें. आनी लेबर सप्लायराचें कॉंट्रेक्ट भाईच्या भावाक मेळटलें! तुमकां कसली अडचण आसा?

कॉंट्रेक्टर : आरे, तुका कशें कळ्ळें? हें आमी कोणाकूच सांगूक नाशिल्लें मरे?

उदय : ह्यो गजाली सांगच्यो पडनात. न्हंयेतल्यान रेबो व्हांवपाक लागलो काय उदक खदूळ जातलें तें आपशींच कळटा. आतां तोंडां कोंणाचीं पळयतात. चलात, लागात कामाक! कामाक लागूंक नात जाल्यार तुमीं उपाशीं मरतले! उपाशीं रावपाची तुमकां संवय ना! काम बंद जालें जाल्यार तुमी बँकेचे हप्ते कशे भरतले? ट्रक ना जाल्यार तुमचें जिवन व्यर्थ! काम बंद करपाचो तुमकां कसलोच अधिकार ना. दुसऱ्यांच्या पोश्यांतल्यान उदक पिवपी मनशांक पेटून उठपाचो अधिकार नासता. मान वयर करून जगपाचो अधिकार नासता. चलात, खोंट मारून घरा धांवडोंवचे पयलीं तोंड धांपून काम करात. (सगळे मानो सकयल घालून कामाक वतात. कॉंट्रेक्टर गालांतल्या गालांत हांसता. उदय अस्वस्थ. शंकूक भयंकर तिडक मारल्या)

कॉंट्रेक्टर : (उदयाक) वा! तुवेन म्हजें काम सामकें सोपें केलें. म्हाका आवडटात असले समाज कार्यकर्ते. समाज सुधारक.

उदय : म्हाका तुजेकडेन उलोवपाचें ना. तूं वच हांगासरल्यान.

कॉंट्रेक्टर : वचपाचें तुवेंन. ही म्हजी एरिया. तूंच हांगासर उखलापो. (उदय वचपाक करता) आनी आयक. ह्या लोकांक चाळोवन घालपाचे भानगडीत पडूं नाका. बरें जावचें ना.

शंकु : उदयभाऊ! (सोसूं नज जावन तिडकीन फुरफुरता)

उदय : राव. (कॉंट्रेक्टरा सामकार वचून) धमकी दिता? कितें करतलो म्हजें? मारतलो म्हाका? हांव जिवाक भियेना. सारकें कान दिवन आयक. जेन्ना हे लोक पेटून उट्ठले तेन्नाच हांव शांत जातलों. चल शंकू. (वचपाक करता.)

कॉंट्रेक्टर : (चाळोवन घालता) तुका हावेंन एक कॉंट्रेक्ट दवरलां... म्हज्या ऑफिसांत सान्न मारपाचें...!

(कोणाक कांयच कळचे पयलीं शंकु कॉंट्रेक्टराचेर घुरी घालता. दोगूय गुंड शंकूक दोनूय वटेन धरतात. कॉंट्रेक्टर दोनूय हातांनी शंकुची तकली धाडायता. शंकू बेशूद्ध. उदयाकडेन भिरकटावन वडयतात आनी वतात. हें सगळें अचकीत घडटा. उदयाक कितें करचें तेंच कळ ना. तो 'शंकू' 'शंकू' म्हण ताका हालयता आनी फाटकुळेर मारून दोतोराकडेन घेवन वता.)

## देखाव : तिसरो

(दुसऱ्या प्रसंगा उपरान्त दोन तीन म्हयन्याचो काळ गेला. कॉंट्रेक्टराची गुंडागर्दी बरीच वाडल्या. तो आपल्याक जाय तें करता. दोग तीग जाण बारांचेर कॉप मारपाक बसल्यात. कॉंट्रेक्टर दोगा गुंडांक वांगडा घेवन येता तशे तिगूय पिवपाचे ग्लास थंयच वडोवन वाट मेळटा तशे पळटात. बारवालो बेगीबेगीं ग्लास काडटा. कॉंट्रेक्टर बरो पगळून बसता. सॅक्युरीटी कशे दोगूय गुंड)

बारवालो : पात्रांव, तुका किते हाडूं?

कॉंट्रॅक्टर : आयज आमी पिवपाक येवंक नात. तूं असो मुखार यो.

बारवालो : (भिता) कित्याक पात्रांव? म्हजेकडसून कसली चूक जाली?

कॉंट्रेक्टर : चूक तुजी जावंक ना. चूक म्हजी जाल्या. तुमकां सगळ्या गांवच्या लोकांक अजून मेरेन हांवेंन कामाक दवरल्यात ती म्हजी चूक! तुमी सगळे गांवचे लोक त्या उदयावांगडा भोंवतात मरे?

बारवालो : ना पात्रांव, आवयच्यान तर! सायबिणीच्यान तर! आमीं केन्नाच तेचेवांगडा वचनात, तेका लागीं पसून धरी नात.

कॉंट्रेक्टर : हावेन खंय खंयसावन लोक कामाक हाडल्यात जाणां मरे? केरळाचे आसात, बिहारचे आसात, हुबळीचे आसात, आंध्रप्रदेशाचे आसात. एकएकल्याक घरांतल्यान भायर वोडून काडून मारतलों.

बारवालो : ना पात्रांव, तुज्या उतराभायर ना आमी.

कॉंट्रेक्टर : चल, सकयल धांव मार आनी गांवच्या सगळ्यांक हांवेने वयर आपयलां म्हणून सांग. कामेऱ्यांक पसून, चल धांव.

(बारवालो धांवत सकयल वता. दुसरे वटेन शंकू येता. तकलेक मार लागिल्यान पिशेपणा करता. मर्दीच हांसता, मर्दीच रडटा. कॉंट्रेक्टर पळोवन हांसता)

शंकू : तूं मारतलो, सगळ्यांक मारतलो. म्हाका खबर आसा .... (ताळयो वाजयत.) आतां मज्जा, आतां मज्जा जातली. सगळें बुट्टटलें..., सगळें सोपतलें..., सगळे पुरतलें.... काब्बार जातलें.... मज्जा जातली, उय्या, मज्जा जातली....

कॉंट्रेक्टर : पाड पडिल्ली पनवत फाट सोडीना म्हजी. व्हरून वडयात ताका भायर! (दोगूय गुंड शंकूच्या बचकुलाक धरून ओडीत व्हरतात. तो हुयेली मारता. मजगती लोक एकठांय येतात. शंकुच्यो किळांच्यो आयकून सगळे भिल्यात. दोगूय गुंड परत येतात.)

कॉंट्रेक्टर : आयकात, आयकात ह्यो किळच्यो. मद मारला ताका. उदयान शिकोवन धाडला आसतलो. आमच्या भितरल्यो बातम्यो काडून

घेवपाक. त्या उदयाचो कितें तरी उपाय करचोच पडटलो.

लोक : पात्रांव, तेजे तकलेक बंदोबस्त बसला, तेन्नाच्यान तो तकलेन आवट जाला न्हूं?

कॉंट्रेक्टर : तुमकां कोणाक आवट जावपाचें आसा? सारकें कान दिवन आयकात. हांगा कोणाच्यो बाबुडक्यो चलपाच्यो नात. ताची तकली हावेन फोडल्या, उदयाच्या दोळ्यामुखार! हाचेर कोणाक कितें उलोंवपाचे आसा?

लोक : आमकां हांगा कित्याक आपयल्यात?

कॉंट्रेक्टर : तुमकां सगळ्यांक खबर आसतलीच, कंपनीचो बिझनेस खूब वाडला. आमचे अक्षेपेपरस बरे क्वालिटीचो म्हाल आतां आमकां मेळपाक लागला. आनी तो चडसो म्हाल ही मुखार देवराय दिसता ते जमनी पोंदा आसा.

लोक : म्हणजे आमची देवराय....?

कॉंट्रेक्टर : हय. वडवची पडटली. आनीक दुसरो उपाय ना.

लोक : पूण तेन्ना भाईन सांगलेले....

कॉंट्रेक्टर : तुमचो भाई गेलो तेल लायत. ताका मडगावां कंपनीन बंगलो बांदून दिला. ताचो सगळो खर्च कंपनी करता. ताका आतां विधानसभेची तिकिटय मेळपाची आसा. आतां तुमच्या ह्या बारीक बारीक गजालीनी लक्ष घालपाक ताका वेळ ना.

लोक : आरे! अशें कशें जातलें? तेन्ना पात्रांवान आमकां सांगलेलें....

लोक : तशें सांगणे केलां आमी देयीकडेन. देवराय वडयली जाल्यार गांवाचेर अपसरण येतलें.

कॉंट्रेक्टर : तेन्ना सांगणे केल्लें तें त्या पात्रांवान. सद्या कंपनीचो पात्रांव हांव. म्हज्यान कितेंय करूं येता. (व्हडल्यान भितर उलो मारता) सलीम?

सलीम : (भितरसून) जी साब।

कॉंट्रेक्टर : वो डिसुझाको बोल, आज ये सामनेवाली देवरायको डोझर लगाना है।

सलीम : (भितरसून) जी साब।

काँट्रेक्टर : पुरा काम आज ही खतम करना है।

सलीम : (भितरसून) जी साब.

लोक : आमी देवराय वडोवपाक दिवंचे नात.

काँट्रेक्टर : ओह...! कोण उलयलो तो? (सगळे एकमेकाक पळयतात) तुमी देवराय वडोवपाक दिवचे नात! कोण तुमी? अं? तुमी कोण? चार दीस ट्रकाच्यो ट्रिपी बंद केल्यो जाल्यार पात्रांवाच्या दारार धोपरां घांशीत येवपी ते तुमी? सगळ्यो शेतजमनी पुरवल्यो, आतां आमकां खावपाक कांय ना, म्हज्या पुताक तिस्कार ट्रकांक बावटो दाखोंवपाक तरी उबो कर अशें म्हणून पात्रांवामुखार गळवझा येवपी ते तुमी? कोण तुमी याद दवरात. तुमी आता तुमी उरुंक नात. हे मातयेंत वळवळपी गायंडोळ जाल्यात. तुमी जर हें काम आडावपाचो यत्न केलो जाल्यार तुमकां सगळ्या गांवच्या लोकांक कामावेल्यान काडून वडयतलों. तुमच्यो सद्या शेत जमनी पिड्ड्यार जाल्ल्योच आसात, दुसरेकडेन काम मेळप कुस्तार जातलें. तुमचें सद्या जे कंपनीत ट्रक चलतात, ल्हान व्हड काँट्रेक्टां चलतात ती सगळीं बंद जातली. तुमकां सद्या उदरगतीच्या नांवान जांव लुकसाण भरपायच्या नांवान कंपनीकडल्यान पयसो मेळटा तो सगळो बंद जातलो. कोणाक धमक आसा हें सगळें आडावपाची? एक तुमचो भाई नांवाचो आदार आसलो पूण तो आतां कंपनीच्या ताटासकयलें माजर जालां. चलात, हांव आसो कुशीन उबो रावतां. तुमी देवराय वडोवपाचे काम आडावन दाखोवचें. पूण एक लक्षांत दवरात, पयलो मनीस जो काम आडावपाक पावल फुडें घालतलो ताच्या घरादारावेल्यान पयलीं डोझर भोंवतलो. मागीर देवरायचेर. चलात. कमऑन.

(एकवटेन उबो रावता. कोणाक फुडें सरपाचें धाडस जायना. सगळे मान सकयल घालून परत आपआपल्या कामार वतात. शंकू खंयच्यान तरी येता. ताळ्यो वाजयता. हांसता)

शंकू : बुडटलें, सगळें बुडटलें...! कांय एक उरचें ना...! सगळें सोपतलें...! (हांसता)

कॉंट्रेक्टर : धर रे ताका. व्हरून वडय मायनींत! परत हांगा दिश्टी पडपाक जाय ना तो. व्हडलोसो फातर बांद गळ्यांत!

(गूंड शंकूक धरतात. तो आड्ड्यो मारता. इतल्यात खंयच्यान तरी उदय येता)

उदय : रावात, सोडात ताका.

(गूंड शंकूक सोडटात आनी कॉंट्रेक्टराकडेन येवन उबे रावतात)

उदय : ताका कित्याक मारतात? तुमचो गुन्यांवकारी हांव! तुमच्या मार्गांत हांव आडवो येता.

कॉंट्रेक्टर : तूं हांगा कित्याक आयला?

उदय : तूं म्हाका विचारपी कोण? हो गांव म्हजो. हांव म्हज्या गांवांत म्हाका जाय थंय भोंवपी. म्हाका म्हज्या गांवच्या लोकांक मेळपाचें आसा.

कॉंट्रेक्टर : यो, असो हेवटेन यो. तुका तुजे गांवचे लोक दाखयतां. (उदय एके उबार सुवातेर उबो रावता) हे पळय तुजे गांवचे लोक! कशे मानो बागोवन मोन्यानी कामा करतात ते! पळय!

(उदय रागान पळयता)

कॉन्ट्रेक्टर : ना. तांकांय तिडक आसा. तांकाय तुजेवरी राग येता. पूण अन्याय कसो आसता? अन्याय म्हणजे कितें? हाचो अर्थ तांचेमेरेन पावूंक ना.

उदय : हांव पावयतलों तांचेमेरेन अन्यायाचो अर्थ! चड पयशांचे आशेन तुवें मायन कशी पोखरीत व्हेल्या तेवूंय सांगतलों. केन्नातरी तेंच्या कपलार ती कोंसळटली ताचीय जाणवीक तेंका करून दितलों.

(दोगूय गुंड फाटसून उदयाक गच्च धरतात.)

कॉंट्रेक्टर : आतां तुकां तें शक्य ना. आमी मनशांक वाऱ्यार वडयनात. सोमतेच फोंडात घालतात. तुजो आवाज तांचेमेरेन पावचो ना. तुजी आरड ते धडेर वचून आदळटली पूण फोडांत आशिल्ल्या

लोकांच्या कानामेरेन कशीच पावची ना. यो, आतां हेवटेन पळय. तुजे श्रद्धेक, तुजे अस्मीतायेक, मातयेभरवण करपाखातीर हाव डोझर लायला.

उदय : ना. ना. हांव अशें जावपाक दिवचों ना. सोड म्हाका. म्हजी देवराय अशी मातयेभरवण जावपाक हांव दिवचों ना. म्हाका सोड! (लोकांक) आरे पळयतात कितें? धांवांत, आडायात तांकां. आमच्या गांवपणाक सोंपयतात ते. छातीचें कोट करून उबे रावात तांचे मुखार. तो चलता तो डोझर आमच्या स्वत्वाचेर. तो चलता तो डोझर आमच्या स्वाभिमानाचेर. चलात, घालून घेयात त्या डोझरामुखार, बलीदान करात, तेन्नाच हें थारतलें. चलात, धांवात. (उदय आड्डत रावता, कोण मुखार सरना. डोझराचो आवाज वाडत वता, रुख कोसळिल्याचो आवाज. सगळें शांत. उदय खर्शेता. दिमयो मारुन बसता. गुंड ताका कशेच सोडिनात)

कॉंट्रेक्टर : (उदयाच्या केशटांक धरून उबो करता. एक कानसुलार फुलयता) आमी रुखाच्यो वयलेवयर खांदयो बेणीत बसनात. सोमतो मुळाकच डोझर लायतात. मूळ दवरलें जाल्यार सांगू नज ताका कोमरी फुटूं येता. चलात रे घेवन हाका. बरे घट्ट हातपांय बांदात आनीं वडोवन दियात मायनीत. सद्यां मायनूय उदकान बरीच फुगल्या. तिकाय कोणाचो तरी बळी जाय.

(अचकीत मायन कोसळिल्ल्याचो व्हडलो आवाज येता. लोकांच्यो हुयेली, धांवात, वांचयात. लोक धांवत वयर येतात. कोणाक कितें करचें तें कळना. शंकु खंयच्यान तरी 'उय्या, कुय्या, सगळें सोपलें, सगळें बुडलें' अशें बडबडत वारू कसो मायनीवटेन धांवता. उदय गुंडाकडल्यान आपल्याक सोडयता आनीं 'शंकु राव, शंकु राव' करीत ताचे फाटसून धांवता. कॉंट्रेक्टर आनी गुंड उदया फाटसून धांवतात. बरोच वेळ मायन कोसळत आशिल्ल्याचो आवाज. मागीर सगळें शांत.)

## देखाव : चवथो

(मायन कोसळून वीस दीस जाल्यात. शंकरदादी आनी बाकीचे लोक, जाण्टे, भुरगीं सुतकी तोंडां करून देवळाकडेन बसल्यात. आयज गांव सोडपाचो आसा. शंकरदादी उठ्ठा. सांतेरीक नाक घांसून पायां पडटा. बाकिचेय पांयां पडटात. शंकरदादी रडत रडत कळस माथ्यार घेता आनी सगळ्यां फुडें चलूं लागता. ताचेफाटल्यान रांकेत बाकीचे लोक. एका अर्दान गांवाचो आनी उदयाचो आत्मो दिश्टी पडटा. गांवाचो आत्मो धांवत वता आनी सगळ्यांक आडावपाचो यत्न करता. पूण तो कोणाक दिसना, कोणाक कांयच फरक पडना)

गांवाचो आत्मो : शंकरदादी, शंकरदादी, नाका रे सोडून वचूं म्हाका. आरे म्हाका असो उबांतरा वडोवन तुमी खंय वतात? (लोकांक दिश्टी पडना) आगे वयनी, तूं तरी सांग. गोयनआपा, गोयनआपा, आरे आयकात म्हजें. आरे कोणतरी आयकात म्हजें. म्हाका सोडून अशे वचूं नाकात. (मजगतीं सगळे गेल्ले आसात) शंकरदादी, म्हजे आयकून दवर! तुमी उबंतरा पडटले! परदेसी जावन पडटले दुसऱ्या गांवांनी! कोण पळोंवचो ना तुमकां, कोण विचारचो ना! गर्देंत शेण्टले तुमी, सगळे विरगळून वयतले! म्हाका सोडून वचू नाकात, म्हजें नांव पुसू नाकात... म्हाका वांचयात... म्हाका वाचयात...
(रडटा, उदयाच्यान सोंसपाक जायना)

उदयाचो आत्मो : पुरो पुरो कर हें सगळें. म्हज्यान सोंसू नजो. हांवेंन पळयलां हे सगळें. हावूंय गळगळ्यां आयिल्लो दर एकल्याच्या फुड्यांत! तातूंत म्हजी आवय आसली, भयण आसली, दायजी आसले, बरें मागते आसले. पूण कोणेच आयकूंक ना. कशे आयकतले? जितेपणीं म्हजो आड्डयो जांच्या कानांमेरेन पावल्यो नात ते म्हज्या आत्म्याच्यो आड्ड्यो कशे आयकतले? तांची म्हणून कांय एक चूक ना. मायन कोसळून वीस दीस जाले, एकवीस लोकांमदलीं फकत पांच मडीं उस्तून काडलीं कंपनीन! आनी मायन बंद करून

कवळ्ळी बिटकी. कित्याक रावचें लोकांनी हांगा? कितें खावचें? तरीय लोक रावता आसले खावन गुंडे -- माती ! पिकयता आसले रिजेक्शनाचेर आपल्या कश्टांची फळां. पूण जाच्या धिराचेर हो गांव चलयताले तो मुळपुरुस! ताकाच केलो मातयेभरवण! तेन्ना लोकांक दिसपाक लागलो कोण तरी पिसो शंकु ताळयो वाजयताना! कोण तरी कुष्टा आड्ड्यो मारताना! सगळीं मातयेपोंदा पुरून उरिल्लीं मडीं थयथय नाचपाक लागलीं लोकांच्या दोळ्यांमुखार भुतांवळ जावन. हे भुतावळींत कशे रावतले लोक?

गांवाचो आत्मो : म्हणजे हांवें इतल्या वर्सांची आस्त सोडून दिवची अशें म्हण्टा तूं?

उदयाचो आत्मो : ना, तुका आनीक वाट पळोंवची पडची ना. हो आयक कोणा मनशाचे पावलटीचो आवाज! ही पावलट थंड शितळ झूर झूर वारो घेवन येता काय सुरींग पेटोवपी उज्याकीट जावन येता तें मात पळोंवचें पडटलें.

(किरण, एक वीस बावीस वर्सांचो भुरगो आपल्या इश्टाक चेतनाक घेवन येता)

किरण : चेतन, आरे बेगीन यो, होच तो जागो, शुअर!

चेतन : आवयस! कितलीं भुयारां भुयारां कशीं रे! बेस्टोच ह्या जाग्याक नांव पडूंक ना, भुतांवळो! हे किरण, म्हाका दिसता, आमचे सरभोंवतणी एक दोन तरी भुतां आसतलीं न्हय रे?

किरण : वगी राव पळोवया, चड भुरगेपणा करूं नाका. मात्शें मन लावन सोद. इतल्याच कुडक्याक खंयतरी आसतलें. (सोदता सोदतां) म्हजो आजो सांगी एकवीस लोकांक जित्ते पुल्ले खंय हे मायनीन!

चेतन : आवयस!

किरण : कितें जालें?

चेतन : हें पळय, हें पळय, हांगा एक पाशाण आसा, मुळपुरसाचेंच तें!

किरण : पाशाण मेळळें! मुळपुरसाचें पाशाण मेळळें! ओ माय गॉड! आय कान्ट इमेजीन! (हातांत घेवन) खरेंच दिसना न्हय? म्हजो आजो

सांगतालो सांतेरीचो कळस माथ्यार घेतलो आनी काळजार पाशाण दवरून मुखार पावल घातलें. सांतेरी, देवराय गांव आनी मुळपुरुस हीं चार नावां ताणें आपल्या निमाण्या स्वासामेरेन झरय झरयली. हां, आनीक एक नांव घेतालो तो, उदय! सुर्या कसो एकलोच पर्जळटालो तेदेवेळार! ह्या खिणाक पसून ताचो अतृप्त आत्मो हांगासरच खंयतरी भोंवता आसतलो. वाट पळयता आसतलो झणझणून येवपी मुक्त विचारांची! तूं खंय आसा थंयच्यान आयकून घे, तुज्या विचारांचो म्हारू आमच्या सगळ्यांच्या कांट्यार बसला. तुवेंन तुज्या विचारांची तेन्ना एक झर व्हांवयल्ली तिची आतां व्हड न्हंय जाल्या. कांय वर्सांनीं दर्या जातलो.

चेतन : किरण तूं सांगतालो न्हय हांगा एक पळस रुखांची देवराय आशिल्ली म्हणून? चल चल एक रोंपो मेळटा जाल्यार पळोंवया.

(दोगूय रोपो सोदतात, उदय आनीं गांव खूश)

उदयाचो आत्मो : (गांवाक) घे आंगार मिरोवंन हे रत्नांचे अळंकार! तुका आतां तुजें वैभव परत मेळटलें. खळखळून व्हांवतलीं ही आता न्हंय तुज्या रंधारंध्रांतल्यान! सळसळटलीं हीं शेतां – भाटां झेतान तुजे उमेदीच्या तालार! वडय फाफडून तुजें हें रडकुळें आंगलें आनीं चडय नव्या विचारांचो साज! चैतन्याचो, संस्कृतायेचो! घे हातांत धोलाची तोणी आनी घाल चाळोवन तुजे भुतावळीक. याद दवर भुतावळ जेन्ना पेटून उठ्ठा तेन्नाच क्रांती जाता. वाजय... वाजय (सगळी भुतावळ रोमट मारीत येता. मजगतीं किरण आनी चेतनाक पळसाचें रोप मेळिल्लें आसता. ते दोगूय उमेदीन थंय रोयतात. पाशाण एका जाग्यार पुजतात. भुतांवळो हेवटेन शबय मारता तें तांकां खबर नासता. रोंमाट चालू आसतनाच काळोख जाता.)



2

# इंप्रोवायझेशन

: पात्रां :

सर

रमेश

चेतन

धा बारा चलयो आनी चले

(थळ – न्हंयचे देगेवयली एक सुवात. न्हंयची धड म्हणल्यार बरें जातलें. एका अर्दान पांच स मिटर खोल न्हंयची कोंड आसा. वेळ सकाळीं णव – धा चो, एक सोळा सतरा वर्सांचो तरणाटो येता. हांगासरलो देखावो पळोवन भुल्लुसता आनी आपल्या वांगड्यांक आनी सराक उलो मारता.)

तरणाटो : सर, विजय, हांगां येयात. व्हॉट ॲन एक्सायटींग! सर बेगीन येयात. आनीक आमकां खंयच वचपाची गरज ना.

(सकयल्यान 'येतां येतां राव, बोवाळ कित्याक घालता?' अशे तरेच्यो धा बारा भुरग्यांच्यो जापो आनी बोवाळ आयकूंक येता)

तरणाटो : उय.... हांव हो पळयात हेवटेन उबो आसां. तेवटेन सकयल्यान वचूं नाकात, अशे वयले वटेन येतात.

(चार पांच चलयो आनी सात आठ चले खंयचेय हायरसेकेन्डरी स्कुलाचे सोबत येतात. तांचे वांगडा तांचो सर आसा. भुरगीं वाठार पळोवन उमेदीन नाचतात.)

भुरगो 1 : आवयस! कितलो सुंदर स्पॉट!

भुरगो 2 : इतलो लागीं आसून आमीं केन्ना पळोंवकूच ना!

भुरगो 3 : हे, हांगाच्यान पळयात केदी व्हडली कोंड!

भुरगो 4 : आवयस! सामकें रिस्की मरे! हांगच्यान कोणूय निसरत जाल्यार सोमतो कोंडीत पडटलो.

भुरगो 5 : ए, करिश्मा, पळय मुगो.

करिश्मा : हांवें पळयल्या, आमी एकदा आयिल्लीं.

भुरगो 1 : कोण गो, तूं आनी प्रशांत?

करिश्मा : तें तुमकां कित्याक?

भुरगो 3 : कित्याक गो आयिल्लीं?

करिश्मा : जीव दिवपाक. (सगळीं हांसतात)

सर : पळयात, तुमी हांगा पिकनिकेक येवंक नात आनी वन भोजन करपाकूय येवंक नात. तुमी थियेटर आर्टसाचे स्टुडंन्ट. सो आय वॉन्ट डिसीप्लीन.

भुरगो 4 : सर, आमी हांगच्यान परत केन्ना वचप?

भुरगो 1 : आत्तां पावता थंय आसात आनी जालें तुजें परत वचपाचें?

भुरगो 4 : ना, सर डिसीप्लीनाच्यो गजाली करता न्हू.
(सगळीं हांसतात)

सर : शू.... आमी रोकडेच परत या. एका अर्द वरा भितर, पूण आमी ज्या कामाखातीर हांगांसर आयल्यात तें तरी पयलीं पुराय करुंया.

भुरगो 4 : ओ. के. सर, म्हाका दिसता हीच सुवात सामकी परफेक्ट आसा. ही पळय, हेवटेन एन्ट्री घेवपाक बरी वाट आसा. तेवटेन एक्झीट घेवपाक मेळटली. सुकण्यांचो चिवचिवाट आसा.... न्हंयचो खळखळाट आसा.... लायट इफेक्ट बीन....

भुरगो 5 : ओ.... डायरेक्टर, एक्टर, पुरो. हांगां कितें बरें आसा आनीं आमकां कितें करपाक जाय तें सर आमकां ज्युस्त सांगतलो. तूं बस पळोवया.

भुरगो 1 : इंप्रेशन मारपाक क्लासरूम आसा...
(सगळी हांसतात. तो बेजार जावन बसता)

सर : महेश तुजें ऑब्झरवेशन बरें आसा. पूण अती उत्साह बरो न्हय. तुमकां हावें ह्यान पयलींय सांगलां, थियेटर आर्टस् हो एक असो विशय जाका एक नेमून दिल्ली चौकट ना, फास्की ना. जश्यो बाकिच्या विशयांक मर्यादा आसतात तश्यो मर्यादा ह्या विशयाक ना. हो विशय मनशाचे जिणेकडेन संबंदीत आसा तसोच पर्यावरणाकडेन, हेर जनावरां, जीव जिवाणू हांचेकडेनूय संबंदीत आसा. ऑब्झरवेशन इमीटेशन आनी परफोरमन्स ह्यो तीन गजाली जर तुमी आत्मसात केल्यो जाल्यार हो विशय तुमकां चड

ब्रे तरेन कळटलो. आमी जायते फावटीं क्लासरुमांत वेगवेगळ्या विशयांचेर इंप्रोवायझेशन करतात. आयज म्हजे तकलेंत एक विचार आयलो, कित्याक आमी अशे सुवातीर वच्चें न्हय, जंय माकड आसात, खेर्ती आसात, सुकणीं आसात, सावदां आसात. थंय तांचें इमीटेशन आमी करचें. नक्कल आमी करची. तुमकांय सगळ्यांक मजा येतली.

भुरगो 2 : वॉव! सुपर आयडिया सर!

भुरगो 1 : सर हांव जाल्यार माजर जातलें.

भुरगो 3 : तशें जाल्यार हांव बुकलो सर. म्यॉव.

सर : आनी हुंदीर कोण जातलो?

सगळे : महेश!

(सगळीं हांसतात)

महेश : हांव कित्याक? हांव वाग जातलों.

सर : बरें बरें. आपल्याक कोण आवडटा ताची नक्कल करपाची. ओ. के.? करुंया सुरवात?

सगळे : यस सर (जण एकलो आपल्याक जाय त्या जनावराक इमीटेट करतात)

सर : ओ. के. पुरो आतां. विजय तुकां कशें दिसलें?

विजय : जस्ट थ्रिलींग सर.

सर : विकास, तुका?

विकास : सर, म्हाका जाल्यार दिसता, सद्दां क्लासी हांगासरच घेवच्यो.

भुरगें 2 : ना हां सर, तुमकां चल्यांक किर्ते? म्हजेकडेन जावचें ना बाये सद्दां हांगां मेरेन चलत येवपाक.

भुरगें 3 : तशें जाल्यार थिएटर विशय कित्याक घेतिल्लो?

भुरगो 2 : चेतनान घेतला न्हय रे? (सगळीं हांसतात)

सर : हां पुरो, अशे पर्सनल कॉमेन्टस करप बरें न्हय.

भुरगो 2 : सॉरी सर.

सर : गुड, तुमचे इंप्रोवायझेशन बरें आशिल्लें. स्पेशियली तुजें. तुजो

माकोड बरो आशिल्लो. (ताळयो) आनी तुवेनूय माजराक बरें इमीटेट केलें. (ताळयो)

महेश : सर, आनी म्हजो वाग?

सर : फकत तोंड वांकडें करतालो, शेंपडी हालय नासलो (सगळीं हांसतात)

भुरगो 2 : आनी सर, सगळ्यांक नाकटां लावन बुचकायलें बी तेणें.

चली : आनी सर, तेणें म्हाका चिमटोय काडलो.

महेश : हांवें न्हय सर, वागान चिमटो काडलो.

भुरगो 4 : बेस्ट आयडिया, तूं फाल्यां वागूट जा आनी तेका चिमटो काड. फिटाफीट.

सर : अशे हेवटेन येयात. तुमी जाणा आसतले, ही व्हांवता ती म्हादय न्हंय. हे म्हादयेचेर कितले वझरे आसात? कोण सांगू शकता?

भुरगो 1 : हांव सांगू सर?

सर : सांग.

भुरगो 1 : दोन.

भुरगो 2 : फक्त दोन.

भुरगो 1 : हय. एक हरवळेंचो वझरो. दुसरो दुधसागराचो. पुस्तकाचेर बरयल्लें आसा मरे.

सर : ना. हे दोनूय वझरे म्हादयचे न्हू. आमी फकत पुस्तकांतलेंच शिकतात. खरी गरज आसा सरभोवतणी पळोवपाची. हे न्हंयचेर एक आनी दोन न्हय, अशे विसांवयर वझरे आसात. कितल्योश्योच कोंडी आसात. न्हंयच्या दोनूय अर्दान कितलेशेच गांव आसात. दर एका गांवाची एक लायफ स्टायल आसा. तांची स्वताची म्हणून एक स्वतंत्र समाज वेवस्था आसा.

भुरगो 4 : सर, म्हजे तकलेंत एक बॅस्ट आयडिया आसा. आमी असो एक स्पॉट घेवंया, असो एक गांव घेवंया आनी तांचे समाजवेवस्थेचेर इंप्रोवायझेशन करुंया.

भुरगो 3 : जालें? उलयलो तूं? तुका आनी मदीं उलयले बगर जायच ना

न्हू?

भुरगो 2 : सर, हाकाच शिकोंवदी कितें तें.

सर : म्हजोय तोच विचार आसा

भुरगो 2 : कितें? हो आमकां शिकयतलो?

सर : ना. हावूंच तुमकां शिकयतलों. म्हाका तुमचेकडल्यान एक इंप्रोवायझेशन करून घेवपाचें आसा. हांव तुमकां एक विशय दितां. हे न्हंयचे देगेवयल्या एका गांवाचो विशय. तुमी रेडी आसात न्हय?

भुरगे : ओ.के. सर वी आर रेडी.

सर : अशे लागीं येयात. हे न्हंयचे देगेवयलो एक गांव. विशय सारको आयकून घेयात. गांवचो लोक खूप कश्ट करपी आसा. गांवांत गांवपण आसा. कसलोय निर्णय घेवपाचो जालो जाल्यार गांवच्या देवळांत रोकडोच मेळो जाता. न्याय निवाडो गांवूच करता. गांवांत एकी आसा. पुलीस वा सरकार तांचेभितर चडसो पडना. तर ह्या गांवांत एक मंत्री येता आनी सांगता. गावांक सगळ्यो सुखसोयी सरकारान दिल्ल्यो आसात. पूण भुरग्यांक खेळपाक ग्रावंड ना. तुमचेमदीं जर कोणूय जमीन दान करपी आसत जांव सरकारी पडींग जमीन खयूंय आसत जाल्यार म्हाका सांगची हांव तुमकां रोखडोच ग्रावंड मंजूर करून दितां. मंत्री इतलें सांगून वयता. गांवचो दोळो शिवाप्पाचे जमनीचेर पडटा. शिवाप्पा, ताची बायल आनी इश्कोलाक वचपी एकलोच चलो ते जमिनीवयल्यान पोट भरतात बाकिच्या लोकांवरीच शिवाप्पाय सरकारी जमनीत रावता. गांवांक तोच जागो योग्य दिसता. आतां गांव ताचेकडल्यान ती जमीन कशी घेता तें तुमी इंप्रोवायझ करून दाखेवपाचें.

भुरगो 1 : सर शिवाप्पाक थंय कितलीं वर्सां जाल्लीं आसतात?

सर : धरुंया पंचवीस वर्सां.

भुरगो 3 : सर, मागीर शिवाप्पा खंय वता?

सर : सगळेंच हांव सांगू? शिवाप्पाचें फुडें कितें जाता, शिवाप्पा फुडे

खंय वता तें तुमी इंप्रोवायझ करून दाखेवपाचें. चलात बेगीबेगीन तुमचेभितर कास्टींग करात.

रमेश : (इतलो वेळ व्हडलोसो नदरेंत भरना. एकदम कितेंतरी जाल्लेभशेन) नाका सर! सर, हें इंप्रोवायझेशन करू नाकात.

सर : आरे, पूण कित्याक?

रमेश : हांव नकळो सर. म्हाका त्रास जातलो सर! प्लीज सर हें इंप्रोवायझेशन करूं नाकात.

सर : आरे पूण कसलो त्रास जातलो? तुज्या जिवाक बरें ना? तूं घरा वता?

रमेश : ना सर. म्हाका तशें कांय एक जायना. पूण म्हज्यान हें पळोवपाक जावचें ना. सर प्लीज.

सर : पळय रमेश, असो एकदम एक्सायट जावप बरोबर न्हय. तुजे कसलेय पर्सनल प्रोब्लेम आसात ते तुवेन हांगा विसरपाक जाय. कांय तेंप तुवें ह्या वातावरणांत समरस जावपाक जाय. तुजें मन ल्हव जातलें. बाकिचें सगळें विसर. बी कॉन्सन्ट्रेट.

भुरगो 1 : सर, ताची मनस्थिती बरोबर ना. त्या दिसा तेणे क्लासीतूय अशेंच केल्लें. आमच्या आंगार झुडोवन आयिल्लो.

भुरगो 2 : सर, ताका वांटो घेवपाचो ना जाल्यार तेणें कुशीक बसचें. आमकां डिस्टर्ब कित्याक करता?

सर : ना, रमेश वांटो घेतलो. आनी बरें इंप्रोवायझेशन करून दाखयतलो. हय मरे रमेश? कमॉन, थिएटरच्या भुरग्यान इतलो भावार्थी आसप सारकें न्हय.

भुरगो 3 : रेश्मा, तुका वायट दिसलें मुगो?

रेश्मा : हय तर.

भुरगो 4 : पळय, रेश्माक पसून वायट दिसलें (सगळीं हांसतात)

सर : चलात चलात, बेगीन सोंपोवया, दनपार जावचे पयलीं परत वचपाक जाय. चलात आपआपलें कास्टींग करात. (बाकीचे कास्टींग करपाखातीर ग्रुप करून डिस्कस करतात आनी रमेश

आपूण वांटो घेयना म्हणून सराक कन्व्हीस करता अशें मायम
चल्लां. निमाणें सर ताका बसपाक लायता. तो मेरेन बाकीचे तयार
जातात. जशे तशे प्रसंग चलतात तसो तसो रमेशाचेर परिणाम
जाता. जशें किर्ते हें इंप्रोवायझेशन ताचेरच चल्लां.)

सर : रेडी? ओ. के. ही एन्ट्री, हो एक्झीट, ह्या उबार सुवातीचोय तुमच्यान वापर करूं येता. मात्शें तेवटेन सांबाळचें पडटलें. तेवटेन एक धेकस आसा आनी सकयल व्हडली कोंड आसा. सकयल पडशात जाल्यार म्हाकाच उडकी मारची पडटली, आनी तुमकां सगळ्यांक खबर आसा म्हाका पेंवपाक येना. ओ. के? रेडी? वन... टू... थ्री... स्टार्ट...

(मंत्री येवपाचो आसा. लोक वाट पळयता. कांयजाण हेवटेन तेवटेन बोवाळटात.)

बायल 1 : केन्ना येतलो काय हो मंत्री काय संत्री कोण तो?

बायल 2 : हय तर गे. केन्नाच वेळार म्हणून येवचो ना.

बायल 3 : फाटल्या दिसांनी मात वर भर पयलींच देवळांत येवन बसतालो.

बायल 1 : आतां निवडलो न्हू गे तो? वयल्यान मंत्री जाला खंय.

बायल 4 : आतां आमचें लोकांचे तेका कित्याक पडलां?

बायल 2 : आगे आमचेखातीरच येता तो.

बायल 3 : तुजेखातीर येत बाये. तुज्यो फावटीय खूब आसतात न्हू गे? (हांसतात)

दादलो 1 : हें मात सरकारान बरें केले हां.

दादलो 2 : विकास म्हणटात तो असो करपाक जाय. सगळ्यांक नोकऱ्यो त्यो मागीर हजाराच्यो जांव जाल्यार देड हजाराच्यो. भुरगे पोटाक लागले. ना जाल्यार वाऱ्यार पडपाचे.

दादलो 2 : हय, आनीक जे उरले तेंकां कॉन्ट्रॅक्टर करून वडयले. एक बेकार म्हणून मेळपाचो ना.

दादलो 4 : ताका लागून आमची वाट लागली.

दादलो 1 : कशी?

दादलो 4 : बेकार आसलेले जाल्यार हांगा माटवांत बोवाळटले आसले.

(इतल्यांत मंत्री येता. मात्शी धांवपळ. मागीर सगळे वग्गी. मंत्री येवन बसता)

निवेदक : तर हांगा जमिल्ल्या म्हज्या गांवभावांनो, आयज आमच्या गांवांत मंत्री महोदय आयिल्ले आसात तांची वळख करुन दिवपाची तुमकां गरज ना. तांकां रोखडीच दुसरेकडेन एक म्हत्वाची बसका आसा, ताका लागून ते रोकडेच वतले. आमच्यो अडचणी आनी समस्या हांचें लिस्ट पयलींच आमी तांचेकडेन दिल्लें आसा. तेन्ना उपकार करुन मर्दी कोणे प्रस्न विचारचे न्हय. जें मंत्री महोदय सांगतात तें मोन्यानी आयकुपाचें. कसलोय दुबाव आसल्यार फाल्यां आमच्या कार्यालयांत येवन तुमचे शंकेचें समाधान करून घेंवचें. तर मंत्री महोदयांक हांव विनंती करतां, तांच्यानी आमकां, आमच्या गांवभावांक तशेंच गांवभयणांक मार्गदर्शन करचें. (ताळयो.)

मंत्री : ह्या गांवच्या म्हज्या भावांनो आनी भयणांनो. तुमी जनता जनार्दनान म्हाका निवडून हाडलो त्या बद्दल हांव तुमकां देव बरें करूं म्हण्टां आनी ह्या देवाचे कृपेन म्हाका तुमची सेवा करपाक मेळटा म्हणून हांव म्हाका धन्य समजतां.. (ताळयो) हावें जेन्ना मंत्रीपदाचो सोपूत घेतलो तेन्ना म्हजे तकलेंत पयलो विचार जर खंयचो आयलो जाल्यार तुमचो. म्हज्या मतदार संघातल्या मतदारांचो. आनी आयज हांगा बशिल्ले हे गांवचे ग्रामदेवतेचो सोपूत घेवन हांव तुमकां उतर दितां की सरकाराचो चडानचड फंड हांव ह्या गांवाचो विकास करपाखातीर खर्च करतलों. (ताळयो) आतांच गाडयेन येतासतना हावें तुमच्यो सगळ्यो अडचणी वाचून काडल्यात. बारीक मोठ्या कामाविशीं हांगच्या म्हज्या सक्रीय कार्यकर्त्यांलागीं हावें सविस्तर चर्चा केल्या. आतां तुमचो मुखेल प्रस्न आसा तो ग्रावंडाचो. हांगा भुरग्यांक खेळपाक मैदान ना अशें तुमीं म्हण्टात. तुमची मागणी रास्त आसा. तुमचे भुरगे सचीन तेंडुलकर जातले जांव लिएंडर पेस जातले जाल्यार सरकारी मैदान जायच. सादया

गांवठी मळार खेळून इतले व्हड जांवचे नात. ताका लागून हांव तुमकां एक उपाय सुचयतां. तुमचे भितरलोच कोणूय गांवभाव ना जाल्यार गांवयभयण जर आपली जमीन ग्रावंडाक डोनेट करता जाल्यार ती करची. कोण आसा तयार जमीन दिवपाक?

दादलो 2 : सायब, आमचेकडेन खंयची जमीन आसतली? ·आमी गरीब लोक.

दादलो 1 : सायब, ते परस तुमीच कित्याक सरकाराकडेन फावोर लावन आमकां खंयच्यानूय जमीन हाडून दिनात?

दादलो 4 : बगी बस थंय. हाडून दिवपाक कितें नाल्ल तो?

निवेदक : आरे, सायब खंयची दितलो? पणजेची जमीन दिली म्हणून आमकां परवडटा? वगीच मुर्खावरी प्रस्न विचारुन गांवाक लज करुं नाका.

मंत्री : आसूं, हांव तुमकां आनीक एक उपाय सुचयतां. हांगासर लागीसराक जर खंयूय सरकारी पडींग जमीन आसा जाल्यार तशी फायल करुन म्हजेकडेन पावोंवची. दुसऱ्या दिसासावन तुमकां ग्रावंड खेळपाक मेळटलो अशें हांव तुमकां उतर दितां. (ताळयो) हांव आता तुमचो चड वेळ घेना. तुमी म्हाका हांगां आपयलो आनी तुमचेकडेन संवाद सादपाची संद दिली म्हणून हांव तुमचें सगळ्यांचें देव बरें करू म्हण्टां. जयहिंद...

(ताळयो. बेगीबेगी वता. कांय लोक ताका पावोवपाक वतात.)

दादलो 3 : चॅं, बॅस्ट उलयलो हां.

बायल 1 : तेजें तोंड खरें आसा. बेश्टोच निवडून येंवक ना.

रमेश : (एकदम तिडकीन उटठा) नालायक, सुवार्थी, गांवाचो विकास करता खंय, गरीबांच्या पोटार पांय दिवन.

सर : पळयलें मरे तुजी एक्टींग बरी जाली. रमेशाक पसून आवडली. किप इट अप. रमेश बस आतां. मर्दी उलोंव नाका. इंप्रोवायझेशन जातकच सगळ्यांक उलोवपाक मेळटलें. (रमेश बसता) ओ. के. प्रोसीड.

दादलो 4 : आतां जमीन कोण दान करपाक पडला?

दादलो 2 : भांगर दीत पूण जमीन... चॅ...

बायल 2 : सरकारी पडींग जमिनय खंय होलमाक ना.

बायल 3 : दोंगर आसले म्हणून उपकारतात. मळ नाका तें?

बायल 3 : दोंगर तरी खंय उरल्यात पडींग? लोकांनी काजीचे रोपे लायल्यात दोंगारांचेर.

दादलो 1 : आनी ग्रावंड पयस आसून उपकारता? गांवांलागी नाका तो?

दादलो 3 : मागीर तूं तुजो भिन्डीकडलो सरद दी मरे. हरशीं म्हणून पडींगच आसता तो.

दादलो 1 : म्हजो सो सरद कित्याक तुजें भड्डीचें मळ दी. कोण खातलो तें? तुका भुरगें ना बाळ.

दादलो 3 : तूं म्हजें भुरगें वयर काडूं नाकां आं. नासूं म्हाका भुरगें. हावें तुजेकडेन मागूंक ना.

दादलो 1 : तूं बरो मागशीत. हावें दिवं नाका?

दादलो 3 : दीत तुजो बापूय.

दादलो 1 : कोणाच्या बापायक वयर काडटा तूं आं. कोणाच्या बापायक वयर काडटा? (आंगार झुडून वता)

दादलो 4 : आरे आरे, तुमी खंयची गजाल खंय पावयतात? आमकां पयलीं ग्रावंड जाय. भुरगीं देवान दिल्लीं खूब आसात आमचेकडेन. पयलीं ग्रावंड सोदात.

दादलो 2 : (एकदम आडून) मेळ्ळो, मेळ्ळो ग्रावंड, या हू....

दादलो 4 : आरे, असो एकदम काश्टी सोडोवन नाचता कित्याक? आमकांय सांग मरे, खंय आसा तो.

दादलो 2 : हो पळय, हो म्हजो पोलो. तुमकां कसो दिसता?

दादलो 4 : कसो म्हणजे? पोल्यासारको दिसता.

दादलो 2 : ना. हो पोलो सुजला. एका मनशान तो धा वर्सां फाटीं सुजयला. आमी क्रिकेट खेळटाले थंय. ताच्या दारांत तेन्ना तेणें म्हज्या कानसुलाचेर फुलोवन आमकां धांवडायल्यात.

दादलो 1 : शिवाप्पाची गजाल सांगता रे तूं?

दादलो 2 : हय तोच शिवाप्पा. तेका आतां सारकें शिकोंवया.

दादलो 1 : आजुनूय आमचे भुरगे थंय खेळटात मरे?

दादलो 2 : हय खेळटात.

दादलो 4 : मागीर प्रस्नच ना. तेणे आमकां ग्रावंडाक जागो दिवपाक जाय.

दादलो 3 : सगळें खरें, पूण तेची जमीन तो कसो दितलो?

दादलो 4 : कोणाची जमीन? शिवाप्पाची? सरकारी जमीन ती. आडायल्या शिवाप्पान.

दादलो 1 : पुण वीस पंचवीस वर्सां जालीं शिवाप्पा थंयसर रावता. आमच्यान तसो तेका उठ म्हणूं येता?

दादलो 2 : कित्याक म्हणू नजो? तेज्या बापायचो जागो? शिवाप्पा परदेसी, आमच्या गांवांत येवन रावला. गांव आमचो, गांवांक जाय जाल्यार तेणें उठपाक जाय, गांवांक जाय जाल्यार तेणें बसपाक जाय. गांव नाचयता तसो नाचपाक जाय. तेचोय भुरगो आसा, तेका खेळपाक ग्रावंड नाका?

दादलो 1 : चलात, सगळे जमलेले आसात तशे सोमतेच विचारुंया तेका.

दादलो 4 : आनी तेणें आयकूंक ना जाल्यार?

दादलो 3 : कसो आयकना तें हांव पळयतां, येयात (सगळे वतात).

रमेश : (एकदम तिडकीन उठ्ठा.) सगळ्यांक घेवन कित्याक वयता? गांवानेटार हुडटा? खऱ्या कास्ताचो जाल्यार एकलो वचून दाखय. (मागीर सर आपल्याक पळयता तें ताच्या लक्षांत येता. सामको बाबडो जाता. चुळबुळटा. सर कागदार बरोवन घेता.)
(शिवाप्पाचें घर. बोवाळ करीत सगळे येतात.)

दादलो 3 : शिवाप्पा... ओ शिवाप्पा...

शिवाप्पा : (शिवाप्पा पोरसांतल्यान भायर सरता) कितें रे सगळेशे हेवटेन येयले? मंत्री येवन गेलो?

दादलो 2 : गेलो तर! तुज्या राज्याक अजून पत्तोच ना?

शिवाप्पा : आमकां गरीबांक कोणे सांगला तें. आमचें तीन वेळाचें पोट भरपाक

कुस्तार. तें सगळें आसूं, तुमी सगळो गांव जमोवन म्हजेकडेन शे येयल्यात?

दादलो 4 : शिवाप्पो, तशेंच काम आसलें म्हणून आयिल्ले.

शिवाप्पा : गरिबाकडेन कसलें काम तुमचें?

दादलो 2 : शिवाप्पो, तूं आमचो मनीस, गांवचो मनीस, गांवचे सगळे गजालिनी तूं आसा अशें आमी मानीत आयल्यात.

शिवाप्पा : हें आनी सांगपाक जाय. हायेंन केन्ना ना म्हणलां.

(दाराआड उबी रावून आयकुपी शिवाप्पाची बायल मुखार येता.)

बायल : तुमी आयज अशें कितें उलयतात? परकी कशे. आमची कसली चूक जाल्या जाल्यार सरळ सांगात. आमकांय कळूं दी.

दादलो 1 : ना. तुमचें कांय एक चुकूंक ना. शिवाप्पा, तूं परदेसी आसुनूय आमचेमदलोच अशें गांव तुका मानता. आनी त्याच हक्कान आमी तुजेकडेन गांवाखातीर एक कितें मागपाक आयल्यात.

शिवाप्पा : गांवाखातीर हांव कितेंय करीन. ह्यान पयलीं केलां. म्हजे हातीन मात जावपाक जाय.

दादलो 1 : तुजेकडेन जातलें म्हणून तर आमी आयल्यात. आतां आनीक ताकाक येवन गाडगो कित्याक लिपोवया. तुका सरळच सांगतां. ही जी तुजे सामकार मेकळी सुवात आसा ती आमच्या भुरग्यांक ग्रांवडाखातीर जाय.

शिवाप्पा : कितें? तुमी म्हजीं फकाणां बी करी नात मूं?

दादलो 2 : ना शिवाप्पो, फकाणां न्हय हीं. आतांच आमी मंत्र्याकडेन हेविशीं उलयल्यात.

बायल : गांवकार भावोजी, आमी परदेसी जालीं म्हणून कितें जालें? म्हज्या भुरग्यांचो तरी विचार करात.

दादलो 3 : आगे वयनी आमी सगळ्यांच्या भुरग्यांचो विचार करतात. तातूंत तुजोय भुरगो आयलो. सारकें मरे?

दादलो 4 : हय तर. गांव म्हण्टकच सगळ्यांचे भुरगे आयले.

| | |
|---|---|
| दादलो 1 | : शिवाप्पो, मागीर कितें म्हण्टा? भुरगीं खेळटलीं जाल्यार दुसरो जागो ना. |
| शिवाप्पा | : ना. हांव ही म्हजी जमीन तुमकां दिवंचो ना. |
| दादलो 3 | : (एकदम तिडकीन उटठा.) कितें? कितें म्हणलें तुवें? |
| दादलो 4 | : तूं वगी राव रे मात्सो! मात्शें कितें जालें काय लागलो हुडपाक! शिवाप्पो, अजूनय विचार कर. आमी बरेपणान तुजेकडेन मागतात. गांवांकडेन वायटपण घेंव नाका. बरें जावचें ना. |
| शिवाप्पा | : आनी म्हजी जमीन तुमकां दिवन म्हजें बरें जातलें? ना म्हणल्यार म्हजोय एक भुरगो आसा. तेज्या फुडाराचें चितूं नाका? तेका वाऱ्यार वडोंवं? |
| दादलो 4 | : शिवाप्पो, भुरगे चवताळ्ळ्यात. चड हट्ट धरूं नाका. अशी लागसराक निवळ जमीन ना म्हणून तुजेकडेन मागपाक येयल्यात. आनी तशें पळोंवक गेल्यार ही सरकारी जमीन. तुज्याय नांवार ना ती. |
| बायल | : हांगा कोणाच्यो जमीनी आसात नांवार? सगळ्यो सरकारी. |
| शिवाप्पा | : तूं मात्शी वगी राव पळोवया. |
| बायल | : वगी कशी रावूं हांव? आमचीच जमीन हेंकां दिसता? अपुरबायेची इतलीच आसा ती? बाकीच्यांच्यो जमिनी नात? आमी परदेसी म्हणून आमचेरच हेंचो दोळो. ह्या रघल्या गांवकाराकडेन कितलीशीच जमीन पडिंग पडल्या. तेणी दिल्यार जायना? |
| दादलो 1 | : आगे ए, बाकिच्यांचें तुका पडोंक ना. चड सुबेज उलयता मगे तूं. गावकारांकडेन जमीन मागता? शिवाप्पा, तूं जमीन दिता काय ना? |
| शिवाप्पा | : आरे हांव कशी दींव? ना म्हणल्यार चार कवाथे रोयल्यात, धायेक काजू मुनां आसात, केळमे आसात. आरे ह्या गांवांत कितें न्याय बीय आसा काय ना? |
| दादलो 2 | : कसलो न्याय मागता? परदेसी तो परदेसी आनी वयल्यान न्याय मागता. न्याय कोण करतलो आमी गांवकारच. तुजी शाणपणां |

आमी आयकुपार्ची?

शिवाप्पा : आरे हांव खंय शाणपणां करतां? सगळें कितें ते तुमीच उलयतात. दादी तूं तरी तुज्या चेड्याक समजाय. जाण्ट्यांचीं कामां हीं. वगीच ताकद आसा म्हणून फुरफुरुंक जायना.

दादलो 1 : शिवाप्पा, दादीक कितें सांगता? आमचेकडेन उलय. जाणट्यांचें राज्य सोपलें, आतां. आतां गांवांची जापसालदारकी आमी आमच्या भुजार घेतल्या.

शिवाप्पा : दादी ....

दादी : हांव कितें म्हणी जाण....

दादलो 2 : दादी, तूं कांय एक म्हणूं नाका. तुजो पयलीं जीव बरो ना. वच घरा. आमी हेका पळयतां कसो जमीन दिना तो?

दादी : पूण तेका मारशात बिरशात बी...

दादलो 3 : आमीं ज्युस्त पळयता. वच तूं. (दोग तीग जाण दादीक धुकलुनच घरात धाडटात.)

दादलो 2 : हं. आतां सांग शिवाप्पा तुजें कितें म्हणणें?

शिवाप्पा : हावेंन तुमकां एकदां सांगलें. जमीन दिवंचो ना.

दादलो 3 : तुजो बापूय दितलो! शिवाप्पा, तूं करता तें सारकें न्हूं. गांवांकडेन झुजता तूं. बरें जावचें ना.

शिवाप्पा : (तिडकून) कितें करतले तुमी. आं, कितें करतले? मारतले म्हाका? मारात, मारात. पंचवीस वर्सां हांगा जमीन कसयतां ती तुमकां दिवपाक? हें घर बादलें, ही उत्पन्न केल्या ती तुमचे भकीक घालपाक? केन्नाचे पोर तुमी? गांवांच्या बळार हुडटात?

बायल : तुमीं वगी रावात पळोंवया. तेंच्या तोंडाक लागूं नाकात.

शिवाप्पा : आगो कितें करतले ते? एक तर मारतीत. पूण हांव तसो भियेना. हायेन कोणाचें घेवन खांवक ना. हांव तुमकां निमाणें सांगतां. एक तर ही जमीन सरकारा दिवाणांपासून कायदेशीर तुमकां घेवची पडटली ना तर म्हजें मडें हांगा पातळांवचें पडटलें.

दादलो 3 : मडें कित्याक? तूं पळयतच राव आमी कितें करतात तें! तुजो मद

सारको जिरयतां (बाकिच्यांक) आरे पळयतात कितें? काबार करुन वडयात सगळें. एक झाडाचें मून पसून उरपाक जायना. सगळें कुपळून वडयात. हांव पळयतां खंय पावता तें. सरकारी कायदे दाखयतां तेका. वंयेचो एक खूंट पसून दवरुं नाकात.

(सगळ्या उत्पन्नाची नासाडी करतात. शिवाप्पा आनी बायल आडावपाक वता तांकां धुकलून सगळे वतात. इतल्यान इश्कोलांतल्यान चलो येता. पळोवन..)

चलो : बाबा, कितें जालें? हेंच्यानी हें सगळें मोडलें कित्याक? आई, बाबा कित्याक उलयना? आई, तूं रडटा कित्याक? बाबा म्हजो निरपणसाचो रोपो... तोय कुपळून वडयलो? (शिवाप्पा मानेन हय म्हण्टा आनी ताका लागीं घेता.)

रमेश : (तिडकीन उटठा) आरे असो रडटा कितें? तू असोच मरतलो. धांव तेंचेफाटल्यान आनी फोड एकएकल्याच्यो तकल्यो. रडून कांय एक मेळपाचें ना. (शिवाप्पाक हालोवन) तूं तेची वाट लायतलो. भित्रो करतलो तूं तेका. तुजेवरीच भिजूड! नालायक कास्ताचो!

सर : (तापता) आरे रमेश, तुजें जालां कितें? डिस्टर्ब कित्याक करता तूं मदींच? लींक तुटटा मरे. म्हणून तुका सांगिल्लें इंप्रोवायझेशनात वाटो घे. आतां वगी बस थंय!

रमेश : (बसता) सॉरी सर!

सर : शाबास शाबास, बरें जाता कंन्टीन्यू...!

(पोलीस स्टेशन, शिवाप्पान गांवच्या भुरग्यांची कंप्लेंट केल्या. शिवाप्पा, गांवचे तिगजाण आनी हावलदार)

हवालदार : शिवा कोण?

शिवाप्पा : सायब, म्हजें नांव शिवा.

हवालदार : तुवेंन ह्या तिगांयची कंप्लेंट दिल्या?

शिवाप्पा : हय सायब, हांच्यानी म्हजो सगळो सत्यानाश केलो सायब. एक काजुचो रोपो दवरुंक ना, एक केळमो दवरुंक ना, एक कवथो दवरुंक ना. सगळ्या पोरसाचो विदवाट लायलो सायब.

हवालदार : हय रे, तुमी तेच्या पोरसाची वाट लायली? बांगर बैल तुमीं? लोकांच्या पोरसांनी वयतात? तुमकां आतां बरे धरून शिरेर चेंचपाक जाय.

दादलो 1 : सायब त्या दिस आमच्या गांवांत मंत्री आयल्लो. हांव तांचेवांगडा दिसभर आसां सायब. गांवांत तुमीं कोणाकूय विचारात.

दादलो 2 : सायब, हो म्हजेर केन्नाचो तरी राग काडटा. हांव चार दीस जाले गांवांत ना. मडगावां गेल्लों मेवणेगेर. तो आयज येतां. जाय जाल्यार फोन करून विचारात.

हवालदार : कोणाक? मेवणेक?

दादलो 2 : न्हय. साडवाक.

हवालदार : तूं कोणाचे मेवणेगेर गेल्लो?

दादलो 3 : देवाचे...!

हवालदार : कितें?

दादगलो 3 : देवाच्यान ना सायब. हांव देवाक गेल्लों. म्हाका हांगा कितें घडलां तें खबरूच ना सायब. हांव शिर्डी, पंढरपूर, शनीशिंगणापूर देवाक गेल्लों. घरा यो जाल्यार दारांत पुलीस! तुमी कोणांकूय विचारचें. देवाक पसून विचारल्यार चलता.

शिवाप्पा : ना सायब, हे फट उलयतात. हावें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलां. आडायल्यात पसून हांवें हेंकां. म्हाका धुकलून वडयला हेंच्यानीं. आनी सगळें काबार केलें सायब (रडटा).

हवालदार : शिवा, हें पोलीस स्टेशन. हांगां रडलो म्हणून न्याय मेळना. तुजेकडेन कितेंय पुरावो आसा? हेंच्यांनीं मोडलां अशें सांगपी गांवचे चार तिस्तीमेंत घेवन यो.

शिवाप्पा : पूण सायब, गांवांतले.....?

हवालदार : कितें जालें? हाडटा न्हय?

शिवाप्पा : पूण सायब, गावांतले कशे मेळटले....?

हवालदार : मागीर खंयचे गांवांभायले विकते हाडटलो? चड सुबेज उलयता मरे तूं. आनी हें पळय, गांवांतल्या भुरग्यांच्या नांवान बेस्ट्योच

| | |
|---|---|
| | कंप्लेनी करुं नाका. अशी बोगस कप्लेंट परती येत जाल्यार तुक पयलीं भितर वडयतलों. समजलें? वच तू आतां. |
| शिवाप्पा | : पूण सायब .... |
| हवालदार | : वोस्स .... (शिवाप्पा वता) तिगूय बरें सायब, येतां आमी. |
| हवालदार | : परत आनीक येंव नाकात. कांय एक भिवपाची गरज ना. (रमेश तिडकीन उटठा, तशी सराचेर नदर पडटा. तसो फाट करून पयस उबो रावता. ताच्यान हें सोसूं नजो) (गांवचो मेळो भरता असो देखाव.) |
| दादलो 1 | : संगा मरे देवाजकारा, मेळो कित्याक आपयला तो. |
| देवाजकार | : सगळ्या गांवांक खबर आसा. तें आनी वेगळे सांगपाक जाय? |
| दादलो 2 | : पूण तुज्याच तोंडांतल्यान आयकलेलें बरें. न्हू रे लक्षू? |
| दादलो 3 | : हय तर, मेळ्यांतलें उतर म्हणल्यार गांवचें उतर. |
| देवाजकार | : सांगतलो कोणाक? जो मनींस योवपाक जाय तोच आजून येवंक ना. |
| दादलो 1 | : तेका आपयला तरी मरे? |
| देवाजकार | : अशें कशें तर! चार फावटी गेल्यात आमी तेच्या दारार तेका आपोवपाक. |
| दादलो 2 | : म्हणजे, आजून मद जिरोंक ना तेचो? |
| दादलो 1 | : तेका मरे हांव सांगता तोच उपाय. |
| दादलो 2 | : ना. आतां आयकना जाल्यार तेंच करपाचें. |
| दादलो 3 | : काल पोलीस स्टेशनार ताका जी भायरी दिल्या ती सोंसपाची आसा! गांवांकडेन शाणपणां करता? |
| दादलो 1 | : मागीर गेल्लो कोण तर! हायेंन सायबाक सोमतें सांगलें.... |
| दादलो 2 | : पुरो, म्हज्या बोल्सांतले पांचशें गेल्यात. चड उलोंव नाका. कोणे सांगलेलीं तुमकां नाका जाल्लीं अवचीनपणां करपाक? |
| देवाजकार | : आरे कितें उलयता तूं? तुका खंय कितें उलोवचें हाचें मात पसून धंगण ना. मेळो जमला हांगा. जबाबदारीन उलय. (विशय बदलून) |

म्हाका दिसता आमी मेळ्याक सुरवात केल्यार बरी. ज्या अर्थी शिवाप्पा अजून पावूंक ना ते अर्थी आमी तेची वाट पळोंवक नासल्यार बरी. हय मरे?

दादलो 1 : हय, जो कितें मेळो निर्णय घेता तो तेका कळटलोच!

देवाजकार : हे ग्रामदेवतेक आनी शंभूम्हादेवाक हात जोडून हांव मेळ्याक सुरवात करतां. आनीं जें कितें घडलां तें तुमकां सविस्तर सांगतां. शिवाप्पा हो आमचो गांवभाव. फाटलीं पंचवीस वर्सां जालीं तो गांवावांगडा आसा. तेका गांवच्यो चाली रिती खबर ना अशें आमच्यान म्हणूं नजो. जेन्ना जेन्ना भायल्या गांवांकडल्यान जांव गांवां भायल्या मनशाकडल्यान तेका त्रास जाला तेन्ना तेन्ना आमी आमचेरच संकश्ट अशें चिंतून तेका आदार दिला. अशा ह्या शिवाप्पान आपली एक सादी वंय मोडली म्हणून गांवच्या भुरग्यांचेर पुलिशेंत वचून केस केल्या. तुमी जाणाच गांवांत ह्यान पयलीं अशें केन्ना घडोंक ना. हें गांवचे रितीक धरून ना. आता गांवान हेचेर चर्चा करची आनी शिवप्पाचें कितें करचें ताचो निर्णय घेवचो.

दादलो 2 : बाबल, तुजें मत कितें?

बाबल : म्हाका अशें दिसता की लुकसाण जालां तें शिवाप्पाचें. तेका हाय जावप सभावीक आसा.

दादलो 1 : बाबल, तेचें लुकसाण जांव नाजाल्यार तो घराभायरो जांव आमकां तेजें पडोंक ना. तेणें गांवाची लज घालयल्या, हो मुददो म्हत्वाचो, हय मरे?

दादलो 4 : हय तर! तेका जर न्याय निवाडो जाय आसलो जाल्यार तेणें गांवमेळो आपोवपाचो. असो पोलीस स्टेशनार धांवपाचो न्हू.

दादलो 2 : आनी दुसरें म्हणल्यार तेणें आयज हांगा येवपाक जाय आसलें. असो तोंड लिपोवन कितले दीस रावतलो तो?

दादलो 1 : हाचो अर्थ असो जाता की तेका गांवाचें पडलेलें ना. गांवांवांगडा रावपाचें ना.

दादलो 4 : हांव जाल्यार म्हजो निर्णय दितां. शिवाप्पाक गांवांभायर दवरपाचो. ताचेकडलें उदक पसून कोणें घेवपाचें ना. ताचे वांगडा कोणें उलोंवपाचें ना. ताच्या बऱ्यावायटाक कोणें वचपाचें ना. सगळ्यांक मान्य आसा? (कांय जाण हय हय म्हण्टात)

बाबल : कितें मान्य आसा? गांवमेळो हो. पोलीस स्टेशन न्हू. हांगा गांवपण आसा. हांगा जाण्टे नेण्टे आसात. सगळ्यांचो विचार घेवपाक जाय. हय मरे दादी?

दादी : हय तर, पूण हांगा भुरग्यांफुडें सुमार आसा उलोंवपाक?

बाबल : आमीच माथ्यार चडोवन दवरल्यात तांका. जाण्टे हात पांय गळसणून बसले काय भुरगे फुरफुरतलेच! हय मरे गणेस?

गणेस : तुका कितें म्हणपाचें आसा?

बाबल : म्हाका म्हणपाचें कायंच ना. म्हाका इतलेंच सुचोवपाचें आसा की गरिबाचेर अन्याय जावपाक जायना.

दादलो 1 : कोण? शिवाप्पा गरीब ? गरिबाक मद आसना. तुमी मेळ्याक यो म्हणून आपोवपाक पांच फावटीं गेल्ले मरे तेच्या दारार? कितलोसो तुमच्या उतराक मान दिलो ताणें?

बाबल : आरे कसो येतलो? फाटले फावट त्या रघू खातीर मेळो आपयल्लो तेन्ना तुमी कशे ताच्या आंगार झुडोन वयताले तें तेंणें पळोवंक ना? रघुचें फुडें कितें जालें तेवूंय तेका बेस बरें खबर आसा. आपलो जीव कोणाक नाका जाला?

दादलो 2 : तें सगळें बरें आसा. तुमचो निर्णय कितें तो सांगात.

बाबल : दादी तूंच सांग, तूं आमचेमदीं जाण्टो.

दादलो 2 : दादी (दोळे वठारून दबकायता)

दादी : हांव कितें सांगतलों? तूंच सांग, म्हाका पट्टा जाल्यार हांव हय म्हण्टां.

बाबल : म्हाका दिसता, आतां पयलीचें तेंच तेंच घेवन बसचें न्हय. जग फुडें पावलां ताचे वांगडा आमकांय वच्चेंच पडटलें. कायदो कितेंय म्हणू. शिवाप्पाची वंय कोणें मोडली, तेच्या उत्पन्नाची

नासाडी कोणे केली तें आमकां सगळ्यांक बेसबरें खबर आसा. आतां प्रस्न आसा तो शिवाप्पान पोलीस केस कित्याक केली हाचो. बुडटल्याक बडयेचो आदार तसो तेका पुलिशेचो आदार दिसलो आसतलो अशें आमच्यान म्हणूं येता. म्हणून म्हजें अशें मत, शिवाप्पा एकलो मनीस, तेची तितलीच अपुरबायेची जमीन आसा. आमची गांवांत नाय म्हणल्यार शें दोनशीं घरां आसात. आमीं आमचे ऐपती प्रमाण थोडे पयशे लागीं करचे आनीं शिवाप्पाकडल्यान आमच्या भुरग्यांक खेळपाक जाय तितली जमीन विकतीच घेंवची. म्हणजे शिवाप्पाकूय चार पयशे मेळळे आनी आमचेंय काम जालें. कितें म्हण्टा तूं दादी?

दादी : हय तुमकां सगळ्यांक जाय जाल्यार तशेंच करुंया.

(तीग जाण सोडून बाकिचे ताळयो वाजयतात)

दादलो 2 : तुमीं केन्नाच सुदारचे नात. तुमकां लागूनच गांवाची वाट लागल्या. तुमी मेल्याशिवाय गांवचो प्रोग्रेस जांवचो ना. चलात रे या आमी. घेवंदी तेंकांच तेंच्या पोटार गांव. (तिगूय जाण तिडकीन वतात. इंप्रोवायझेशन सोंपता. 'सर वा, फेन्टास्टीक' म्हणून ताळयो वाजयता. रमेश एकदम आक्रमक जाता, चेतन नांवाच्या भुरग्याचे गोमटेक धरता आनी न्हंयचे धडेर व्हरता. ह्या अचकीत प्रकारान कोणाक कितें करचें तेंच कळना तेका आडवपाक वयता म्हणसर रमेश सुरो काडटा.)

रमेश : कसलीं इंप्रोवायझेशनां करतात, मड्याचीं? हांव हाका जितो मारतलों. कितलेशेच दीस हांव हे संदीची वाट पळयतालों.

सर : रमेश, सोड ताका...

रमेश : कोण एक फुडें सरू नाकात. फुडें येयशात जाल्यार हांव हाका न्हंयत वडयतलों. आयज तुमकां म्हजें आयकून घेवचेंच पडटलें. कितलीं वर्सां हांव सांगपाक सोदतां. पूण म्हजें कोण आयकूनच घेना. तुमी हें इंप्रोवायझेशन केलां. ते सारके न्हय.

सर : रमेश, सोड ताका....

रमेश : कोण एक फुडें सरुं नाकात. फुडें येयशात जाल्यार हांव हाका न्हंयत वडयतलों. आयज तुमकां म्हजें आयकून घेवचेंच पडटलें. कितलीं वर्सां हांव सांगपाक सोदतां. पूण म्हजें कोण आयकुनच घेना. तुमीं हें इंप्रोवायझेशन केलां ते सारकें न्हय.

सर : रमेश, तुजो कितें तरी गैरसमज जाला. इंप्रोवायझेशन खरें आसना.

रमेश : सर, तुमी फुडें येवं नाकात. तुमी सगळे म्हाका फटयतात. हांगा तुमी इंप्रोवायझेशन केलां तें म्हजेर. हो प्रसंग म्हजेर घडला, म्हज्या बापायचेर घडला, म्हज्या दोळ्यांहुजरां घडला. तुमी दाखयला तितलो गांव सादो आसना. गांव खूब भयानक आसता. आमकां जर असो न्याय मेळिल्लो जाल्यार हांव हांगा आसचों नासलों. म्हज्या बापायक म्हज्या दोळ्यांहुजरा घरांतल्यान ओडून व्हेला गांवान. आनी आख्ख्या गांवान तेका खोंटावन, चिडडून, मस्तून मारला. अजुनूय ताचे वळवळे, ताच्यो किळांच्यो म्हाका आयकूंक येतात. सर प्लीज, कोणूच फुडे येवंचो ना. परतून सांगतां, फुडें येयशात जाल्यार हाका न्हंयचे कोंडीत वडयतलों.

सर : रमेश, म्हजें आयक. जाल्लें जावन गेलें. गांवांचो राग तूं ताचेर कित्याक काडटा?

रमेश : गांव न्हय, हाचोय बापूय तांचो मुखेली आसलो. सोरपा कास्ताचो. आतां मेलो तो. ह्या सोरपाच्या पोराक जितो दवरपाक जायना. हाच्याच बापायक लागून आमी रस्त्यार आयले. तांच्यानी आमचें घर दार सगळें मोडून वडयलें. आनी म्हाका आनी म्हजे आईक रातची मदयानेर गांवांभायर धांवडायलीं. आयज लोकांगेर आयदनां घांसून म्हजीं आई म्हाका शिकयता. विद्‌वाट लायलो ह्या गांवान आमचो. हाचो बापूय जितो आसल्यार हावूंच मारपाचो तेका. पूण तो रोकडोच मेलो, टीबी जावन.

सर : रमेश, तो मेलो तेन्नाच सगळें सोपलें. तूं सकंयल देंव. तूकां आतां कसलोच भंय ना.

रमेश : ना सर, तेन्नाच्यान म्हाका सगळ्यांचोच भंय दिसता. म्हणून हांव हो सुरो घेवन भोंवतां.

(सगळे एकदम घुरी घालून रमेशक ओडून सकयल काडटात. त्या बोवाळांत चेतन भिवून फाटीं सरता तो फाटलेफाटीं निसरून न्हंयत पडटा. सगळे भितात. कोणाक कितें करचें तेंच कळना. 'रमेश' फटींफुडें पळय नासतना न्हंयत उडी घेता. रमेश म्हणून सगळे वांगडाच आड्डतात. 'आतां चेतन मेलो' अशें म्हणीत एक चली घुंवळ येवन पडटा.)

सर : रेश्मा, सुमी, तुमी हाका सांबाळात. तुमी तेवटेन सकयल देंवात. तुमी तेवटेच्यान सकयल देंवपाक मेळटा जाल्यार पळयात. क्वीक....

(कांय जाण सकयले वटेन आनी कांय जाण वयले वटेन धांवतात. सर आनी चलयोच माचयेर उरतात. चलयो थर्त भिल्यात. सर पासयो घालता. धडेवयल्यान पळयता. इतले मजगती तें चली साबुद्देर येता.)

चली : सर, चेतन खंय? चेतनाक ताणें मारलो न्हय सर, चेतनाक वाटायात सर, सर, चेतनाक तो मारतलो. सर ताच्या हातांत सुरो आसा.

सर : ओ माय गॉड...!

(सर वयलेवटेन धांवता. चलयो आकांताच्यो भिल्यात. इतल्यांत सकयलेवटेन रमेश चेतनाक घेवन येता. फाटल्यान भुरगे. रमेश आनी चेतन चिप्प भिजल्यात. दुसरे वटने सर आनी बाकीचेय येतात. वातावरणांत भंय आनी टेन्शन)

रमेश : आय एम सॉरी सर, हें सगळें म्हाका लागून घडलें. आय केनॉट कंन्ट्रोल मायसेल्फ. हो तुमचो भुरगो. ताका वांचयला हावें. सर, खरें म्हणल्यार हांव फाटलें सगळें विसरून वचपाक सोदतां. म्हाका ती याद पसून नाका. म्हाका नवी जीण जगपाची आसा. म्हजो नवो फुडार घडोवपाचो आसा. गांवांना केलें म्हणून हावेंनूय तेंच करून म्हाका गांवांतूच मरपाचें ना. (बोल्सांतलो सुरो काडून)

हो पळय, हो सुरो, हांव तो म्हजे हातीन न्हंयेंत वडयतां. (पयल
सगळें अजापीत, मगीर एकदम ताळयो मारतात)

सर : आतां आमी एक इंप्रोवायझेशन करूंया.... आयज रमेशान चेतना
बुडटना वांचयलो. ताकालागून आमचे सगळ्यांचे वतीन फुल न्ह
फुलाची पाकळी दिवन चेतन रमेशाचो भोवमान करतलो.
(कोणतरी चेतनाचे हातीत एक ताळो दिता. चेतन रमेशाकडे
वचून ताच्या हातांत दिता. बाकिचे ताळयो वाजयतात. काळोख
पड्डो)



3

# कुड्डेगाळ

: पात्र :

कुड्डोबाबा

कुड्डो भाई

कुड्डो आवय

कुड्डे बाय

चोचरो

वांटकुळो

फकफको

नाकयाळो

वैदू

फैदू

कासादोर

गांवचे लोक

## देखाव : पयलो

(कुड्डेगाळ हो एक गांव बाकीच्या संवसारापसून वेगळो. हांगासर सगळेच लोक कुड्डे. एकेवटेन दोंगराचो कडो आसा. दुसरेवटेन दर्या आसा. मर्दी हो गांव. ह्या गांवाच्यो आपल्यो अश्यो वेगळ्यो रिती आसात. तांचो मुखेली आसा. मुखेल्याच्या तालार हो गांव नाचता. मुखेलीय कुड्डो. पूण हांचे व्यवहार व्यवस्थीत चलतात. सध्या हांगा एक सुवाळो चल्ला. जैताचो सुवाळो. केन्नातरी हांच्या पूर्वजानी एक पराक्रम केल्लो ताचो वर्सुकी दीस मनोवप चालू आसा. गावप, नाचप तेचबरोबर कांय कुड्ड्यांच्यो सर्ती चल्ल्यात.)

थळ : गांवांत मर्दी एक स्मारक कसो एक लांबसो फातर जांव फळकूट उबें करून दवरिल्लें आसा. एक उंचेली सुवात. गांवचो मुखेली कुड्डोबाब, ताची बायल कुड्डीआवय, धूव कुड्डेंबाय आनी पूत कुड्डोभाई खातीर राखून दवरिल्ली आसा. लोक नाचत, गायत मुखेल्याक घेवन येतात.)

लोक  कुड्डे गाळीचो कुड्डोबाबा
कुड्ड्या लोकांचो शिरोमणी
कुड्डे धुवेचो कुड्डोबाबा
कुड्डे आवयचो कुकमाक धनी
कुड्ड्या लोकांचो कुड्डो संवसार
कुड्ड्या धिराचे मेरुमणी

(सगळे मुखेल्याक ताचे सुवातेर व्हरून बसयतात. कुड्ड्याबाबाचें बरें जांव, 'कुड्डोबाबा झिंदाबाद' अश्यो घोषणा दितात.)

कुड्डोबाबा : कुड्डेगाळींतल्या म्हज्या कुड्ड्या भावांनो – भयणांनो, पुतांनो – धुवांनो आनी हालींच कुड्डे केल्ल्या आमच्या माणकुल्या भुरग्यांनो. आयज आमी मनयतात तो जैताचो सुवाळो, वर्स परंपरेन हें चलत आयिल्लें आसा. म्हज्या बापायन, आज्यान, पणज्यान, खापरपणज्यान ही कुड्डेगाळ सांबाळून दवरिल्ली आसा. तिचें वेगळें अस्तीत्व तिगोवन दवरिल्लें आसा. आनी ह्या आमच्या पुर्वजांचो, कुड्डें अस्तीत्व तिगोवन दवरपाचो वावर मोठ्या नेटान आनी मोटे उमेदीन करतलों अशें हांव ह्या समयार तुमकां उतर दितां (ताळयो) कुड्ड्याभावांनो, वर्सपरंपरे प्रमाण

ह्या गौरव दिसाची काणी सांगपाक हांव तुमचे मुखार उबो आसां. कांय हजार वर्सां फाटीं ह्या मुखावयल्या दर्याक एक व्हडलें तुफान आयिल्लें आनी ह्या तुफानात एक परदेसी एका फळकुटाचेर बेसुद्ध कुड्ड्या अवस्थेत व्हांवत - व्हांवत हे तडीक पावलो. आमचो पुर्वज सकाळचो विधी करपाक ह्या दर्यादेगेर बशिल्लो ज्युस्त ताच्या पांयार हें फळकूट येवन आदळ्ळें. सुरवेक मात्सो तो दचकलो. मागीर तेणें व्हडलो धीर करून फळकुट सांसपिलें, तर त्या फळकुटाचेर एक मनीस फळकुटाक घटट् वेंग मारून आसा, सांसपीत - सांसपीत ताचो हात त्या मनशाच्या हड्ड्यामेरेन पावलो तर ताचें हड्डें धप् धप् धप् धप् अशें वयर सकयल जातालें.

कुडे 1 : बाबा म्हज्या! म्हण्टकच तो जितो आसलो तर!

कुड्डो 2 : जित्या मनशाक तेणें हात लायलो? कास्ताचो मरे!

कुड्डोबाबा : त्याच कास्ताचो म्हणून तेणें हात वयर गळ्यामेरेन हाडलो, मागीर तोंड, मागीर नाक, आनी ताचे उपरान्त नाकावेल्या दोन खाचीकडेन पावतकच ताच्या हाताक कितें लागचें?

कुड्डो 1 : कितें लागले?

कुड्डोबाबा : दोन गड्डे?

कुड्डो 1 : कितें? दोन गड्डे?

कुड्डोबाबा : हय दोन गड्डे, वांटकुळेच.

कुड्डो 2 : मागीर तेणें कितें केलें?

कुड्डोबाबा : कितें करतलो? ताका थंयच सांडलो, फाटीक पांय लावन धांवत जो गेलो तो बद्द गांवांत.

कुड्डो 1 : हय व्हय, आनी कितें करतलो?

कुड्डो 3 : येदो मोटो धीर करून गड्ड्यांक हात लायलो तें व्होडलें.

कुड्डो 1 : मानपाचो ताका.

कुड्डोबाबा : इतलेंच करुन तो रावूंक ना. ताणें गांवांत पेरगांव घातलें, सगळो गांव जमयलो. जे कितें हाताक मेळटा तें तोंडके, बडयो, फातर घेतले, आनी दर्यादेगेर ताचेर आक्रमण केलें. सगळ्या लोकांनी मेळून ताका बुडोवन बुडोवन मारलो.

सगळे : वा वा वा वा! (सगळे ताळयो मारतात.)

कुड्डो 1 : केदें अरिश्ट टळ्ळें गांवावयलें.

कुड्डो 2 : तेन्ना ताका मारुन उडोवंक नासलो जाल्यार आयज आमची परिस्थिती कितें जावपाची तें त्या कुड्डेश्वराकच खबर (घोशणा दितात - कुड्ड्याबाबाचें बरें जाव! कुड्डोबाबा झिंदाबाद!)

कुड्डोबाबा : रावात म्हज्या कुड्ड्या भावांनो रावात, म्हजे बद्दल तुमच्या मनांत सुमारा भायलो आदर आसा तो पळोवन आनी तुमी कुड्डे आसात हाचो तुमकां सार्थ अभिमान आसा हें पळोवन म्हजें काळीज खोशयेन भरून आयला. वर्स परंपरेप्रमाण हो जैताचो सुवाळो मुखार व्हरपाची जापसालदारकी हांव म्हजो पूत कुड्डोभाई हाचेकडेन सोपयतां. आनी ह्या पवीत्र समयार म्हज्या पुताक 'कुड्डो शिरोमणी' अशी पदवी दिवन ताचो भोवमान करतां.

(सगळे ताळयो मारतात. पूत हें आयकून सामको भुरकुट्टा.)

कुड्डोभाई : कितें हांव कुड्डो शिरोमणी! कुड्डेआवय, आयकलें? हांव, 'कुड्डो शिरोमणी' जालों. कुड्डेंबाय, कुड्डेंबाय आतां म्हज्यान कितेंय करूं येता. हे कुड्डेगाळीचो हांव कुड्डो शिरोमणी, आवयस....

कुड्डीआवय : पुता पुता, इतलो भुरकटून वचूं नाका. सकयल पडशीत, आमी वयर उबार जागेर बसल्यांत.

हाडकुळो : कुड्डेबाब, तुका जाय तितलें नाचून घे हां. तूं कांयच भिवू नाका. तूं पडलो जाल्यार आमी जिखून धरता तुका. आमी सगळें हातात हात धरून उबे राविल्ले आसात.

कुड्डोभाई : सोडात, सगळे हात सोडून उबे रावात. आनी हांव कितें सांगतां तें कान उकते दवरून आयकात. आतां फुडल्या खेळाक आमी सुरवात करुंया. हांव कुड्डेबाबाच्या गळ्यांतलो तुवालो गुठली करून तुमचेमदीं उडयतलों आनी जो कोण तो सगळ्यांन पयलीं हाडून कुड्डेबाबाकडेन दिता ताका कुड्डेबाबा आपल्या गळ्यांतलो मोतयांहार इनाम म्हणून दितलो.

चोंचरो : कितें मोतयां हाय?

वांटकुळो : सारकें उलय, उलोवंक येयना जाल्यार कित्याक उलयता?

फकफको : मो-त-यां-हाय-न्हू, मो-त-यां-हा-हा-हार (हाचें तत पप जाता)

अशे फुणपाचे फु-रे.

नाकयाळो : वगी राव थंय नाकुटभर नाक जाल्यार नेट चड.

कुड्डोभाई : सगळ्यांक कळ्ळें?

सगळें : हय.

कुड्डोभाई : तयार रावात हां एक, दोन तीन गोयंदा - गोयंऽऽदाऽऽ (तुवाले वडयना व्यवस्थीत आपल्याच गळ्यांत घालता. बाकीचे बेश्टेच वडयला आसतलो म्हणून अदमासान झोंपय मारतात. म्हजो, तुजो करून एकमेकांक धुकलतात. कपडे ओडटात आनी निमाणेकडेन पुरो जावन थकतात. नाकयाळो आनी वांटकुळ्याची तकली एकमेकांक आपटता)

नाकयाळो : हाय.

वांटकुळो : कोण रे नाकयाळो?

नाकयाळो : वांटकुळ्या तुजी तकली रे, कसलें दुखलें म्हाका. तरी बरें म्हजें नाक आपटूंक ना.

वाटकुळो : तें आसूं, तुवालो कोणाक मेळ्ळो?

नाकयाळो : कोणाकूच मेळूंक ना सो दिसता.

वाटकुळो : म्हणजे हाचो अर्थ असो जाता, की तुवालो सकयल वडवंकूच ना.

कुड्डोभाई : (तिडकीन) कोणे अशें म्हटले? तुवालो सकयल वडोवंकच ना, अशें कोणे म्हटलें?

सगळे : (कोणें म्हटलें, कोणें म्हटलें म्हणून एकमेकांक विचारतात)

चोचरो : हो वांटकुळ्याचो आवाज तो म्हाका ज्युस्त वयकोंक कयता, न्हू ये.

सगळे : हय हय वांटकुळोच तो.

कुड्डोभाई : (तिडकीन) वाटकुळ्या तुवालो सकयल वडोवंकच ना अशें तुवें म्हटलें?

(सगळें भिल्यात, हय म्हण वांटकुळ्या हय म्हण अशें म्हणटात)

कुड्डोभाई : बेगीन हय म्हण वांटकुळ्या, नाजाल्यार कुड्डोबाबा तुका चडान चड ख्यास्त दितलो.

वाटकुळो : (नेटान) हय, तुवालो सकयल उडोवंकूच ना अशें हांवेन म्हटलें.

कुड्डोभाई : अब्बा, तू म्हजेर आरोप करता, म्हाका फटींग थारायता, ह्या

कुड्डेशिरोमणीक! राव हांव सोदून दितां तुवालो (सकयल देंवता. सोदल्याबरी करता आनी परत वयर चडून गळ्यांतलो तुवालो कुड्ड्याबाबाचे हातीन दिता) घे बाबा, हो तुवालो घे तुज्या पुतान आयज तुजें नांव राखलें. आयज ह्या खेळांत तुजो पूत जैतिवंत जालो.

कुड्डोबाबा : शाबास पुता शाबास, असोच फुडें वच, अशेंच जैत मेळयत राव. हें घे तुका इनाम, म्हज्या गळ्यांतलो मोतयांहार. (सगळे ताळयो मारतात, वांटकुळो एकलोच वगी आसा, तिडकीन देगेक उबो आसा)

कुड्डोभाई : वांटकुळ्या आता सांग, तुका खंयची सजा फावो जाता?

वाटकुळो : हांवेन कसलोच गुन्याव करुंक ना. म्हाका अजूनय दिसता, तुवालो सकयल वडोवंकूच नासलो.

चोंचरो : वांटकुया तूं चड सुबेज उययता मये.

हाडकुळो : आमच्या हुजरां कुड्डेबाबाकडेन कुड्ड्याभाईन तुवालो दिला आनी तूं ना म्हण्टा!

नाकयाळो : इतलेंच न्हय जाल्यार कुड्डेबाबान कुड्ड्याभाईक इनाम म्हणून आपल्या गळ्यांतलो मोतयांहार दिला.

फकफको : हें पसून आमच्या फू.. फू... फुड्यांत घडलां.

कुड्डीआवय : आयकलें, हांव कितें म्हणटा जाणां....

कुड्डोभाई : कुड्डे आवय तूं कांय एक सांगू नाका. सगळे आमी पळोवन घेतात. कुड्डेगाळींतल्या कुड्ड्याबाबाचेर जो विस्वास दवरिना ताका ख्यास्त ही जावपाकच जाय. खरें म्हळ्यार ताका जगपाचोच अधिकार ना.

लोक : हय हय, जगपाचो अधिकार ना.

कुड्डोभाई : हावं कुड्डे गाळींतल्या सगळ्या लोकांक विचारता, कुड्ड्याबाबाचेर तुमचो विस्वास आसा?

लोक : हय हय, आसा.

कुड्डोभाई : कुड्डोबाबा जो निर्णय घेता तो तुमकां सगळ्यांक मान्य आसा?

लोक : हय हय, आसा.

कुड्डोभाई : तशें जाल्यार हांव कुड्याबाबाकडेन मागतां की ताणे वांटकुळ्याक आम जनतेच्यावतीन खास्त फर्मावची.

कुड्डोबाबा : वांटकुळो हो आमचो मनीस, ताका लागून ताका ख्यास्त फर्मायताना म्हज्या काळजाक हाय जाता. तरीपूण तुमचे सगळ्यांचे इत्सेक मान दिवन हांव वाटकुळ्याक ख्यास्त फर्मायतां. वांटकुळ्याक ख्यास्त आसा ख्यास्त क्रमांक – 2

(सगळे वाटकुळ्याक उबारून कुड्ड्याभाईच्या पायांकडेन दवरतात. कुड्डोभाई ताका फाटल्यान खोंट मारुन फुटबॉल कसो सकयल उडयता. मागीर सकयल सगळे लोक एकमेकांच्या हाताक धरून ताचेभोंवतणी वाटकुळेच रावतात आनी ताका जाय तसो खोटांनी मस्तीतात. तो बोबो मारता)

कुड्डेंबाय : (एकदम किळांच मारुन) कुड्डेआवय, कुड्डेआवय हें सगळें कितें चल्लां? म्हाका भंय दिसता. म्हाका घरा व्हरुन पावय, म्हज्यान हे आयकूं नज. म्हज्यान हो बोवाळ सोसूंक जायना.

कुड्डीआवय : सोंसचें पडटलें कुड्डेंबाय, सोंसचें पडटले. पयलीं पयलीं म्हज्यानय सोंसू नज जातालें. म्हजेय कानाचे पड्डे फुट्टाले ह्यो बोबो आयकून. मागीर मागीर म्हाका संवयूच जाली. आता म्हाका व्हडलेशें काय दिसना. तुकांय संवय करची पडटली।

कुड्डोभाई : तुमी कुड्डेआवयचें आनी कुड्ड्याबायचें व्हडलें मनार घेंव नाकात. चलात वांटकुळ्याक उखलून ताचे खोपींत व्हरून आपटात. वैदूक आपोवन ताचें वखद पाणी करात. कुड्डेआवय ह्या जैत सुवाळ्याची ही निमणी कार्यावळ जातकच आमी सगळीच घरा या. कुड्ड्याबाबा, कार्यावळीक सुरवात करूं?

कुड्डोबाबा : कर कर बेगीन कर. म्हजे कुड्डेबाय रडलेलें म्हज्यान कशेंच आयकूं नजो.

कुड्डोभाई : तर म्हज्या कुड्ड्या भावांनो, तुमकां खबरच आसा म्हजे उजवे हातीक आमच्या पूर्वजांची जैताची निशाणी म्हणून एक यादस्तीक उबारिल्लें आसा. तर ह्या यादस्तीकाचेर सगळ्यांनी शेंसार मारुन आपल्याक खुबळावन घेवचें, आनी थोड्या वेळान कांयच जावंकना अशें चिंतून जमनीचेर मन शांत करून बसचें. जेणें करून मनाक थाकाय मेळटली, शांती मेळटली.

(सगळे ‘हो, हो, हो’ करून यादस्तीकावटेन शेंसार मारतात. आपले आपुणच खुबाळ्ळ्यावरी करतात आनी वग्गी जमनीचेर थपकल मारुन बसतात. इतल्यान एका मनशाची व्हडल्यान बोब आयकूंक येता आनी रोखडोच तो मनीस गडगडत सकयल येवन पडटा. हो कासादोर. ताचे फाटीक आर्म आनी कमरेक काडतुसांचो पट्टो बांदिल्लो आसा. बोब आयकतकच सगळे लोक थंयच्यान नाच जातात. कासादोर ल्हवू ल्हवू साबुद्धीर येता. आर्म पट्टो काडून कुशीक दवरता आनी उठ्ठलो इतल्यान ताका लोकांची जाग आयकूंक येता)

कासादोर : आरे, खंयच्या गावांत पावलो काय कितें हांव? ह्या ह्या देंगणात आनी गांव! मागीर हो आवाज कसलो तर! (इतल्यान धीर करून ल्हवू ल्हवू कांय लोक येवपाक लागतात. तांका दोळ्यांच्या जाग्यार खांची पळोवन तो अजापता) आवयस हे लोक अशें कितें दिसतात. दोळ्यांच्या जाग्यार फकत दोन बुराक. म्हणजे सगळे कुड्डे कांय कितें? हांव सपनात बी ना मू? (स्वतःक चिमटो काडटा) हाय, ना हांव सपनांत ना.

कुड्डो 1 : आयकलें? ‘हाय’ असो तुका आवाज येवंक ना?

कुड्डो 2 : ह्यँ. तुका भास जाला आसतलो, इतल्या वयल्यान पडिल्लो मनीस ‘हाय’ करपाक पावतलो?

कुड्डो 3 : हाडकुळ्या, तूं वच पळोवया. हात लाय. तो जितो आसा काय मेला तो कळटलो. म्हज्या अदमासान आनीक दोन धेंपां घातल्यार तूं ताचेमरेन पावतलो.

हाडकुळो : हांव ना, हांव एकलोच कित्याक?

चोचरो : कुद्दोभाई खुंय? कुद्दोभाई आसयाय, एकयोच वचपाचो.

नाकयाळो : कुड्डोभाई कसो येतलो? हो मनीस वयल्यान बोब मारीत पडला म्हणटकच गांवाचेर अरिश्ट आयल्या भाशेन जालें न्हय! कुड्डोबाबा, कुड्डीआवय आनी कुड्डेबायची राखण करूं नाका?

हाडकुळो : हय व्हय हें मात सारकें. गावांत कुड्डोबाबा आसा म्हणून कुड्डेगाळ उरल्या. नाजाल्यार सगळ्यांची दानाधिस्पट जावपाची.

(कासादोर हें सगळें आयकून घेता. हे सगळे कुड्डे म्हणपाची खात्री करून घेता. चित्र – विचित्र हावभाव करून पळयता. कोणूच रिस्पॉन्स

दिना म्हण्टकच हे कितें करतात ते पळोवपाक बेशुद्ध पडिल्याचे सवंग करून न्हिदता.)

कुड्डो 1 : आरे, आजून हाची कसलीच जाग ना मरे. शेर्त तो मेला आसतलो.

कुड्डो 2 : तो मेलो अशें म्हण्टात तुमी?

कुड्डो 3 : हय हय मेलोच आसतलो तो.

कुड्डो 2 : पूण तें कळटलें कशें?

कुड्डो 5 : हांव एक मांडणी सांगतां. एकल्यान ल्हवूच ताच्या पायांकडेन वचपाचो आनी ताच्या तळव्याक कातकुतल्यो करपाच्यो.

कुड्डो 1 : हय व्हय, अशेंच करपाचें.

कुड्डो 2 : पूण करतलो कोण? हें धाडस करतलो कोण?

कुड्डो 1 : हय मरे, हें आमच्या लक्षांतच येवंक ना.

कुड्डो 2 : तूंच कित्याक वचना?

कुड्डो 3 : हांव, हांव पूण म्हाका...

कुड्डो 1 : तूंच वच. आमी तुज्या फाटल्यान रावतात, वच तूं.

कुड्डो 2 : हय व्हय, रावतात न्हय. तूं काय एक भियेव नाका.

कुड्डो 3 : म्हाका फटयशात हां. (तो सासपीत सांसपीत वता. बाकीचे रेल्वेभशेन ताच्या फाटल्यान भीत भीत उबे रावतात, तो धोपराकडसून सांसपीत तळव्याकडेन येता. पूण ताच्या हाताक बूट लागतात) ताणे पायांत बूट घातल्यात खातकुल्यो कश्यो करू हांव?

कुड्डो 1 : पांय हालोवन पळय, जीव आसा जाल्यार?

कुड्डो 3 : (तो हालयता, पांय जीव नासल्यावरी धप् करून सकयल पडटा)

कुड्डो 2 : कितें पडलें?

कुड्डो 3 : पायांक जीव ना ताच्या, पांय पडलो.

कुड्डो 1 : आनी मात्सो वयर हात लाय काळीज फूक् फूक् जात जाल्यार कळटलें.

कुड्डो 3 : म्हाका वळखूंक येना. मात्शें मात्शें फूक् फूक् जाता आनी मात्शें मात्शें धूक् धूक् जाता.

कुड्डो 1 : आरे तो वैदू खंय गेलो, हें काम वैदून करपाचें.

वैदू : हांव हांगा आसा, म्हाका कोण सांगिना. सांगी नासताना हांव कसो

मुखार सरतलो?

कुड्डो 1 : वच वच, मुखार वच. पयलीं हड्ड्यार हात दवर. ताचे उपरांत नाकाचे वयर दोनूय खांचीनी दोन गड्डे आसात जाल्यार पळय.

वैदू : फैदूऽऽऽ

फैदू : हांव तुज्या फाटल्यानूच आसां वैदूबाबा.

फैदू : तुजी तयारी आसा?

फैदू : हय, पूण गड्डे काडपाचें सामान हाडूंक ना.

वैदू : सद्याक ताची गरज ना. म्हज्या फाटल्यान यो.

पैदू : बरें आसा. (दोगूय कासादोराक तपासतात)

वैदू : हो मनीस जुवान, तरणाटो आसा.

कुड्डो 2 : जुवान म्हण्टकच आनीक भंय.

वैदू : हाचें काळीज हालता, नाडी चलता म्हण्टकच हो जितो आसा.

कुड्डो 1 : जितो आसा म्हण्टकच सगळे कुड्डेगाळींक भंय.

वैदू : पूण सदयाक तो साबुद्धीर ना. पूण म्हज्या वैजकीशास्त्राप्रमाण आनीक थोड्याच वेळान तो सुद्धीर येतलो.

कुड्डो 2 : गड्डे आसात काय पळय!

वैदू : गड्डे आसात, दोन गड्डे आसात.

कुड्डो 2 : तशें जल्यार धांवात, पळात.

वैदू : रावात, म्हाजें आयकून तरी घेयात. ताका दोन गड्डे आसात, पूण सद्या ते धांपून दवरिल्ले आसात, म्हण्टकच कुड्डेगाळीक कसलोच भंय ना.

कुड्डोभाई : (येता) भंय ना कसो तर? दोन गड्डे आशिल्लो मनीस कुड्डेगाळींत पावता आनी कुड्डेगाळीक भंय ना अशे तुमी म्हण्टात? लज दिसपाक फाव तुमकां. आयज ते गड्डे धापिल्ले आसात. फाल्यां ते उक्ते जातले. ताचे उपरांत जें संकट कुड्डेगाळीर येतले. ताची जापसालदारकी कोण घेवपाक तयार आसा?

वैदू : चूक जाली कुड्ड्याभाई, खरें म्हळ्यार हांवेन जावन अशें सांगपाक नाका आशिल्लें. तूं हांगासर इतले बेगीन पावतलो हें म्हाका खबर नाशिल्लें म्हणून म्हज्या कडल्यान ही चूक घडली.

फैदू : हांव वैदूबाबाक सांगपाक सोदी, कुड्डोभाई हांगा येतलो अशें. पूण

वैदूबाबा आयकपाकच तयार ना.

कुड्डोभाई : जालें तें जांव. तुमी आमच्या कामाचे मनीस म्हणून तुमकां माफ करतां. म्हज्या कुड्ड्या इश्टांनो, हे कुड्डेगाळींत आपल्या नाकाच्यावयर दोन गड्डे आशिल्लो मनीस जितो उरपाक फावना. ताका मरचेंच पडटलें. (हें आयकून कासादोर भिता आनी पायांचो आवाज करिनासताना ल्हवूच उट्टा)
पूण ताका आमी कोयत्या, कुराडिनी मारचो न्हय. कारण ताचे कुडके करताना, आमच्यो तकल्यो आमीच चाचावन घेत म्हणून चड भंय आसा. आनी ही आमची अडचण त्या कुड्डेश्वराक ज्युस्त कळ्ळ्या. ताकालागून आमच्या म्हऱ्यान ताणे दर्या हाडून सोडला. (हें आयकून कासादोर परत त्याच जाग्यार आसलो तसो न्हिदता) आमच्या गौरव दिसाच्या वर्सूकी सुवाळ्याक हो दोन गड्डे आशिल्लो मनीस हांगा येवन पडप, आनी तोवूय बेशुद्ध अवस्थेंत, ही आमच्या कुळाची पूर्वपुण्याय म्हणपाची. तेन्ना सगळ्यांनी हांगा येवन आपली कोंब्या-कोंब्याची शक्ती लावन हाका उखलचो आनी दर्यांत व्हरून बुडोवचो. सगळे तयार आसात?

सगळे : हय हय, आमी तयार.

कुड्डोभाई : मागीर बेगींन अशे मुखार येतात.

हाडकुळो : कोणाकूय बुडोवपाक हांव पयली मुखार वतलो.

कुड्डो 2 : तूं खंय, तुका शक्ती आसा? उठ थंयचो कुशीक राव.

कुड्डोभाई : अशे शिगम्यापयलींच रोमाट मारूं नाका. बेगीन धरात हांगा. धरात हां. एक, दोन, तीन, गोयंदा,गोयंदाऽऽ (सगळे होळी झुजयल्लेवरी ताका होऽऽ होऽऽ होऽऽ करून नाचयत व्हरतात. आनी दर्यांत वडयतात. काळोख.)

### देखाव : दुसरो

(थळ तेंच. वर-देडवरा उपरांत. कुड्डोबाबा, कुड्डीआवय, कुड्डेंबाय, कुड्डोभाई आनी बाकीचे लोक जमिल्ले आसात. कुड्डोबाबा कुड्ड्याभाईच्या गळ्यांत फुलांचो हार घालतकच लोक ताळ्यो

वाजयतात.)

कुड्डोबाबा : शाबास म्हज्या भावांनो, आज तुमची जितली तुस्त तोखणाय करीत तितली थोडीच. कुड्ड्याभाईचें आयकल्यार तुमी कितेंय करुंक पावतात हें आयचे करणेन तुमी दाखोवन दिल्लें आसा. ताका लागून तुमची आयच्या दिसाची खावपाची आनी पिवपाची व्यवस्था कुड्याभाईचेर पावली. (लोक हुरऽऽरे करून टाळ्यो मारतात) इतलेंच न्हय तर ताचे फुडले सात दीस हांव तुमची सगळ्यांची व्यवस्था म्हज्या खर्चान करतलों. (परत सगळे उमेदीन नाचतात. ताळयो मारतात) हे उमेदीचे घटकेक कुड्डेआवयन आपल्या पुताचो भौमान करचो अशें म्हाका दिसता. आनी हो म्हज्या हातांतलो नवरत्नांचो हार कुड्डेआवयन आपल्या पुताच्या गळ्यांत घालचो अशी हांव कुड्डेआवयक विनंती करता. घातलो?

कुड्डीआवय :हय.

कुड्डोबाबा : ताळयो. (सगळे ताळ्यो मारतात)

कुड्डोभाई : (ल्हवूय) कुड्डेबाबा, हो पानांचो हार कसो हाताक लागता.

कुड्डोबाबा : वगी राव. लोकांक आयकूंक येता अशें उलोव नाका. लोकांक कशें कळटलें? तू लोकांक नवरत्नांचीं धा रत्नां म्हणून सांग. तुजें कितें वयता. निमाणे आमचे भितरलीच गजाल न्हय ही?

कुड्डोभाई : (नाटकीपणान) कुड्डेआवय, तुवेन हो नवरत्नाचो हार म्हज्या गळ्यांत घालून म्हाका तुज्या रिणान दवरला. तुजें हें रीण पावयतलों जाल्यार म्हाका सात जल्म घेवचे पडटले. आनी सात जल्मांत कमीतकमी सात जाणांक तरी दर्यांत जिते बुडोवचे पडटले.

कुड्डेंबाय : (एकदम किळांच मारुन) ईऽऽ कुड्डेआवय, हो कुड्डोभाई अशे कितें उलयता? म्हाका भंय दिसता.

कुड्डीआवय :भियेंव नाका कुड्डेबाय, आमी आसात न्हय तुजेवांगडा.

कुड्डेंबाय : कुड्डेआवय तो नाकावयर दोन गड्डे आशिल्लो मनीस खऱ्यानीच मेलो गे.

कुड्डीआवय :हय कुड्ड्याबाय, ताका दर्यात वडोवन दिलो, थंय तो मेलो.

कासादोर : (एकदम येवन) हांव जितो आसां कुड्डेबाय, हो पळय हांगा उबो

आसां.

सगळे (सगळे पळपाक लागतात.) भूत भूत–

कासादोर : रावात, हांव भूत न्हय. हांव जितो जागतो मनीस.

कुड्डो 1 : पूण तू जितो कसो उरलो तर?

कासादोर : हांव मरुकूंच ना. ताका लागून जितो उरलो.

कुड्डो 2 : मागीर आमी उदकांत वडयल्लो तो कोणाक तर?

कासादोर : म्हाकाच तुमी उदकांत वडयल्लो. पूण हांव पेवन भायर आयलो.

चोचरो : कुड्याभाई, आतां आमचें कशें जातलें ये?

कासादोर : तुमचे कांयच जावचें ना. तुमी म्हाका बुडोवपाचो यत्न केलो तें स्वभावीक आशिल्लें, अपेक्षीत अशिल्लें. म्हाका तुमचो राग ना.

कुड्डोभाई : म्हाका दिसता, तूं जेवटेन आयला तेवटेन मोन्यांनी परत गेल्यार बरो.

कासादोर : हांव आयलां खंय तर! एका सोंश्या फाटल्यान धांवताना एका दोंगरावयल्यान निसरलों आनी सोमतो हांगा पावलों. तरी बरें दोन तीनकडेन शिरकल्लों. ना जाल्यार कपाळमोक्ष जावपाचो.

नाकयाळो : म्हणजे तूं कासादोर तर! म्हाका वास आयिल्लोच.

कुड्डोबाबा : तुका कितें जाय?

कासादोर : म्हाका तुमचे कडल्यान कांयच नाका. पूण तुमकां हांव कितें तरी दिवपाक सोदता.

कुड्डोभाई : आमकां दिवपाक सोदता? आमच्याच गांवांत येवन आमकांच दिवपाक सोदता? हे सगळे हांगा आसा तें आमचें. तूं हांगा परदेसी, तुजे हांगा कांयच ना.

कासादोर : पूण म्हजो म्हणून हांव तरी हांगा आसा न्हय? उदकांतल्यान भायर सरकतच हांवेन हो सगळो वाठार भोंवून पळयलो. कितलो सोबीत, सुंदर वाठार!

वैदू : सोबीत, सुंदर! सोबीत सुंदर म्हळ्यार कितें?

कासादोर : आरे! तुमकां कशें कळटलें? तुमकां दिश्टी पडता न्हय?

सगळे : म्हणजे?

कासादोर : आतां, हांव हांगासर उबो आसां, पूण तुमकां सांगपाक कळटलें की हांव कितलो उंच आसा.

चोचरो : अशें कशें तर. तूं न्हय, तुजे साडे तीन हात लांब आसा.

नाकयाळो : आनी तुकां न्हय घामाचो वास मारता.

कासादोर : शाब्बास, हुशार आसात तुमी, एक तुमची नदर सोडली जाल्यार तुमचेकडेन कांयच कमी ना. तुमची तयारी आसल्यार तुमी कितेंय करुं शकतात.

कुड्डोभाई : तयारी? कसली?

कासादोर : घेवपाची तयारी. हांव तुमकां म्हजी नदर दितां. रंग रंगयाळी नदर, निळी नदर, पांचवी नदर, सप्तरंगी इंद्रधोणूची नदर.

कुड्डो 1 : आमका अशें वयलेवयर कांय दिव नाका. कितें दिवपाचें आसा तें हातीर दवर.

कासादोर : सगळे तुमचेच कडेन आसा. फकत तुमकां ते वळखूंक कळना. ताची हांव फकत जाणवीक करून दितलों.

कुड्डो 2 : कितें उलयता हो. पयलीं म्हण्टा दितां, मागीर म्हण्टा तुमचेचकडेन आसा. तूं असो आमकां चक्रांव नाका. कितें ते सारकें सांग.

कासादोर : आतां पळयात, हें कुड्डेंबाय, कितले सुंदर दिसता, नक्षत्र कशें. पूण तुमकां ते रूप पळोवपाक मेळना.

कुड्डीआवय :कुड्डेंबाय, चल या आमी.

कुड्डेबाय : राव गे कुड्डेआवय, कितलो संगीत उलयता तो! कानाक बरें लागता. पयलेच फावट अशें वेगळें आयकपाक मेळ्ळें. गीत कशें, कविता कशें.

कुड्डोबाबा : कुड्डेआवय, कोणाक रावल्या, चल व्हरुन पावय ताका घरा.

कुड्डेंबाय : नाका कुड्डेआवय, म्हाका घरा व्हरुं नाका. आतां हांव कांयच उलयना. फकत आयकतां.

कुड्डीआवय :ना बाय, उलयल्लें बरें, आयकप सामकें पाड, तें मनात उरता. चल. (ताका घेवन वता)

कासादोर : तुमच्या मनामेरेन पावपाचोच तर हांव यत्न करतां.

कुड्डोभाई : तुका सोदल्यार वाट मेळटली.

कासादोर : हय, सोदल्यार कितेंय मेळटा. आनी हो दोंगर हांव काय न्हय कसो चडून वतलों.

| | | |
|---|---|---|
| कुड्डोभाई | : | मागीर तूं कित्याक वचना? कित्याक सतायता आमकां? |
| कासादोर | : | हांव तुमका सतायना. हे कुड्डेगळीभायर आनीक जग आसा, आनीक संवसार आसा. तो खुब सुंदर आसा, हें तुमका सांगपाक सोदतां. |
| कुड्डो 1 | : | अजाप मरे! आनीक संवसार आसा खंय! खरेंच दिसना न्हय? |
| कुड्डो 2 | : | आनी हो म्हण्टा तसो 'सुंदर' कांय कितें आसा खंय तो. |
| कुड्डो 1 | : | हय रे कासादोर तूं आमकां व्हरून दाखयशीत? |
| कासादोर | : | हय, हांव तुमकां व्हरून दाखयतां. पूण ते पयलीं तुमी हांगासरलो, तुमचो संवसार सारको खंय पळयला? हांगा हो दर्या आसा, हो दोंगर आसा. ही झाडां आसात, ह्यो वाली, सुकणीं, सावदां हे सगळें पयलीं तुमी पळोवं नाका? |
| कुड्डो 1 | : | पळोवप म्हणजे कितें? |
| कुड्डोबाबा | : | कासादोर, तुजे आतां अती जालें. वगीच कसलींय सपनां दाखोवन आमच्या लोकांक पिसांव नाका. कसो काय जायना, तूं हांगा पावला. तूं आयची रात हांगा काड आनी कोंब्यान साद घालतकच तूंच वाट धर. तुजी जेवणाची व्यवस्था जातली. गोरवां, वासरां घरा परतुपाक लागल्यांत. आमकांय न्हिदपाक जाय, चलात रे. |
| कासादोर | : | वा. सगळे अनपेक्षीत घड्टा. सगळेच लोक कुड्डे! तांका नदर दिवन, एक वेगळी दृष्टी दीवन एक व्हड क्रांती म्हज्यान घडोंव येता. हे संदीचो फायदो म्हाका घेवपाकच जाय. ॲट एनी कॉस्ट. (काळोख). |

## देखाव : तिसरो

(थळ : दर्यावेळ – कुड्डेंबाय दर्यावोळेर बसलां. कासादोर येता.)

| | | |
|---|---|---|
| कासादोर | : | वा सुंदर! (कुड्डेंबाय बेगीनबेगी वचपाक करता) राव, अशें वचूं नाका, फाटले चार दीस जाले. हांगाच्यान वचपाक म्हजे पांय उखलनात. ताचें कारण कितें तुका खबर आसा? |
| कुड्डेबाय | : | ना. म्हका खबर ना. पूण तूं सांग. तूं उलयत राव. तूं खूब बरो उलयता तें आयकत रावनशें दिसता. तूं उलयता तें हावं कशें आयकतां जाणा? |
| कासादोर | : | ना. |
| कुड्डेबाय | : | कानांत जीव हाडून. तुजी उतरां हांव काळजाच्या कुरकुटांत सांबाळून |

दवरतां. मागीर म्हाका खूब ल्हव ल्हव जाल्लेवरी दिसता. हुबून वत
शे दिसता?

कासादोर : हांव तुज्या सहवासान रावचों, सरभोंवतणी रावचों अशें तुका दिसता?

कुड्डेबाय : हय खुब्ब दिसता. पूण म्हाका भंय दिसता, कुड्ड्याभाईचो, कुड्ड्याबाबाचो. तुज्या जिवाचें ते कितेंय बरें वायट करीत म्हणून. तुकां नाकाचे वयर दोन गड्डे आसात न्हय?

कासादोर : हय, पूण ते गड्डे न्हय. तांका दोळे म्हण्टात. आनी हे दोळे मनशाक नदर दितात.

कुड्डेबाय : नदर म्हणजे?

कासादोर : नदर म्हणजे. पळोवपाची नदर. आता हेंच पळय, तूं कितले सुंदर आसा! पूण बाकिच्यांक दिसना. म्हाका तितलेंच दिसता.

कुड्डेबाय : सुंदर म्हणजे?

कासादोर : सुंदर म्हणजे, आयक - तुजें मन निर्मळ आसा, पवित्र आसा. दुसऱ्याक पिडापीड केली काय तुका हाय जाता. तूं दुसऱ्यांक केन्नाच वायट म्हणिना. तांचेर रागार जायना. दुसऱ्याक मारलो जाल्यार तुज्या काळजांत चर्र जाता. तुका रोखडीच दुसऱ्याची काकळूट येता. सारकें न्हय?

कुड्डेबाय : हय हय, सारकें. पूण तुकां कशें कळ्ळें?

कासादोर : म्हाका दोळे आसात न्हय, त्या दोळ्यांनी म्हाका दिसलें.

कुड्डेबाय : आनीक तुका कितें कितें दिसता तुज्या दोळ्यांनी?

कासादोर : हें निळें निळें मळब, आपलें पडबिंब ह्या दर्याच्या उदकांत पळयता. ही पाचवीचार धर्तरी पाचवो शालू न्हेसून, नटून थटून सद्दां सूर्याक येवकार दिवपाक रावता. आनी सूर्य अस्तमतेक गेलो काय काळीच चादर पांगरून वग्गी घुस्पटी मारुन न्हिदता. ही तुकां आयकपाक येता ती दर्या ल्हारां मातयेच्या मोगान, दर्यावेळेच्या मोगान धांवत येतात आनी आपलो धवो फुल्ल फेस रेवेंत, तळपांचेर आदळून खोशी मनयतात. आनी कितलें सोबीत तूं कांतयल्ली बावली कशें! चंद्राची कोर कशें! पूण हे कुड्डेगाळींत, कुड्ड्यालोकांचे, बेसूर जिणेक सूर दिवपाक धडपडटा.

तेवूय हांव म्हज्या उकत्या दोळ्यांनी पळयतां.

कुड्डेंबाय : (रड्टा) तुवेन उलयल्लें म्हाका कांय एक कळूंक ना. एक उतरपसून कळूंक ना. कितलें पाडें हांव, अडाणी हांव, पाड पडूं म्हजें. (रड्टा)

कासादोर : अशें रडू नाका. तुका कळूंक ना हें तुवेन मान्य केलें. हातूंतच तुज्या फुडाराचें जैत आसा. म्हाका सगळें खबर आसा अशें म्हणपीच हांगा चड लोक आसात.

कुड्डेंबाय : म्हजें तुजकडेन एक मागणें आसा. तुका दिवपाक जायत?

कासादोर : म्हजो जीवपसून तुका जाय जाल्यार हांव दिवपाक तयार आसां.

कुड्डेंबाय : हें कुड्डेगाळीत जीव दिवप्यांचो उणांव ना, आनी जीव घेवप्यांचोय! पूण म्हाका तुजो जीव नाका. तुका दोन दोळे आसा म्हण्टा, तूं तातूंतलो म्हाका एक दिता?

कासादोर : तुका एकच न्हय, दोनूय दोळे दिवपाक हांव तयार आसां. पूण म्हज्या एकाच प्रस्नाची जाप म्हाका अजून मेळूंक ना.

कुड्डेंबाय : खंयच्या?

कासादोर : तुमच्या नाकावयर दोळ्यांच्या जाग्यार ज्यो दोन खांची आसात त्यो, मुळच्यो? जल्माच्योच?

कुड्डेंबाय : ना. भुरग्याचो जल्म जातकच ताच्या सव्या दिसा सटी वाजयतात आनी भुरग्याचे नाकावेले दोनूय गड्डे काडून वडयतात.

कासादोर : म्हणजे दोळे काडून वडयतात?

कुड्डेंबाय : हय.

कासादोर : कोण वडयतात?

कुड्डेंबाय : आमचो वैदूबाबा. ताचेकडेन कसलें तरी वखद आसा, गड्डे काडपाचें. आता तेणें फैदूकय शिकयला.

कासादोर : सो हॉरीबल! पूण कित्याक काडटात?

कुड्डेंबाय : कुड्डेगाळीक गड्डे आशिल्या मनशांचो भंय आसा आनी हे परंपरेंतल्यान चलून आयलां. पूण म्हाका ही परंपरा मोडपाची आसा. ताका लागून तुजी मदत म्हाका जाय.

कासादोर : म्हजी मदत तुका सदांच आसतली. चल तुका हांव एक व्हड नदर दितां. विशाल नदर. जे नदरेन तूं सगळो संवसार पळयतलें. दर्याचो गाज,

धर्तरेचो साज, सगळें सगळें तुजें आसतले. हांव तुकां दोळे दीन वा ना दीन. पूण तुका गरज आसा ती नदरेची. ती तुका हांव नक्की दितलों. चल म्हजो हात धर, आमी हो दोंगर चडून पलतडीं, या आमच्या नव्या संवसारांत, जंय तू आसतलें, हांव आसतलों आनी आमचो उजवाडाचो संवसार चल यो. (अशें म्हणून हातात हात धरून वळटात. इतल्यान सगळे गावांतले हातात तोंडके घेवन उबे आशिल्ले दिश्टी पडतात)

कुड्डोभाई : आक्रमण नं. एक-दोन-तीन, गोयंदाऽऽ गोंयंदाऽऽ (हो हो हो करून जाग्यारच रागान हालतात)

कुड्डेंबाय : रावात, कोण एक आक्रमण करचो ना, जर तुमकां जीव घेवपाचोच आसा जाल्यार म्हजो घेयात. म्हजें मडें पयलीं दर्यांत वडयात.

कुड्डोबाबा : कुड्डेंबाय, तू आमचें, म्हजें म्हजी अपुरबायेची धूव तूं आनी आयज तूं त्या परदेसीच्या फावरान उलयता. आगो पिसो तो. अर्थ नाशिल्लें उलयता.

कासादोर : हांव अर्थ नाशिल्लें उलयना. चार दीस तुमच्या फाटल्यान तोंड बोबायलें हांवे तुमकां हर तरेन समजावपाचो यत्न केलो, तुमकां दोळे ना ते नाच पूण म्हजे नदरेंतल्यान तरी तें मळब पळयात, हो दर्या पळयात, हो सूर्य, चंद्र पळयात पूण नाच. तुमकां पळोवपाचेंच ना. तुमकां कुड्डे जावन रावपाचें आसा. पूण ह्या कुड्ड्याबायक नदर जाय आनी ती हांव दितलों, म्हाका कोण आडायता तो हांव पळयतां.

कुड्डोभाई : तू विखाची परीक्षा घेवं नाका. तुका जीव वगडांवचो पडटलो. आमचे हातींत शस्त्रां आसात. अशा वगतार जनावराकपसून आमी सोडीनात, आनी तूं तर मनीस.

कुड्डेंबाय : कुड्ड्याभाई, कुड्ड्याबाबा आयकात, जर तुमी आमकां सोडीनात जाल्यार हांव दर्यात चलत वयतलें. म्हज्या नाका तोंडान उदक वतलें. हांव घुस्मटलें आनी निमाणे बुडून मरतलें. चल्लें हांव, कुड्डेबाबा चल्लें हांव. तुमच्या अपूर्बायेच्या कुड्ड्याबायक निरोप दियात. कुड्डेआवयक हांवेन विचाल्लां म्हणून सांगात.

कुड्डोबाबा : राव, कुड्ड्याबाय राव, तुका जर ताचेवांगडा वचपाचें आसा जाल्यार खुशाल वच. पूण म्हजी एक अट आसा.

कुड्डेंबाबा : कसली?

कुड्डोबाय : हो मनीस, आपल्या तोंडाक येता तें उलयता, संदर्भाभायर उलयता. पिशेपणां उलयता. आमकां कळना तसलें उलयता. तेन्ना ह्या मनशाक आमी आमच्या वैदू कडल्यान तपासून घेतले. वैदू हाका कसले दुयेंस जालां तें सांगतलो. ताचे उपरांत हांव फुडलो निर्णय दितलों. तपासून घेवपाक तूं तयार आसा.

कासादोर : हय, तुमच्या समाधानाखातीर.

कुड्डोबाबा : वैदू, चल हाका बरेतरेन तपास आनी हो असलीं पिशेपणा कित्याखातीर करता तें सौदून काड. तुजे मजतीक फैदूक घे.

वैदू : बरें, यो फैदू.

फैदू : हांव तुजे फाटल्यान आसा.

(वैदू ताका सांसपून तपासता, हात नाकावयर पावतकच दोळ्यांक लायता आनी सामको शॉक बशिल्लेवरी हात फाटीं काड्टा)

वैदू : मेळ्ळें मेळ्ळें कुड्डेबाबा दुयेंस मेळ्ळें.

कुड्डोबाबा : कसलें दुयेंस मेळ्ळें?

वैदू : हो जेन्ना दोंगरावयल्यान पडिल्लो तेन्ना हाचे नाकावयले गड्डे धांपलेले आशिल्ले. आतां ते उक्ते आसात, आनी हालतात. ताका लागून हो मनीस पशेपणा करता. कित्याय कितें उलयता. आमच्या कुड्डेंबायक ह्या मनशाबरोबर धाडून उपकाराचें ना. तें त्रासात पडटलें.

कुड्डोबाबा : सगळ्यांनी वैदून सांगलें ते आयकलें?

सगळे : हय.

कुड्डोबाबा : कुड्डेगाळीच्या भाग्यांत जें बरयल्लें आसा तें केन्नाच चुकचें ना.तेन्ना जो मनीस कुड्डेगाळींत रावता, जांव कुड्डेगाळीकडेन सोयरीगत जोडूंक सोदता, ताच्या नाकाच्या वयर फकत दोन खांचीच उरतल्यो. गड्डे उरपाक फावनात आनी हालतात तसले गड्डे आशिल्लो मनीस तर आमकां कसोच परवडपाचो ना. तुमकां कशें दिसता?

सगळे : सारकें, सारकें.

कुड्डोबाबा : तेन्ना जर ह्या परदेसी मनशाक आमचेकडेन संबंद दवरपाचो आसा आमच्या कुड्ड्याबायकडेन लग्न जावपाचें आसा जाल्यार आमच्या

वैदूकडल्यान आपले दोनूय गड्डे काडून घेवचे. नाजाल्यार ज्या दोंगरावयल्यान तो सकयल देवंलो त्या दोंगराची वाट एकल्यानच धरची.

कुड्डोभाई : हाचे फुडलीं सूत्रां हांव म्हज्या हातांत घेतां. हांव पांचमेरेन आकडे मेजतलों. ताणे हय जाल्यार हय म्हणचें नाजाल्यार मुकाट्यान चलोंक लागचो. एक... दोन.... तीन.... चार... पांच (पांच सोंपल्या उपरांत कासादोर दोंगर चडपाक लागता. जिखले रे जिखले, गोयंदाऽऽ गोयंदाऽऽ म्हणून सगळे, सुरुवातीभशेन गावपाक नाचपाक लागतात. इतल्यान कुड्डेंबाय एकदम आड्डून तांका थारायता)

कुड्डेंबाय : रावात कसलें जैताचे सुवाळे मनयतात. कुड्डे तुमी, तो आमका नदर दिवपाक आयिल्लो. तेणें म्हाका नदर दिली. दर्याक खोलाय आसता. ताचो थांग लागना. मळब अनंत आसता, ताका अंत ना. ही झाडां, सुकर्णी सावदां, सगळ्यांक रंग आसता. हो संवसार रंगरंगयाळो आसा. पूण तुमच्यामुखार फकत काळोखूच आसा. सगळ्या रंगाचो एकठांय केल्लो काळोख. म्हाका तेणें दिव्य नदर दिल्या. म्हज्या नदरेमुखार आसा हे दोंगुल्ले पलतडचो उजवाड. म्हाका स्पश्ट दिसता थंयची तांबडी माती, तांबडें रगत, पाचवीं रानां, पाचवी मनां. फकत म्हज्यामुखार आसा ती ही दोंगुल्ली. केन्ना चडपाचो यत्नच केलो ना. आता हांव ही दोगुल्ली चडटलें. हांव सकयल पडलें जाल्यार तुमचें, कुड्डेगाळीचें कुड्डेंबाय. आनी वयर पावलें जाल्यार तुमी मातयेंत रकयल्ली दुदावेली साय. (वयर चडटा. सगळे मुळसांत येतात – काळोख)



4

# भुंयगर्भ

: पात्रां :

भोलो – एक शेतकार

एक गांवचो शेतकार

आवय – भोल्याची बायल

व्हडलो – भोल्याचो चलो

धाकलो – भोल्याचो चलो

चेंडूं – भोल्याचें चली

कार्यकर्तो

सरकारी मनीस

मिडिया – टी. व्ही. पत्रकार

लोक – गांवचो कांय लोक

## देखाव : पयलो

(थळ : शेत. कांय लोक गायतात)

देस हो आमचो भुंयपुतांचो
आमी शेत पिकोंवया, आमी देस जगोवया
माती आमची युगां युगांची
नातींय आमचीं युगां युगांचीं
कली युगाच्या अंतामेरेन
आमकां आमी झरोंवया
मातयेंत आमी किरोंवया

कश्टाची ना पर्वा करची
भुकेचेर वयर माती घालची
आमचींच आमी हाडां मोडून
आमकांच आमी झरोंवया
मातयेंत आमीं किरोंवया

(गायन सोंपतकच एकलो मुखार येवन उलयता, हो भोलो, हो निवेदक, गरजेखातीर कोणूय.)

तो : शेतकारांच्या ह्या देशांत सगळें कशें व्यवस्थीत चल्लां. शांत, सचेतन, खळखळटया उदकावरी ! वेळच्यावेळा पावस पडटा, वेळच्यावेळा दंव पडटा! पाटापाटांतल्यान, कुणग्याकुणग्यांतल्यान, भुंयेच्या शिरंतरांतल्यान उदक घोळटा, उदक खेळटा, पेरिल्लें बीं किल्लता, फुलता, फळटा! रोयिल्लें मूळ धरता, पोसवता, भात दिता, नाचणो दिता, वरी दिता,

भुंयपुतांक आनीक कितें जाय? सुख, शांती, समृद्धी सगळें ताच्या पदराक आसा.

(इतलो वेळ मेरेन शेतांत एकलो जोत आमुडटा, एकलो मेरो मारता, कांय बायलां रोप लायतात. तो जोत आमुडटा तो भोल्या शेतकाराचो व्हडलो चेडो, तो दुसऱ्या कुणग्यांत मेरो मारता तो धाकलो चेडो, ती थंयसर रोप लायता ती ताची बायल आनी तें रोपांच्यो पेंडयो हांडून दिता तें ताचें चेडूं. उलोवपीच भोलो शेतकार जाता. शेजारचो एक शेतकार उलो मारीत येता)

शेतकार : ओ भोल्या... तुजी रोप लावन जाली काय ना रे?

भोलो : ना आजून, आनीक दोन दिसांचें काम उल्लां, तुजी लावन जाली?

शेतकार : तरवोच थोडो कमी पडलो मरे. एक विसयेक पेंडयो जायो आसल्यो. तुजेकडेन मेळटल्यो म्हणून आशेन येल्लों.

भोलो : मागीर व्हर मरे. देवान दिल्लो खूब आसा. म्हज्या हिस्पान पन्नास तरी पेंडयो उरपाक जायो. अंदू म्हजें बीं बरें आसलें. तरतरून वाडलो तरयो.

शेतकार : देव पावलो बाबा, एक कुणगो तस्सो रोप लायनासताना उरतलो आसलो. तुजे मोटे उपकार जाले.

भोलो : आरे उपकार करी ना रे कोण कोणाचेर हांगां. आमीच एकमेकांक पावोंक जाये न्हू? हे त्यो पाटांत दवरल्यात तातुंतल्यो वीस पेंडयो घेवन चल.

(तो घेवन वता, भोलो शेतकार आपुणूच आपल्याचेर उलयता)

शेतकार नेटार आसा. चेडेय जोत धरपाक शिकल्यात. कामेरीं जेवणखाण आनी बायल चेडूं सांबाळटा.

व्हडल्या, जोत आमुडटाना बैलांचीय चड वाट लावंक जाय ना आनी तासांय चुकूंक जायनात. मोनजात ती, आमी राबयतात तशी राबतली म्हणून पिळून काडपाक जायना. सगळी माणुसकी तुजे हातीचेर आसा. तूं रूमडी कशी धरता ताचेर जोत चलतलें. हें पळय हांव दाखयतां –

(जोत आमुडटा, चल्याक शिकयता)

भोल्याचें सगळ्यांचेंर बारीक लक्ष आसा. ताचेकडेन ज़ायना म्हणून तो काम करी ना अशें न्हय. हातरुणांवयलो उठून पसून तो काम करपाक

येवपी. इतलें शेतकाम ताच्या आंगात भिनलेलें आसा. पूण तो सगळ्यांक शिकोवपाक सोदता. कश्टा कामाकडेन आळसाय करुन उपकारना.
धाकल्या, अशे लडे केन्ना तुज्या बापायन मारलेले? हाड तें खोरें म्हजेकडेन दी. हें पळय खोरे अशें दोनूय हातांनी वयर उखलपाचें आनी ताकदीन रेंब्यात मारपाचें तेन्नाच खोऱ्याचेर लडो येतलो. ह्या कामाकडेन हयगय, आळस उपकारना. थोडोवेळ करचें पूण मन लावन करचें.
भोल्याचे सगळो जीव ह्या शेताचेर आसा. हें शेत तेचें आख्खें कुटूंब चलयता. गांठीक चार पयशेय दवरता. मेरेवयल्यान चलतना पसून तो ती सारकी लायल्या काय ना तें पळयता. आपूण सारकी करता –
आगो तुमीं मोन्यानीचशीं रोप लायतात?

बायलां : मोन्यांनी कशीं आमच्यो गजाली चल्ल्यात त्यो?

भोलो : गजाली करुं नाकात. गजाली करतां करतां हाचेर ताचेर पावतलीं आनीं मागीर झगडटलीं. बरीशीं गितां म्हणात. शेवावयलीं गितां नात तुमचेकडेन?
(बायलां रोप लायताना गितां म्हणटात. पळयतां पळयतां सगळें शेतच नाचपाक लागता गितांच्या तालार)

## देखाव : दुसरो

भोलो : एक वादळशें येता... सगळो गांव ते सरशीं हालपाक लागता... हुबतासो जाता... हेवटेन तेवटेन खोलयो हुबिल्लेवरी लोक हुबतात आनी निमाणें एका जाग्यार चोंबों जावन भंयान अजापान, उबे रावतात.... रुंवुंव करुन गाडयो आयिल्ल्याचो आवाज.... सायरन वाजिल्ल्याचो आवाज.... तीग जाण येतात.... एकलो फोरेनर कसो..... हातांत लॅपटोप घेवन .... बाकीचे दोग देसी..... एक कार्यकर्तो...., दुसरो सरकारी मनीस.... हातींत कांय पत्रकां..... विलायती मनशाक उंचेल्या आसनाचेर बसयतात..... लोकांत उमळशीक..... भोलोय बी अजापला.

कार्यकर्ता : हे पवित्र भुयेंच्या भुंयपुतांनों. आमच्या लोकप्रिय सरकारान आपले

गरीब दळडिरे जनतेचो आवाज आयकलो. आनी तेच तत्परतेन आपले जनतेच्या आवाजाक जाप दिली.

सरकारी : मेजून धा विदेश दौरे केल्या उपरान्त सरकारान एका असामान्य जादुगाराचें मन वळयलें. ताच्या पायांक हात लावपाचें भाग्य मेळयलें. तो येंवचो म्हणून आपले कातिर्चीं जोतीं शिंवलीं. रेशमाच्यो पायंघडयो घातल्यो. रत्नांची रांगोळी घातली. तेन्नाच तो आयलो....

कार्यकर्तो : आपलो जादुई चमत्कार दाखोवपाक. हो जादू सादो सुदो न्हय. ह्या जादवान सगळो संवसार आपल्या मुठींत घेतला. सगळी धर्तरी हालयल्या. उदक सुकोवपाची ताकद आसा ह्या जादवांत, धर्तरेचो गुळो फोडपाची ताकद आस्रा ह्या जादवांत, आमका सोंपोंवपाची ताकद आसा ह्या जादवांत.

लोक : आमकां जगोंवपाचीय ताकद आसा ह्या जादवांत, जगोवपाची? आमी खंय मेल्यांत तर? आर्मी जितेच आसात न्हू रे?

: छू! वगी राव, तेजेकडेंन जादू आसा. आमकां मारुन बी वडयत.

कार्यकर्तो : तुमी जगतात तें आमकां बेस बरें खबर आसा. पूण हें जगप संस्कारी मनशांचें जगप न्हय. आदिवासी लोकांचें जगप हें. हें पळयात जगप कशें आसता तें. जादुगार तुमकां दाखयतलो. पळयात....

भोलो : विलायती लॅपटोप उगडटा. लोकांक आलीशान जीण दाखयता. लोक अजापीत.

: आवयस! कितले पयशेकार आसतले न्हू हे लोक?

: हे, हे, कसले कसले कपडे घातल्यात पळय!

: हे, तेवटेन पळय! तेंच्यानीं ताटात कितलें वाडून घेतलां तें!

: बेश्टींच तेंचीं धोल कशीं पोटां वाडोंक ना.

: सगळे लोक गाडयांनी! रस्त्यावयल्यान चलपी म्हणून कोण नाच! ना जाल्यार आमचे लोक, गोरवां कशीं रस्त्यार भोंवतात.

सरकारी : ह्या लोकांचें घरभरून दार ओतपी जगप तुमी पळयलें?

लोक : हय....

सरकारी : ह्या लोकांचें धेंकर तुमी आयकले।?

लोक : हय....

सरकारी : हें आलिशान जगप आमीं तुमकां दिवपाक सोदतात.

लोक : कशें?

सरकारी : जादूची बडी फिरोवन.

लोक : म्हणजे?

सरकारी : जादुगाराकडेन इतल्यो तरकिबो आसात की तुमी फकत आं केल्यार पुरो. तुमकां जाय तें तुमच्या तोंडांत येवन पडटलें. (गर्देतल्यान एकल्याक वोडून काडटा.)
तूं आं करता?
(तो भिता. ना म्हणून फाटीं सरता)
अशें भिवून उपकारचे ना. धाडस दाखोवपाक जाय.
(आनीक एकल्याक वोडून गर्देतल्यान भायर काडटा.)
तूं शेत रोयता. बरोबर?

: हय....

सरकारी : कितलें शेत आसा?

: आसा पोटापुरतें .....

सरकारी : कितलें भात पिकता?

: पिकता पोटापुरतें....

सरकारी : पोटापुरतें.
(हांसपाक लागता. बाकीचे लोकूय हांसतात. पूण कित्याक हांसतात तें खबर ना. तो काचाबुल जाता.)
पिशा, आमकां पोटापुरतें नाकां. आमकां पोट फुटसर जाय. सुस्ती मारीसर जाय. हांव तुमकां कितें सांगू, तुमकां जादूगारच दाखयतलो. पळयात पळयात....
(सगळे गर्दी करून लॅपटोपाकडेन येतात.)

: हे सोमा, पळय त्या लोकांचें शेत पळय!

: आवयस! लुवणी, मळणी सगळें मिशिनाचेरच चलता मरे तेंचे न्हू!

: आरे पिशा इतलेंच न्हू! तें पळय तें पळय, नांगरणी, पेरणी पसून मिशिनच

करता.

: देवा म्हज्या! कितलें भात!

सरकारी : पळयात, येदेश्या कुडक्यार कितलें भाताचें पीक काडलां तें पळयात.... कितली व्हडली केंसरी आयल्या ती पळयात तिचो गोटो पळयात. (सगळे अजापान पळयतात)

कार्यकर्तो : तुमकां सांगल्यार खरें दिसचें ना. हें सगळें पीक काडलां तेका उदक कितलें लागलां आसतलें?

लोक : कितलें?

कार्यकर्ता : ताका उदकाची गरजूच ना. तें सगळें दवाचेर पिकता. पावस पडोंक नासल्यार जाता

: आवयस! येदेश्या कुणग्यात एक खांडी तरी जातलें न्हू रे?

: नडणीं बी कांययेक आसची ना न्हू गो?

कार्यकर्तो : नडणी ना, पाली ना, किडी नात, मुंयो नात, तोळ ना, पिकाणें ना. फकत गोटो. सणसणीत तांदूळ. वयल्यान सरकार तुमकां रीण दितलो. आनीं फारीक करपाक जायना जाल्यार माफ करतलो.
(तो लोकांक सांगीत आसा. दुसरे वटेन सगळे अजापान पळयतात)

भोलो : भोलो अजापीत जाला. 'येदेश्या कुडक्यार इतलें पीक! आमी धा कुडोव पेरीत जाल्यार खांडीभर पिकना. ते भायर रगताचें पाणी करून बाराय म्हयने मर मर काम. अशें पीक येत जाल्यार खंयच्या भुंयपुताक नाका जातलें? 'भोल्याचो जीव संभ्रमांत पडटा तेची तकलीच चलना. हो सांगता तें खरें काय फट. पूण विचारतलो कसो.... इतल्यान ताच्या कानार साद पडटा....

कार्यकर्तो : भोल्या....

भोलो : भोलो दचकता. कोण तरी आपलो गळो अंदूक येतासो तेका दिसता. ''आं... ना... ना...''

कार्यकर्तो : भोल्या. आरे अशें कितें करता? असो काचाबूल जांव नाका. हो जादुचो खेळ आसा. जादुगार फकत तोपी भायर काडून दाखयतलो. खंयच्यान काडली तें दाखोंवचो ना. सादया कागदाचे पयशे करून दाखयतलो पूण

खऱ्यो नोटी आपल्याक दियात म्हणून हक्कान मागतलो. ना जाल्यार बोल्सांत नोटींच्या जाग्यार सोरोप जातलो म्हणून भेश्टायतलो. तुकां आनीक खेळ दाखोंव?

भोलो : ना.... नाका....

कार्यकर्तो : तूं भोलो शेतकार. बरोबर?

भोलो : हय....

कार्यकर्तो : शेत म्हणजे तुजें पोट, शेत म्हणजे तुजी बायल, भुरगीं, शेत म्हणजे सगळें, शेत म्हणजे तूं, तूं म्हणजे शेत. बरोबर?

भोलो : हय....

सरकारी : शेत म्हणजे हांव, हो, हे लोक, हो सगळो देस. बरोबर?

भोलो : हय.... हय.... भोल्याक आपूण कितें उलयता तेंच कळना. हें कितें चल्लां तेंच कळना. तो सगळ्यांक नियाळटा. तेका सगळे लोक तोंड वाकडें करून, शिंगा दाखोवन, गाल पेचून, चाळयतात अशें दिसता.

कार्यकर्तो : भोल्या.... आमी तुकाच सोदताले. तुवेन आमचो प्रयोग येसस्वी केलो. ताकालागून आमी तुका धन्यवाद दितात आमचो, जादूगार तुजेर खुश आसा. आपखोशयेन तो तुजे पिंजके झोळयेंत माणकां मोंतयां परस मोल आशिल्लें दान रकोंवंक सोदता. तुवेंन तें पिंजके झोळयेंत धेंवन मातयेंत रकोंवंक जाय. तेन्नाच तेचें भांगर जातलें. घे भोल्या शेतकारा घे, हें जादूचें बीं घे, नवलांचें बियाणें घे आनी शिंपडाय तुजे जमनिचेर. पिकय भात खांडयानी आनी बडय कणसां तोंडयानीं.

भोलो : सगळें भर्र करून सगळेवटेन शिंपडायलेवरी करता. लोक भात लागीं करतात, कोण पायानीं मळटात, कोण तोंडयानी बडयतात. उत्साह, उमेद, भोलो मळबाक दोळे लावन काचाबूल जावन बसता.)

सगळे : खांडयानी पेर भात
पायांनीं मळ भात
विळयांनीं लुंव भात
तोंडयानीं मळ भात

## देखाव : तिसरो

(सगळे शेतकार आपापले शेंताचे मेररे उकणयां पोल्यार हात घेवन बसल्यात. बीं मेळूंक ना म्हणून हया वर्सा शेंत रोंवक ना. वातावरण गंभीर. भुकेची आग पोटांत खदखदतकच मुखामळां करपून वतात.)

भोलो : आमचे जाण्टे सांगताले ती तुमकां गजाल सांगतां. खरें म्हणजे जाण्टे सांगच नासले. ते करून दाखयताले. तांची फुडली पिळगी मागीर तें मुखार चलयताली. अशेंच चलत चलत मागीर तें आयचे पिळगेमेरेन पावतालें. एक खांडी भात जालें कांय पांच कुडोव निवळशें भात फुडल्यावर्सा बिंयांक जाय म्हणून कुशीन काडटाले. ताचो रोव काडटाले. कुंडग्यानी बरी मशागत करून तो रोव पेरताले. घरचेंच गोरवांचें शेंण सारें म्हणून वापरताले. वीस-पंचवीस दिसांनी बरो तरवो तरतरुन येतालो. तो मागीर कुपळून बाकिच्या कुंडग्यानी रोंप लायताले. मागीर परतून खांडी देड खांडी भात पदरात पडटालें. आमचे जाण्टे आनीकय एक गजाल सांगताले, चंदनाच्या झाडाकुशीक दुसरें झाड रोयल्यार तांकाय चंदनाचो वास येता पूण तो चंदन जायना. चंदन वळखूंक शिकपाक जाय.
तुमकां कितें दिसता? ते शेतामेरेर जिवाची पोटली करुन बसल्यात ते भुंयपूत कोणाची वाट पळयतात काय? पावसाची? ना भोल्याची. भोलो बियाणे हाडपाक शारांत गेला.
(भोलो जावन वता. तो शारांत गेल्लो बीं आयलें कांय पळोवपाक. सगळे काकुळटेन ताका पळयतात.)
भोलो सामको थकला. हेंकां खंयच्या तोंडान सांगू तेंच तेका कळना. रडपाक पावता. निमाणें रडटाच.

: भोल्या हेंवूय फावटी हात हालयतच येयलो मरे?

भोलो : (रडत.) हांव म्हणून कितें करू? तेंचे फुडयांत नाक घांसलें, पांय धल्ले, सामको गळगळयां येयलों. कोणूच कानामनार घेयना.

: आरे, बीं ना जाल्यार पेरतले कितें आमी? बायल भुंरग्यांचें कशें पोट भरतले? पोरु वर्साचें इल्लें भात दवरलेलें हायेन बियाक जायत म्हणून, पूण पाडपडलेली कोंबरीच फुटना.

: भोल्यान सगळी वाट लायली ती. भोल्यान तेन्ना नाका म्हटलेलें जाल्यार आमी हया फंदात पडचेच नासले.

भोलो : मागीर मारात मरे म्हाका.... मारात.... आनीं पुरात एका कुंडग्यात आनीं भोंवडायात वयल्यान गुटो. मागीर बीं मेळटलें तुमकां. पेरपाक.

: वगी राव तूं भोल्या, तुजी म्हणून कसली चूक. जादू सगळयांकच बरो दिसता. दोळे बांदणी जाता तेन्ना. आमची सगळ्यांची जाल्ली. वगी राव तूं.

: म्हाका तो परत मेळपाक जाय आसले. बीं दितलों, सारें दितलों, उत्पन्न अशें येतलें, तशें येतलें, उदक नाका पाणी नाका.... आरे तुजो सत्यानाश जातलो, कोंबरो मरतलो तुजो.

: तेका कित्याक खेपता? आमचोच सत्यानाश जाला तो पळय. जमनीचो कस मारुन वडयला आमी. तेंच जादूचें बीं जाय पडटा तिका. तेच कंपनीचें सारें जाय पडटा. वांज जाल्या ही जमीन, अहिल्या जाल्या, आमी शिळा करून वडयल्या तिका.

: रिणांचे दोंगर माथ्यार घेवन भोवपाचे आतां आमी. आमकां कोणाक नागोवंकूय कळना. हांगा पेरलेलेंय किल्लना.
केन्नाय पेरलें म्हणून तें किल्लून थोडेंच येतलें? भूंय जाली म्हणून कितें जालें तिचे म्हणून म्हयने आसतात, फळपाचे, फुलपाचे, त्या त्या वेळारतें तें काम जालें काय फळ बरें मेळटा.

: सगळेकडेनच जादूचे प्रयोग जावपाक लागल्यात. मिर्ग सुको वयता जाल्यार चैत्रांत पावस पडटा. आतां आंबुल्लेक मुटटे लागतले आनी पोपायांक पेरां लागतलीं. सगळेकचकडेन जादूचे प्रयोग जावपाक लागल्यात.

: (पिकास घेवन) हांव पळयतलों कशे आनी खंय जादूचे प्रयोग जातात ते. सगळें काबार करतलों. सगळ्यांक सोंपयतलो. धर्तरी कशी वांज जाता तीच पळयतलों. (घबाघबा खण्टा आनी जीव वचून जमनीर पडटा)

: सुटलो बाबडो. (सगळे ताका खांद दिवन घेवन वतात)

भोलो : भोल्याक दिसता तो किरवडार आसा तो आपूणच कसो. आतां ते लोक

आपल्याक सरणार दवरतले.... निमाणो संस्कार करतले... आपल्याक लासतले..... तो आड्डी मारीत धांवत येता.

(बायल, चेंडूं, आनी दोगूय चेडे धांवत येतात)

सगळीं : कितें जालें?

बायल : तुमी अशे आड्डले कित्याक?

भोलो : ना... कांय... ना...

व्हडलो : बाबा, कितें जाता तुकां?

भोलो : म्हाका एक वायट सपन पडलें...

धाकलो : बाबा तुज्या जिवाक बरें ना. तुका सांगलें वगीच चिंतीत बसू नाका.

व्हडलो : अशीं दिसाचीं सपना पडप बरें न्हय.

चेडूं : (रडपाक लागता)

बायल : वगी राव बाय, रडों नाका. नशिबात आसा तें भोगचेंच पडटलें. तुज्या नशिबांत आसा जाल्यार तुज्या कपलाक तांदूळ लागतले. शेत पडींग सांडून उपकारचें ना. कितें तरी रोंवया. हे दीस अशेच उररचे नात. व्हडल्या. धाकल्या, चल पळोवया जमता तशें काम करुंया. देव कितें दिता तें पदरांत घेवया.

भोलो : व्हडलो जोत आमुडटा, धाकलो मेरो मारता, बायल आनी चेडूं रोप लायतात, काम चल्लां पूण नेट ना. भोलो पिसो कसो वगीच शेता मेरेवयल्यान भोंवता. खूब थकला. येवजून येवजून चड थकला. केन्नाच शेतामेरेर परवंत बस नासलो तो कोणांक तरी खेपत पिरंगत मेरेर बसता... धोपरांत तकली धालून. व्हडलो, धाकलो, बायल आनी चेडूं सुतकी चेहऱ्यान बसल्यांत. पळयणाऱ्याक दिसतलें घरात कोण तरी दगावला.... वातावरणांत थंडाय आसा. मसणातली शांतताय... आवयचे कुशींत चेडूं रडून रडून थकलां. आवयच्याय सोंशीक दोळ्यांनी कितलीं दुकां सुकल्यांत तें कळपाक मार्ग ना. आनी व्हडलो.... (व्हडलो अचकीत रडटा) अजून मेरेन ताका रडलेलो कोणेच पळोंवक ना. परिस्थितीचे घण बसून ताचें काळीज निबर जाल्लें आसा.... पळयात, धाकलो ताका धीर दिवपाक गेलो. अशा वेळारच भावाची चड गरज आसता. लोक

येतात, धीर दितात आनी परत वयतात. लोक तो. आपल्या वाटयाक आयिल्लें काम करुन वयतलो. हां... तूं आयली बाये.... इतलो वेळ खंय आसली?... आतां ही मावशी आवयक रडयल्या बगर कशीच वयची ना.

मावशी : आसू गे रडूं नाका. (आवय रडटा) तें कितें आपले हातींत आसता? कोण आपल्या जल्माक पुरवला? काळ येयलो काय माळ गळ्यांत अंदून घेवचीच पडटा. (आवय रडटा) रडूं नाका तूं. देवान दिल्ले दोन भांगरासारके भुरगे आसात तुज्या पदराक. देवना हें बावली कशें चेडूं दिलां तुका. म्हजेवरी जाल्यार कितें करतली आसली.... (मुसमुसता)रडूं नाका. तो वयर आसा बसलेलो. सगळें ज्युस्त करतलो. (वता)

: (एकलो व्हडल्यालागीं येता) म्हाका खबर ना. केन्ना घडली ही गजाल?

व्हडलो : दनपारां...

: दुयेंत आसलो?

व्हडलो : हय...

: दोतोराक बी हाडून दाखोवक नासलो?

व्हडलो : (रडटा) पयरच दाखयल्लो. पूण कांय फायदो जावंक ना. (रडटा)

: वगी राव, रडूं नाका. घरांत तूंच आतां कर्तो सवरतो. आमी आसात. भिवूं नाका तूं.

(धाकल्याच्याय खांदार थापडटा आनी वता)

भोलो : तिनकात्रेचो वेळ जाला.... गळ्यांतलीं कोगळां वाजयत गायो गोठ्यात आपल्या वासराकडेन धावत येतात.... आवयची सुलूस लागतकच वासरांय नेटान हांबेवपाक लागतात.... एकेवटेन घुगूम रडटा.... दुसरेवटेन रात किडयांची कीरकीर... थकून भागून मनीस अशा वगतार घरा पावता जाल्यार...

(भोलो घरांत भितर सरता एकदम चेडूं आडडून बापायकडेन येता)

चेडूं : बाबा.... बाबा रे.... (रडटा).

भोलो : कितें जालें बाय...?

चेडूं : बाबा रे.... आमचो बाळो.... (रडटा)

भोलो : बाळो..? कितें जालें आमच्या बाळ्याक ....?

धाकलो : आमचो बाळो आमकां सोडून देवाच्या घरा गेलो. आतां केन्नाच आमकां मेळचो ना तो...

(रडटा, बाकिचींय रडटात)

भोलो : भोल्याक कितें जाता तेंच कळना. सगळें मळबच आपल्याचेर कोसळटा काय दिसता... सगळी भुंय आपले भोवतणीं गरगरून फिरताशी ताका दिसता. आपूण खोलखोल भुयारात रोमतासो ताका दिसता... ताका आयकूंक येता बाळ्या बैलाचो धेकर.... ताका आयकूंक येता जोत आमुडटनाचो आपलोच आवाज.... एके भिरकेंत उठ्टा... आनी बोंबलेच्या देठांतल्यान उलयता... "कोण तो थंयसर म्हज्या बाळया बैलाक वोडून व्हरता? आसा कापस्ताद जाल्यार म्हज्या फुड्यांत हात लावन दाखयात. म्हज्या फाटल्यान उडी घालपी भिजुड्डे लोक तुमी. फाटल्या दारांतल्यान भितर सरपी चोर तुमी. पयलीं आमचीं शेंतां सोपंयलीं. आमचे भुंयेक सोंपयली. आमच्या उदकांत वीख घोळयलें. दळडिच्यानों म्हजो बैल मरोंक ना. मारला तुमी तेका. खून पाडला तेचो. आरे, मवड्डावयलो धुल्लो आनी वीख घोळयल्लें उदक पिवून खंयचें जनावर जगतलें? तुमी जगशात? म्हजें अडाण्याचें आयकात... सातय समिंदर आतां विखान भरतले... तुमकां सोपयतले... तुमचो सत्यनाश करतले... म्हजे तळतळाट हे... एका भुंयपुताचो विकळाप... (रडटा) म्हजो बाळो.... म्हजो पूत... उखल्लो काळान.... म्हजो बाळो...

(रडटा, सगळ्यांक लागीं घेता)

## देखाव : चवथो

(गांवांत हुंवार आयला. शेतां भाटां सगळें व्हांवून गेलां, जोगलां मारुन दडकांनी पावस पडटा. लोक हेवटेन तेवटेन धांवतात)

: आमचो दादी दिसला?

: ना....

: ना? आरे देवा... खंय गेलो काय? (धावतात)

: आवय आवय, तुमचो काशिनाथ गायेक हाडपाक गेल्लो तो तेवटेनच उरलो....

: बाबल बाबल, खळ्यार उदक भल्लें आनीं खळ्यावयलें भात सगळें व्हावून गेलें.

: धाकल्या, काळो बैल आजून दाव्यार पावोंक ना. खंय लागिसराक आसा जाल्यार पळोवन यो. जिवाक सांबाळून रे. (हुंवार थंडावता)

भोलो : बुटटी कोणाक आपलो म्हणिना, परकी म्हणिना, बुटटेक सगळें समान. बुट्टेन गावांक धुयलो. गोरवां - वासरां, शेतां - भाटां, इतलेंच न्हय जित्या मनशांक पसून बुट्टेन सोडूंक ना. सरकारी दिवाणात ही खबर वावदळ कशी पावली. सरकारी यंत्रणा खडबडून जागी जाली. आपलें सैन्य, हत्ती घोडे, इतलेंच न्हय, व्हडले व्हडले म्हारथी पसून आपले रथ घेवन गांवांत हजीर जाले. कांय जाणनी मळबांतल्यान गांवाची नियाळणी केली. कांय जाण बोटीनी भोंवले. कांय जाणांनी रथातल्यान मिरयले आनी आपआपली वंशावळ गांवांत सोडून आपआपल्या सरकारी पांजऱ्यांचीं जनेलां धापून बसले.

(सरकारी मनीस रिपोर्ट बरोवन घेता, मिडिया कॅमेरा सेट करता. वांगडा कार्यकर्तो)

सरकारी : (कार्यकर्त्याक). चल, लोकांक समजावन सांग.

कार्यकर्तो : सायब, मात्सो राव. अजून कॅमेरा सेट जांव ना.

मिडिया : जालो सायब, करात तुमी सुरवात.

कार्यकर्तो : गांवच्या म्हज्या भावांनो आनी भयणांनो, गांवांत बुट्टी आयली. आमच्या सरकाराक खूब वायट दिसलें. गोरवां - वासरां व्हांवली. तांचें आमकां व्हडलेशें पडूंक ना. पूण पन्नाशेक लोक व्हांवले ताचे आमकां खूब दूख जाता. दूख इतलेखातीर जाता, येता ते वेचणुकेक आमचीं पन्नाशेक मतां फुकट गेलीं. आसूं, जावपाचें जावन गेलें. आतां आमचे हातींत कितें आसा. अशें म्हणून वग्गी बसून उपकारता? विरोधी पर्टीचीं दुपेटीन मतां फोडपाची कापस्ताद आमी दवरपाक जाय... आमचेकडेन ती आसा.

ताळयो...

(लोक वग्गी, ताच्या लक्षांत येता आपूण व्हांवलों. स्वताक सावरता) तूं... तुमची कोणाची कितली लुकसाणी जाल्या ती तुमी सायबाक सांगची. आमचो सरकार तुमकां भरपाय दितलो.

सरकारी : तुजें नांव कितें?

कुश्टा : कुश्टा आपा शेतकार.

सरकारी : तुजी कितलें लुकसाण जालें?

कुश्टा : सगळे कवाथे व्हांवोन गेले सायब. एक पसून उरोंक ना.

सरकारी : कवाथे लागताले?

कुश्टा : ना...

सरकारी : मागीर तुजें लुकसाण कशें जालें म्हण्टा तूं?

कुश्टा : सायब, सरकारी रीण काडून कवाथे रोयलेले सायब. एक पसून उरोंक ना.

सरकारी : बरें बरें, बरोवन घेतलां हांवेन. हांगा आंगठो लाय. (आंगठो घेता). नेक्स्ट. तुजें नांव कितें?

(मिडियाक) तुजो कॅमेरा बन्द कर. सगळेंच जग लोकांक दाखयशीत जाल्यार लोक चाळवतले. आंगठो लायतनाचेच शुट कर. ओ. के? सांग नांव सांग.

बाबी : बाबी शेतकार...

सरकारी : तुका बापूय ना?

बाबी : आसा सायब.

सरकारी : मागीर तेचें नांव कोण सांगतलो? तुजो बापूय?

बाबी : ना सायब तेच्यान उठोंक जाय ना. तो हातरुणार पडला.

सरकारी : मागीर कोण सांगतलो?

बाबी : म्हाका तेचें नांव खबर आसा सायब. घे बरोवन घे.

सरकारी : हां, सांग बेगीन.

बाबी : इश्णू बाबी शेतकार.

सरकारी : कितलें लुकसाण जालें तुजें?

| | | |
|---|---|---|
| बाबी | : | सायब, (रडटा) आठ दीस मळणी घातलेली. सगळें भात खळयारच धांपून दवरलेलें. दोन दिसा भितर वारें करून व्हरतलो आसलों. पूण काळान आमच्या तोंडातलो घास काडून घेतलो सायब. |
| सरकारी | : | आरे पापया, मागीर रड. वेळ जाता आमकां. तुमकां लागून आयज म्हजी सुटी फुकट गेली. कितलें भात आसलें तें सांग पळोवया सडसडीत. |
| बाबी | : | सायब, पांच स खांडी तरी जातलें. |
| सरकारी | : | अंदाजे पाच स खांडी भात.... (बरयता) म्हाका एक सांग. अंदू सरकाराकडेन बीं शोर्टेज जाल्लें. सरकारन कोणाकच बियांणें दिंवक ना. मागीर तुवेंन खंयच्यान शेत रोयलें? |
| बाबी | : | सायब, हेचे तेचेकडेन हात पसरून, दुपेटीन पयशे फारीक करुन बियाणें हाडलेलें सायब. |
| कार्यकर्तो | : | सायब, आमच्या कांय बरें मागत्यांक बियाणें पावोवपाची व्यवस्था केल्ली आमी. |
| सरकारी | : | बरें आसा. तुजेकडेन रिसीट बी कितेंय आसा? |
| बाबी | : | रिसीट...? |
| सरकारी | : | तुवेन अमक्या रुपयांचें बियाणें घेतलां म्हणून पावती बी आसा तुजेकडेन? |
| बाबी | : | ना सायब, तसलें कांय ना... |
| सरकारी | : | (तुजं काम जावचें ना अशें तोंड वाकडें करून) बरें आसा. यो, आंगठो लाय हांगा. |
| बाबी | : | (आंगठो लायता) सायब, लुकसाण भरपाय मेळटली न्हू? |
| सरकारी | : | पावती आसल्यार बरें जावपाचें... पळोवया कशें जाता तें. |
| कार्यकर्तो | : | बाबी, आमी आसतना तू कांय एक भियों नाका. मागीर मेळ म्हाका. (मिडियाक) आरे, तूं कमेरा बंद करून कोणाचें तोंड पळयता? तुवेन आंगठो लायतनाचें रिकोर्डींग केलें? (मिडिया ना म्हण्टा) बाबी. हांगां यो. आंगठो लावपाची एक्शन कर. हें पळय ताचो फेस आनी आंगठो क्लीयर दिश्टी पडपाक जाय. चडान चड नांवांची नोंद जावपाक जाय अशी म्हाका सायबाची ओर्डर आसा. (मिडीया शूट करता.) |

सरकारी : नेक्स्ट.. तुजें नांव कितें?

लक्ष्मीकांत : लक्ष्मीकांत...

(कार्यकर्तो सरकारी मनशाच्या कानात कितें तरी सांगता.)

सरकारी : बरें बरें... तूं हांगां सायन कर. (तो सायन करून कार्यकर्त्याक हात दिता आनी वता.)

कार्यकर्तो : यो भोल्या, सायबाक तुजें नांव सांग.

सरकारी : सांग, तुजें नांव कितें?

भोलो : भोलो भिकू शेतकार.

सरकारी : सांग, तुजें कितें बुडलें?

भोलो : म्हजो सगळो संवसार बुडलो सायब. म्हजी आस्पत बुडली, म्हजे कश्ट, म्हजें प्रामाणिकपण, म्हजें हे मातयेकडले नातें, सगळें हे बुट्टेंत व्हांवून गेलें सायब.

सरकारी : हें पळय भोल्या, तुवेंन आतां तुजें जें कितें बुडलां म्हणून सांगला पळय (वाचून) तुजी आस्पत, प्रामाणिकपण, कश्ट.... आनीं हें कितें.... हां.... हां.... तुजो संवसार. ह्या गजालिंची तुकां भरपाय मेळची ना. सरकारान भरपाय दिवपाक कांय नोर्मस थारायिल्ले आसात. तातून तुजो हो एकूय पोइंट वेलीड ना. तुका लुकसाण भरपाय मेळची ना.

भोलो : (मात्सो भ्रमिश्ट कसो) मेळची ना? बरोबर. कशी मेळटली? म्हजें लुकसाण खंय जालां तर? म्हजे चार आण्याचेंय लुकसाण जावंक ना. म्हजेर सगळें मळबूच कोसळ्ळां. म्हजो आख्खो संवसारच बुडला. खरेंच म्हजें लुकसाण मात्तूय जांवक ना. आरे, हांव तुमचेवांगडा गर्दी करून कित्याक रावलां? म्हाका वचपाक जाय. तुमचे पसून पयस... सोडात म्हाका. म्हजी वाट सोडात...

कार्यकर्तो : आरे भोल्या. असो कितें करता? तुजो बुट्टेंत जोताचो बांगर बैल व्हांवून गेलो तो सांग मरे. हांगा यो . आंगठो लाय. आमी मागीर बरयता तें सगळें. (फोर्सान आंगठो लायता, भोलो वता) बाबडो तकलेन सुटिल्लेवरी जाला. कोण तरी हाच्या चेडवाक कामाक लायतां म्हणून सांगून शारांत घेवन गेलो. तेचो अजून पत्तोच ना. पयशांची आशा! चेडूं पयशे धाडटलें,

धाडटलें म्हणून आवयन वाट पळोवन पळोवन जीव सोडलो. तेन्नाच्यान हाणें तकली वडयली. चेडवाक शारांत धाडूं नाकांत, तुमीं फटवतलीं अशें हावेन तांका हजार फावटी सांगलें. पूण आमचें आयकता कोण? आसूं. ताच्या नशिबाचो तो. चलात आमी वेळ वगडावया नाका. नाना, चल तूं नांव सांगा (सगळें फार्स्टस मोशनान चल्लां. येतात, आंगठो लायतात, फोटो काडपाक पोझ... क्लिक... मुखार सरतात. मजगतीं टि. व्ही. चेर बातम्यो)

बातमीदार : सरकारी सुत्रांनुसार शेतकामत्यानीं आत्महत्त्या केल्याचो आंकडो दोन हजार स चेर पावला. ह्यो आत्महत्त्या उण्यो जांवचे खातीर सरकारान एक अस्थायी समिती स्थापन केल्या. मेळिल्ले म्हायतीप्रमाण सगळयो देसी जमनीं बहुराष्ट्रीय कंपन्यांक दिवच्यो आनी शेतकामत्यांक दिसवडयान कामाक दवरचे असो अहवाल समितीन सरकारा मुखार मांडला. मजगतीं पांच वर्सां फाटीं बुट्टी येवन ज्या ज्या शेतकामत्यांचें लुकसाण जालां ताकां दोनशें कोटींची लुकसाण भरपाय दिवची असो ठराव संसदेत आवाजी मतदानान पास जाला. हें लुकसाण भरपायचे धनादेश स म्हयन्या उपरान्त येवपी विधानसभेचे निवडणुकी पयलीं शेतकामत्यांच्या हातात पडचे असो आदेश सरकारान संबंदीत अधिकाऱ्यांक दिला. सरकार कायदेशीर पयशे वांटून निवडणुकीची तयारी करता असो आरोप विरोधी पक्षान केला. आनी आमी रोकडेंच जनआंदोलन उबारतले अशी शिटकाणी सरकाराक दिल्या. आतां आमी घेवया एक ल्हानसो ब्रेक. ब्रेका उपरांत पळोवया आमचो स्पेशल रिपोर्ट दहशदवाद जिंदाबाद!

## देखाव : पांचवो

(भोल्यान दोगांय पुतांच्या भुजार जूं दवरलां आनीं शेत नांगरता. पुरो जाता, जोत सोडटा. हाश हूश करीत मेरेर बसता. दोगय पूत दुसरेवटेन बसतात.)

भोलो : भोलो आतां पुराय थकला. तेचे तकलेंत कसलें वावदळ घुंवता तें तेकाच कळना. दोगांय पुतांची अवस्था तेच्यान पळोंव नजो. तो तेचेकडसून

मात्सो पयस वयता. आपले किंरवटीक खोयल्ले दोन कागद भायर काडटा. बारिकसाणीन पळयता. सगळें आंग थरथरता. जीव घुसमटूंक लागता.

व्हडलो : बाबा, बाबा कितें जाता तुका?

भोलो : ....

धाकलो : तूं शारांत वचून येयला तेन्नाच्यान असो करता.

व्हडलो : बाब, तूं आमचेपसून कितें तरी पयता.

भोलो : ना... कांय ना...

व्हडलो : हें तें हातीन कितें आसा तुजे?

भोलो : ना... दाखोवचों ना... म्हजो जीव आसामेरेन तुमकां दाखोंवचो ना.

व्हडलो : बाबा, तूं बेश्टो हट्ट करता. आमच्या जिवाक बेश्ट्रो भियेता. आमीं आतां ल्हान उरुंक ना. हांव जाणां आमच्या माथ्यार रिणांचे दोंगर आसात. बैल विकते घेवपाक पयशे नात म्हणून आमीं बैलांच्या जाग्यार आमकां बांदून घेतात. फाटलीं चार पांच वर्सां पावस सारको पडना, शेतांक उदक पावना म्हणून जिवाचें रान करून बांय खणली. दोन वर्सा मात्शे कमी उदक मेळळें. अंदू आमकां भंय ना. वोटर पंपाक लायटिचें कनेक्शन मेळळां. मात्सो पावस पडल्यार बांयक उदक वाडटलें.

धाकलो : बाबा, अतां तूं काय एक भियों नाकां. चार फावटीं शेतकी मंत्र्याच्या बंगल्यार उदक जाय म्हणून मोर्चो घेवन गेल्यात आमी. सगळ्यांक हालोवन वडयल्यात. भाईन म्हाका सांगोन दवरलां, तूंच फुडाकार घे म्हणून. सगळो गांव तुज्या फाटल्यान आसा. आतां फाटीं फुडे पळोवप ना, सोमतो मंत्रालयाचेर मोर्चो व्हरप. एक घाव दोन कुडके.

भोलो : तुमचें रगत उसळटा म्हणून म्हाका तुमचो चड भंय दिसता.

धाकलो : इतली वर्सां तुका लागून वगी रावले आमीं. तूं आतां अजिबात भिंव नाकां. तुजे मुठींत किंतलेंय भयानक वास्तव आसूं. तूं आतां मुठ उक्ती कर. आमकां पळोवपाक जाय.

भोलो : पुतांनो, हें पळयात, म्हज्या दोनूय हातांनी दोन आमंत्रणां आसात म्हज्या मरणाचीं. हीं दोन आमंत्रणां जेन्ना म्हजे हातीन पडल्यात तेन्नाच्यान म्हजो देवावयलो विस्वास उडला. मनीस म्हणून जगापाची म्हजी वान्सा

मेल्या.

धाकलो : किर्ते आसा त्या कागदार्नी?

व्हडलो : सांग बाबा, किर्ते आसा त्या कागदांनीं?

भोलो : आयकात, खरें भुयपुतांचें रगत तुमच्या आंगात सळसळटा आसत जाल्यार तुमी सोंसतले. मेल्ले आवयचें तुमी दूद पियोंक ना आसत जाल्यार तुमीं पचयतले. हें आसा आजून म्हुर्त पासून करुंक ना त्या वोटर पंपाचे लायटिचें बील फकत एकवीस हजार पाचशें पंचवीस रुपया पस्तीस पयशे. (धाकलो तिडकीन फुरफुरता) आनी हो आसा चार वर्सां फार्टी बुटटी येवन सगळ्यांची दानाधिस्पट जाल्ल्याचो चेक फकत तीन रुपया. (व्हडलो आड्डी मारीतच नांगर उखलता.)

व्हडलो : धाकल्या, पळयता किर्ते उखल तें जूं. बळिरामाच्या हया देसांत भुंयपुतांची असली जिवखायरीं फकाणां आमी केन्नाच सोंसून घेवचे नात. आयजूच घाल सगळ्या गांवांर पेरगांव. निखळून वडोंवया सगळीं राजसिंहासना. फिरोंवया नांगर सगळ्या चोरांच्या घरांचेर. फोडून वडोवया सगळीं धरणां. व्हांवूंदी न्हयांक जाय तश्यो, पिकूंदी शेतां जाय तशीं.
(घोशणां दिता – 'जाय जाय आमकां जाय, आमच्या शेताक उदक जाय. देस न्हय रे चोरांचो, देस आमचो भुंयपुतांचो.' – सगळें शेतच उठून धांवताशें दिसता. म्होवांचे मूस कशे सगळे चाळोवन उठल्यात)

## देखाव : सवो

(सरकारी मनीस आनी कार्यकर्तो खांदार एक आडवो दांडो घेवन उबे आसात. मर्दी दांड्याक एक गोळफांस लोबता. एकेवटेन मिडीया आपलो कॅमेरा लावन आसा. सुतकी तोंडार्नी बाकीचे लोक. भोल्याची वाट पळयतात.)

मिडिया : नमस्कार, सगळ्या पळोवप्यांक मायेमोगाचो येवकार. आयज तुमचे मुखार आमी एक लायव्ह कवरेज घेवन आयल्यात. फकत आमच्या भुमींप्लस हया चॅनेलाचेरच तुमकां ही लायव्ह कवरेज पळोवपाक मेळटली. आमची कवरेज कशी आशिल्ली हें कळोवपाखातीर तुमी 2424 हया नंबराचेर

एस एम एस करचो.

उदकाचो प्रसन सोडवपाखीतर देसाच्या समेस्त भुंयपुतांनीं फाटल्या बुधवारा संसदेचचेर मोर्चो व्हेल्लो. मोर्च्याक हिंसक वळण लागलें. जूं आनी नांगर घेतिल्ल्या कांय भुंयपुतांनी पोलिसांचेर आक्रमण केलें. परिस्थिती नियंत्रणांत हाडचेखातीर पोलिसांलागी जमावांचेर लाठीहल्लो आनी हवेंत फारपेट केलो. तांतून वट्ट धा लोक मेले आनी पोलिसांसयत पंचवीस लोक जखमी जाले. भोल्या शेतकाराच्या व्हडल्या आनी धाकल्या चल्याक हे घडणुकेंत दुखेस्त मरण आयिल्लें आसा. आयज बारावो दीस. भोलो आपल्या चल्यांचें बारावें जेवन उठला. हो दिसता तो गोळफास भोल्यान आपले हातीन थंयसर बांदला. भोल्यान आपूण बाराव्या दिसा आत्महत्त्या करतलों हें पयलींच जाहीर केल्लें आसा. पूण सरकारावटेन ताका आडावपाची कसलीच हालचाल जावंक ना... भोल्यान उस्ट्र्यानीच आपले कुलदेवतेक हात जोडले, आपले पुण्यभुयेचेर नाक घासलें.... सगळ्या लोकांच्या तोंडार दुखाची सया दिसता... पूण भोलो निर्विकार आसा ल्हवू ल्हवू चलत तो गोळफासालागीं पावता... सगळे स्वास रोखून ताका पळयतात.... भोलो सगळ्यांवयल्यान एक फावट नदर भोंवडायता... भोलो गोळफासाक सामको तेक्कून पावला... कित्याक तरी रावला... ताका कितेंतरी निमाणचें उलोवपाचें आसा... हय उलयताच....

भोलो : हे म्हज्या देसाच्या भुयपुंतानो.... तुमकां भुंयपूत म्हण्टना म्हजो आवंडो भरोंन येयला... तुमी हे भुंयेचे भुंयपूत न्हूच... तुमी केन्नाच भुंयपूत जावंक पावले नात.... हावूंय जावंक पावलों ना.... हांव हे धर्तरेचो पूत म्हणून जल्माक येल्लों जाल्यार असो असहाय जावन, निराधार जावन, आपलेच हातीन घडयल्या ह्या गोळफासांत मान घालचो नासलों.... ही धर्तरी केन्नाच वांज नासली... केन्नाच कोणाक सोपय नासली.... वाडयताली कोट्यानी गर्भ आपले झोळयेंत आनी दिताली जल्म चैतन्य जिवांक.... आतांय ती जल्म दिता... सुवार्थान वळवळपी पडमूर जिवांक.... जे विकतात आपलेच आवयक आपलेच हातीन.... करतात तिका निर्वस्त्र

आनी थारायततात वांज...

आनी लोळटात सगळेच उवांळून वडयल्ल्या गर्भांभशेन.... लुळे जावन बुळे जावन.... हावूंय एक तिचो भुंयगर्भ... हो भुंयगर्भ जल्म घेवचेपयलींच व्हळ्ळो. तो मातयेंत जिरलो. तेका मातयेंतच पुरलो.... भुयेंचे कुशीत.... सासणाचो.... हया गर्भपाताचो चुरको एका जिवाच्या काळजा मेरेन जरी पावलो जाल्यार म्हज्या आत्म्याक मुक्ती मेळटली....

मिडीया : भोलो ल्हवू ल्हवू तकलेक गोळफासांत घालता... गोळफांस आवूंळटा... भोलो मरता... कसलोच आवाज करी नासतना.... गर्भपात जातना गर्भाचो आवाज आयकूंक येना.... तसोच भोल्याचोय येवंक ना.. (सुरवातीचें गीत ल्हवू ल्हवू आयकूंक येता)

(काळोख)



5

# रचयिल्ली काणी

: पात्रां :

तो

घाडीआपा

पोसकें

देवरूख

सांतेरी

व्हडले गांवकार

धाकले गांवकार

चली भुरगें

आवय

गांवचो लोक

## देखाव : एक

(दोन पंगड एकमेकां सामकार तिडकीन बसल्यात. घुरघुरतात. कसलो तरी वाद जाल्लो आसा. एकमेकांक करा करुन पळयतात. तो मदीं बसला. लोकांकडेन उलयता.)

तो : नमस्कार, हांव म्हजी वळख तुमकां मागीर करून दितां. पयलीं हांकां पळयता. तुमकां कशें कितें दिसता हें? हय, हो गांवचो लोकच हातून मात्तूय दुबाव ना. मागीर अशे कित्याक एकमेकांचेर करा करून बसल्यात तर ते? जाप सोप्पी. गांवांत झगडी जाल्यांत. तुमकां हांव वगीच वांटकुळेच भोंवडयना. हो पळय, हो तिडकीन उठलो तो व्हडलो गांवकार.... मागीर धाकलो गांवकार वगी रावता? पळयात... पळयता.... तोवूय तेच ताकदीन उबो रावलो.... आर्रा तूं.... बाकिचेय कशें बसून रावतले? पळयात, पळयात. कशे फुरफुरुन उठले ते. आतां जर म्हणून हांगां झगडीं जायत जाल्यार कितल्या जाणांची मडीं पातळत सांगूं नज.... कोणाक तरी फाटीं सरचेंच पडटलें... चड करुंन धाकल्या गांवकाराक.... हय, सल्ले फाटीं.... पूण फाटीं सल्ले म्हणून मोव जावन वच्चे नात... दाण दाण पांय आपटीत वतले. पायांपोदच्या फातराचो पसून फुटून पिठो जावपाक जाय. (धाकले गांवकार वतात) तांकां धांवडायले म्हणटकच आतां खूश जांव नाका? पळयात, पळयात. कशे फुल्ल्यात ते? एकमेकांक टाळी कितें दितात.. वेंगो कितें मारतात. आतां व्हडलो गांवकार सांतेरी मायेच्या पायांर घालून घेतलो. देवरुखाक एक प्रदक्षणा घालतलो आनी परत पायांर घालून

घेतलो.... पळयलें... पळयलें.... आतां बाकिचेय करतले.... आनी गांवकाराफाटल्यान गोरवां जशीं एकाफाटल्यान एक शिस्तीत वतात तशे वतले... गेले एकदांचे.... टेन्शन. हे दोगूय गांवकार एकिकडेन आसप म्हणल्यार सामकें टेन्शन.... हां, तर आतां हांव तुमकां म्हजी वळख करून दितां. हांव कोण? तसो पळोंवक गेल्यार हांव कोणच न्हय. हांव तो एक्स, वाय, झेड, कोणूय. हांव हांगां गरज म्हणून तुमचे मर्दीं आसां. ही रचयल्ली काणी सांगपाक तुमचे मर्दीं उबो आसां. हय रचयल्ली काणी! ही काणी हांवेन रचयल्या आनीं म्हजे सोयीप्रमाण ती मोडल्या, जोडल्या, आनी जाय तेन्ना जाय ताका घुसयला, नाका तेन्ना भायर काडला. म्हजी वळख तुमकां फुडे आपशींच घडटली. आतां आमी काणयेकडेन वळूंया.

(एकेवटेच्यान पोसकें सान्न घेवन येता)

हें हातात सान्न घेवन आयलां तें पोसकें. घाडीआपाकडेन आसता. सामकी लाडाची धूव जावन. पळयात कशें कमर बागोवन, मन लावन सान्न मारता तें.... आतां आमी कोणाक तरी एन्ट्री दिवया. घाडीआपाकच दिंवची. घाडीआपा खोपींतल्यान उलो मारीतच भायर येता.

घाडीआपा : (खोपीतल्यान) पोसक्या, गो पोसक्या.

पोसकें : कितें आपा?

घाडीआपा : तुजो कोयर वारो जालो? (खोपींतल्यान भायर येवन) शिताडो केन्ना घालतलें? तुजो वावर बेगीन सोंपय.

पोसकें : आतां रोखडोच घालतां आपा. पूण तूं आयज सकाळीं फुडेंच खंय वयता तर?

घाडीआपा : आगो, आयज वर्सुकी गाराणें घालपाचें आसा न्हू. मात्सो गांवांत वचून येतां.

पोसकें : आपा, तुज्या हातीपायांक मात पसून थाकावो ना. गाराणें घालपाक गांवकार हांगांसर येतले आनी तूं लमांय लमांय करून

गावकारांची दारां कित्याक भोंवता?

घाडीआपा : हे सातेरीकडेन बांदून घेतलां न्हू म्हाका. आयुश्यभर भावार्तान सेवा केली तिचें पानवळ भोगूं नाका? हय पानवळच तें. सतयता ती म्हाका. जोतीं झरोवंक लायता. लांवदी, कितले दीस लायतली तेंच पळयतलों हांव. (देवरुखाक) आनी तूं? पळयता कितें म्हाका असो घुगो कसो? जीव ना तुका? म्हाज्या रगताचें पाणी करून तुका शिंपला तो असो मोनो जावन म्हजो घुस्मटमार पळोवपाक? तुमकां दोगांकय सोडचो ना हांव. तुमकां पळोवन घेतलों. कितें समजल्यात तुमी?

पोसकें : आपा, अशें कितें करता तूं?

घाडीआपा : कोण आपा? आपा बिपा कोण ना. हांव घाडी. घाडपणां करतां. दुसऱ्यांचे सांगणेन. तुमकां शिकयतां.

पोसकें : आपा...

घाडीआपा : कोण तूं?

पोसकें : हांव तुजें पोसकें आपा.

घाडीआपा : पोसकें? आतां म्हज्यान पोसूं नजो. चल, वच तूं. कोणांयचोय हात धरून वच. पूण हया गांवांत रावूं नाका. हो गांव जगपाक दिवचो ना तुका. मनशांचो गांव न्हू हो. (देवरुख आनीं सांतेरीक) तुमकां सारकें शिकयतां. (सांतेरीक पिंजर बी लायता आनी पांयार घालून घेता. निवळ्ळा. पोसकें रडटा तें दिश्टी पडटा) बाय पोसक्या. तूं रडटा कित्याक?

पोसकें : आपा, तूं मर्दी मर्दी असो कितें करता? म्हाका तुजो भंय दिसता.

घाडीआपा : म्हाकाच कळना म्हाका कितें जाता तें. तूं भियों नाकां. म्हाका एक सांग गो. तुजो तो पलतडचो हालींसराक दिश्टी पडोंक ना. रागार बी जावंक ना मुगो तुजेर? कित्याक येयना तो?

पोसकें : हांव ना तुंका सांगचें. कितलें भेश्टयलें म्हाका. म्हाका पयलीं हें सांग तूं गांवांत कित्याक वयता?

घाडीआपा : त्या व्हडल्या गांवकाराचें आपोवणें जाला. आयज वर्सुकी गाराणें घालपाक जायें न्हूं? म्हाका आपल्या घराकडेन आपयला. हायेन गाराणें कशें कशें घालचें तें सांगपाक आपयला म्हाका. हे म्हाका शिकयतले गाराणें घालपाक.... गांवांत फूट पडल्या तेन्नाच्यान हें अशेंच चल्लां. मीठ खांतां न्हूं हांव तेंचे. मिठाक जागों नाका? तकली इरार जावची ना जाल्यार कितें जातलें? येतां हांव बेगीन वचून. तूं शेण शिताडो आटपून घे. (फणफणत वता, पोसकें आपलें काम करता)

तो : पळयात, भावार्ती मनशाचें अशेंच जाता. गावांत पार्तेलां जालीं काय बऱ्या मनशाचो मर्णकाळ... वा पोसकें एकलेंच आसा. जुवानीच्या हुंबऱ्यार आशिल्लें सोबीत चली... घाडिआपन म्हणिल्लो न्हंयपलतडचो हांवूच जाल्यार कसो? यत्न करून तरी पळयतां. जमल्यार जमलें... शूत, शूत... पोसक्या, ए पोसक्या

पोसकें : कोण?

तो : हांव तो...

पोसकें : तूं? (धांवत ताचेलागीं वता) पळयलें जमलें ना.

तो : पोसक्या!

पोसकें : तूं म्हाका पोसक्या म्हणूं नाका हां. हांव उलोवचें ना तुजेकडेन.

तो : मागीर कितें म्हणूं?

पोसकें : राणी... राणी म्हण म्हाका.

तो : मागीर हांव कोण?

पोसके : तूं म्हजो राजा. हे राणयेचो राजा. चल वच, म्हजेर तुजो मोगूच ना. म्हाका तूं बरें करी ना.

तो : कित्याक?

पोसकें : इतले दीस तूं कित्याक येवंक ना? खंय आशिल्लो? हांव सददां तुजी हांगा उबें रावून वाट पळयतालें.

| | |
|---|---|
| तो | : तुवेंनूच सांगिल्लें न्हय गो म्हाका परत परत येंव नाका म्हणून. तुजे हांगासल्लें काम जालें काय तूं आपूण जावन धांवत येतलें अशें कोणे सांगिल्लें? |
| पोसकें | : हय मरे. हावेनूच सांगिल्लें. अशेंच जाता पळय. तुकां पळयतकच म्हाका कसलीच याद जायना. तुका कितें दींव? गांवठी तांदळांची पेज आसा आनी तोंडाक आमली दींव? |
| तो | : नाका. |
| पोसकें | : तेरें उकडलां. जाळग्यो मिरसांगो घालून. घाडिआपन हाडिल्लें. दींव? |
| तो | : म्हाका कांयच नाका. तूं दिसलें. म्हजें पोट भरलें. |
| पोसकें | : अशें कितें तर? कितें तरी घेवपाकच जाय. राव आं (भितर वचपाक वता) |
| तो | : राणी |
| पोसकें | : (भुल्लसून) राणी....! तुवेन म्हाकां राणी म्हणून उलो मारलो? खऱ्यानीच, कानांत जीव हाडून हांव हया उतराची वाट पळयतालें. |
| तो | : तुकां हांव व्हरपाक आयलां. येता न्हय? (तें वग्गी), वग्गी कित्याक? कितले फावटी हावेन अशें रित्या हातान परत वचपाचें? काय तुजो मोग उखलापो समजूं हांव? |
| पोसकें | : अशें म्हणूं नाका तूं राजा. असो दुबाव तूं केन्नाच घेंव नाका. तूं आसा म्हणून तर अजूनमेरेन जितें दिसतां तुकां. ना जाल्यार केन्नाच हे कोंडीच्या तळाक घांस मारपाचो हांवें. |
| तो | : मागीर हो घुस्मटमार कित्याक? कोण आडायता तुकां? |
| पोसकें | : हांवूच आडायतां म्हाका राजा, हावूंच! दुसऱ्यान आडायल्यार ताकदीन भायर सरूं येता. आपलेंच मन आडायता तेन्ना पावलां कशीं फुडे पडटलीं? म्हजी अडचण तुकां पयलींच सांगल्या हांवेन. |
| तो | : तूं जें काम करपाक फुडे सरलां तें केदें व्हडलें आनीं कठीण काम |

आसा तें तुका खबर आसा? खर्शेतलें तूं, पुरो जातलें तुकां.

पोसकें : राजा, आतां फूट पडली आसत रे गांवांत. गांवपणूय व्हगडायलें आसत. पूण कांय वर्सां पयलीं हयाच गांवान सांबाळ्ळां म्हाकां. कोणे तरी सभाग्यान हाडून घाडीआपाच्या पदरांत घातलें म्हणून आयज मनीस म्हणून दिश्टी पडटां हांव. ना जाल्यार तेन्नाच कोंबड्या – कुकडाचे भकीक पडपाचें. खूब उपकार आसात रे राजा हया गांवचे म्हजेर. आपलें भुरगें कशें सांबाळलां हया गांवान म्हाका. सख्खो बापूय दिवचो ना असली माया मेळ्ळ्या म्हाका घाडीआपाकडल्यान. ही सांतेरी आवय जाल्या म्हजी. हया देवरुखाचे सावळेंत घसघसून वाडलां हांव. तुकां खरें दिसचें ना राजा, ही दोगांय म्हजेकडेन उलयतात, गजाली करतात. गांवची एकी करपाचें तुजेंच काम अशें परत परत सांगतात. गांवची ही दैना पळोवन खूब दुखी जाल्यात रे तीं. तेंचें. दुख म्हज्यान कशेंच पळोंव नजो. आनीक तरी कोणाक सांगतलीं तीं? कोणांक फावता झाडांकडेन उलोंवपाक? हावूंच बाबडें एकलें मेळ्ळां तेंकां. पोसकें न्हय हांव? आनी जाणा राजा, तुजेवयल्यानूय म्हाका चाळयतात तीं. मागीर न्हू हांव लजेन सामकें तांबडेंच जातां. कोण पळयना म्हणून सांग, ना जाल्यार सामकी लज जावपाची. मागीर न्हू हांव तुजीच सपना पळयतां. तुवेन म्हजो हात सो हातांत धरला.... हे न्हंयक हुंवारसो येयला... आमी दोगांय न्हयतशीं देंवतात.... अचकीत एक नेटटान झोत येता आनीं आमचे दोगांयचे पांय उबतात.... आमीं उदकावांगडा व्हांवत वतात... तूं सामको भियेता... पूण हांव मात तुकां सामकी घट्ट वेंग मारतां आनी व्हडल्यान हांसतां. (हांसता. मजगतीं तो बेजारून गेल्लो आसता. पोसके कांचाबूल जाता 'राजा राजा' म्हणून उलो मारता आनी सांतेरीकडेन येवन रडटा) सांतेरीमाये, पळयलें मगे, गेलो तो. दर खेपे असोच करता. सगळें आयकूनच घेयना. म्हज्या मनांत सांठोवन दवरिल्लें

कोणांक सांगू गे? असल्यानी हावूंय घाडी आपाभशेन इरार जातलें. (रडटा)

तो : हांगासर हांव वचून उपकारचें ना हो घात्तकी खीण. मनीस अशाच वगतार निसरता. अर्थाचो अनर्थ जातलो. पूण कोणाक तरी आदराक हाडचोच पडलो. कोणाक हाडचो? आरे, देवरुख आनी सातेरीक हाडल्यार कशें? हय, तशेंच करचें. कसलोच आसको हुसको ना.

(देवरुख आनी सांतेरी येता.)

देवरुख : हांव सांगू, तो कित्याक पयस गेलो तो? तो तुजेर खूब मोग करता.

सांतेरी : हय, तुज्यो हयो वेदना ताच्या काळजाक घाये करतात. म्हजें आयकशीत?

पोसकें : कितें?

सांतेरी : तूं चल ताचे वांगडा. सुखी जातलें.

देवरुख : गांवांची चिंता तूं करुं नाका. हे भोग फकत आमच्याच नशिबांत नात. चडशा गांवांनीं अशेंच चल्लां.

सांतेरी : गावांत फूट पडपाक वर्सां लागनात. एका दिसान पडूं येता.

देवरुख : पूण गांवाची एकी घडोवन हाडपाक पिळग्यो सोंपोवच्यो पडटात.

सांतेरी : तूं चड विचार करूं नाका. तोच तुजो आदार, वच तूं. बिनधास्त वच.

तो : पोसकें उटठा. वचूं काय नाका हो व्हडलो प्रस्न ताचे सामकार आसा. ताचो निर्णय जावचे पयलीं कितें तरी करपाक जाय. कितें करू? शाब्बास... गांवचो लोक, लोकांचो आवाज... लोकांचो आवाज आयकूंक येता. लोक गाराणें घालपाक येतात. देवरुख आनीं सातेरी आपल्या मूळ रुपान. पोसकें तो च्या फाटल्यान वताशें दिसता पूण भितर वता...

व्हडले गांवकार : चल दादी, पूजा बी करून घे.

तो : एकलो जाण्टो पुजा बी करुन घेता.

लोक : हय, गाराणें घालून या आमी. वर्साची भोगावळ ती. एकदा फार्टी घालून या हांगासरले.

: पोरांक आता पयलींची उमेद खंय उरल्या? धोल बडोंवचेली, मांडाचेर धुमशेंणी कांडचेली.

: पोरांचेर कित्याक धुकलताय झिप्र्‍या आपो? धुमशेणां काडूंक पोर फांटी आसात? पूण त्या धाकल्या गांवकारांचें पाड पडलां न्हू. मातल्यात ते. वयशीत थंय अडवणूक.

: अडवणूक कशी? देवस्की आमचेकडेन आसा. आमचेकडेन जाय तें करू येतां. उमेद जायी.

: तुका अडाण्याक कोण सांगतलो? गांवांत फूट आसतना सांतेरीचो केन्ना प्रसाद जाल्लो पळयला? तोंडाक येता म्हणोन कांयचे कांय उलोंव नाका. चूक पडटली.

: चल रे अंकूसा, सगळ्यांक तांदूळ वांट.

: घाडी आपो ज्युस्त सांगला तशे गाराणें जावपाक जाय हां. तुका शिकयलां तश्शें.

: पळय जाग्रत देवी ही. मात्शें हेवटेन तेवटेन जायत जाल्यार उरफाटें आमचेर परततलें.

: घाडी आपाक खबर आसा रे. तेचो जल्म गेलो गाराणी घालपाक.

: आरे तीं गाराणी वेगळीं. तुका कळचें ना तें. घाडी आपो करता सुरवात न्हू?

घाडी : (उतर भायर सरना, खर्शेला, मनात नासतना सुरवात करता. लोक 'हय सायबा' म्हणटा.) देयी सातेरी. तूं सर्गांतल्यान मृर्त्युलोकांत येयलय. (हय सायबिणी) आमी अजाण बाळकां वर्सावळीप्रमाण तुज्या पायांकडेन येल्लीं असात. आमी दाये हातीन सेवा केल्या ती उजवे हातीन मानून घेंवची पडटली. (हय सायबिणी) कश्टा कामांकडेन धोरां – वासरांकडेन चौरंगी नदर

दवरची पडटली (हय सायबिणी) आनी सायबिणी, तुका थायें आसा. आमच्या जाण्टेल्यांनी हांगा खुटी मारुन मठी जोडल्या. तुजे सासायेन हो गांव आमच्या जाण्टेल्यानीं वसयला. (हय सायबिणी)

: घाडया सांग फुडें.

घाडी : माये, ह्याच तुज्या गुण्यागोवींदान नंदपी गांवाक आयज कोणा पाप्यांची दिश्ट लागल्या.

: कोणा पाप्यांची न्हय माये. धाकल्या गांवकारांची (हय हय धाकल्या गावाकारांची सायबिणी)

घाडी : हय माये, हया समयार आमी बाळकां तुजेकडेन मागपाक येयल्यात.

: धाकले गांवकार खूब मातल्यात. तेंकां पयश्यांचो धूर चडला. तेंचो सगळ्याचो कुळक्षय जावचो. (हय हय)

: सोपांवो जावचो. (हय हय)

: तेंचो कोंबरो हया गांवांत वाडचो न्हय. (हय सायबिणी)

घाडी : घातलेल्या गाराण्याक चीत कर आनी बरें कर (हय म्हजे सायबिणी. सगळे शेंसार मारुन, हात जोडून, गाराणें बरें जालें बी म्हणीत गांवांत वतात, घाडीआपा वग्गी घुमों कसो बसता.)

तो : घाडीआपाची अवतीकाय उदकाभायर वडयल्ल्या नुस्त्याभशेन जाता. तुमीच सांगात, घाडीआपा बाबडो कितें करतलो? वग्गी बसलो तोंड धापून. तो फकत देवाच्या दोळ्यांक उदय लावपाक उबो. गाराणें सगळें गांवकारानीच घातलें. घाडीआपाक आतां कोणेतरी धीर दिवपाक जाय, आपल्या मनशान, सामकें लार्गींच्या मनशान. पोसक्याशिवाय ताका आयलो पयला कोण आसा?

पोसकें : आपा, चल तूं कितेंय खावन घे. सकाळच्यान उपाशी आसा.

तो : चॅ, हांगा हें अशें उपकारचें ना. हें कौटुंबीक जिव्हाळ्याचें

| | |
|---|---|
| | जाता. हो पोसक्याचो डायलॉग हांगा कॅन्सल. हांव दुसरे लोक आपयतां... धाकल्या गांवकारांचे दोग तीग जाण. |
| धाकले गांवकार | : पोसक्या, घातलें मुगो गाराणें? |
| पोसकें | : आपा बाबडो... |
| | : हांगा बाबडो बिबडो कोण ना. आमी सगळें जाणात. |
| | : हेका हाडून हांगा बसयला कोणें? हो मानाचो पाट दिला कोणें? म्हज्या बापायन. |
| | : हे दीस अशेच उरचे नात. आमचेय दीस येतले. |
| | : देयीक सगळें थायें आसा. कोण मातल्यात आनी कोणाक धूर चडला तो. |
| | : चल या आमी. तो आतां उलोंवचो ना. तेचें तोंड शिवलां देयीन. |
| | : भोगचें पडटलें. कोणाक चुकोंक ना तें. (सगळे वतात, घाडीआपा सुणूक करून उटठा, तुवालो घेता आनी न्हंयचेर न्हांवक वता) |
| पोसकें | : आपा... आपा.... बेगीन यो. चड वेळ कोंडीत बुडोन रावों नाका. थंड किरांव उदक तें. तुज्या बरगेल्या जिवाक आतां ते सोसचें ना. (वळटा. देवरुख आनी सांतेरी तोंडासामकार उबीं) पळयलें? असोच करता. कितेंय अशे मनाविरुद्ध जालें काय वरांची वरां कोंडीत बुडोन रावता. लोकांचीं पापां आपल्या माथ्यार घेता आनी न्हंयत व्हावोवन घालपाचो यत्न करता. |
| सांतेरी | : तुवें कितें निर्णय घेतला? |
| पोसकें | : कसलो? |
| सांतेरी | : तुजो |
| परोसकें | : म्हजो निर्णय घेवपी हांव कोण? म्हजी नाळ हांगाच पुरल्या आसतली- जी म्हाका हांगच्यान पलतडीं पावल घालपाक दियना. |
| देवरुख | : पलतडीं सूख तुजी वाट पळयता. तुकां वचनशें दिसना? |

पोसकें : हावें सुखाची केन्नाच फाट धरुंक ना. दुख्खाकच हांव जाय ते फावटीं सुख मानीत आयलां. हया वेळार म्हजो घाडीआपा म्हाका म्हज्या दोळ्यांसामकार दिसता. धाकल्या गांवकारांचे जळजळीत उतरांचे बाण कशे झेल्ले आसतले तेणें? तेंचीय म्हणून कांय चूक ना. तेंकां हक्क आसा उलोवपाक. म्हाका कोयरांतल्यान उखलून घाडीआपाच्या पदरांत घालपी धाकलो गांवकारच आसलो. चार पुस्तकां शिकपाक लावपी धाकलो गांवकारच आसलो. मनीसपणाची वस्त आसली गांवांत. तेन्ना हया गांवात एकी आसली. आतां ती मनीसपणाची वस्त शेणल्या. म्हाकाच ती सोदची पडटली. हया गांवची एकी जाय मेरेने हांव पलतडीं वच्चें ना. म्हाका विस्वास आसा, म्हजो राजा रावतलो म्हजी वाट पळयत.... हांव गेल्याशिवाय घाडीआपा कसोच भायर सरचो ना उदकांतल्यान. येतां हांव रोकडेंच. (न्हंयवटेन वता. देवरुख आनी सांतेरी आपल्या जाग्यार.)

## देखाव : दोन

(थळ तेंच. धाकल्या गावकारंचें एक भुरगें एन्ट्रन्स एक्झाम पास जालां. पेडयांचें बॉक्स घेवनं लिपचोरयां येता.)

तो : एक चली लिपचोरयां येता. कोणय आपल्याक पळयता काय हाचो ताका भंय आसा. सांतेरीचे भक्तीन ताका तिच्या पांयांकडेन हाडलां. देवीक दिवपाक तें कितेंतरी घेवन आयलां.

भुरगें : देवी सायबीणी. तुजेकडेन हावेंन आंगवण केली, एन्ट्ररन्स एक्झाम पास जालें जाल्यार तुका पेडे दवरतां म्हणून. तुजी आंगवण पावोन घे. (हेवटेन तेवटेन पळयता) देवा पाव रेबाबा, कोणे पळोंवक नासल्यार पुरो. सायबिणीं सदांच अशी म्हज्या फाटल्यान राव. तुज्या धिरारच हांव मुखार वचूंक सोदतां. तूं जाणां, बायलांक मुखार सरपाक कितल्यो अडचणीं येतात त्यो.

तुवेनूच त्यो पांयांपोदा घालच्यो गे सायबिणीं आनी म्हाका मुखार वाट दाखोंवची.

तो : आता मजा पळयात. आतां तें उट्ठलें. घांट वाजोवपाक करतलें. ताका खबर आसा, घांट वाजयल्यार व्हडलो अनर्थ जातलो. कारण घांट वाजोवपाचो अधिकार फकत व्हडल्या गांवकारांकच आसा. पूण ताच्यान रावूं नज. घांट वाजोंवक ना जाल्यार ताची आंगवण पावची ना हो ताचो भावार्थ. तें हेवटेन तेवटेन पळयता. देवीक परत एकदां हात जोडटा... धीर करून घांट वाजयता... देवा सायबा..... सगळ्या गावकारांच्या कानार ही घांट घणघणल्या आसतली.... आतां कितें जायत सांगूं नज..:. सगळयान पयलीं धांवून येतलें पोसकें...

पोसकें : सायबिणी, कितें केलें, तुवें हें? सांतेरीची घांट वाजयली? कोणें पळोवच्या आदीं बेगीन पळ हांगांसरल्यान. (इतल्यान व्हडल्या गांवकारांचे कांय लोक येतात)

तो : आरे घात जालो. देंवचारानी वाट आडायली. अशा वेळार बायल भुरगीं सगळीं लागीं जातात. दोळ्यांतल्यान तिडकिचीं ल्हारां खळखळटात.... पोसकें धिराक आसा म्हणून माणसुकी. ना जाल्यार भंयान गुळी जावन जमनीर पडपाचें.

व्हडले गांवकार : तें आतां मरतलें आमचे हातीन.

: ह्या देवरुखाक ताच्या रगतान शिंपतले आमी.

: तें पेड्याचें बॉक्स घेवन हेवटेन येतालें तेन्नाच दुबाव मारिल्लो आमकां.

: ही सांतेरीची घांट धाकल्या गांवकारानी कित्याक वाजोंवक जायना हें बापायन सांगूंक ना तेका.

पोसकें : तेका तुमी हात लाव नकात. तेज्या बापायक तुमी विचारात.

: पोसक्या, तूं कुशीक राव. तुजें काम ना हांगा.

: फकत शिकलें म्हणोन जायना. गांवच्यो रिती शिकपाक जाय.

: आतां कोणाची वाट पळयता शशी? धरा तेच्या केश्टांक. फरफरीत व्हरोंया गांवकारांच्या खळयांत.

: थंय येवदी तेच्या बापायक नाक मुठीत धरून (बायलां ताका धरपाक वतात इतल्यान धाकले गांवकार दांडे, कुराडी, पाळ बी घेवन येतात)

धाकले गांवकार : कोण हात लायता तो पळयतां म्हज्या चेडवाक. तेचो बापूय अजून मरोंक ना. (सगळे भिवून फांटीं सरतात.) आतां फाटी कित्याक सरतात? आसा आंगात धमक जाल्यार ताका हात लावन दाखयात.

व्हडले गांवकार : तुज्या चेडवान गुन्यांव केला. गांवचो कायदो मोडला. गांवचें देवस्पण विटाळ्ळां. आमच्या भुरग्याक तेचो बादिकार जावचो ना? तेका कोण जबाबदार?

धाकले गांवकार : गांवांत खंय देवस्पण दवरलां तुमीं? गांवाचीं पार्तेलां करुन वडयल्यांत आनी देव देव करून नाचून दाखयतात?

व्हडले गांवकार : तुमकां जाय आसली न्हू गांवची म्हाजनकी मोठेपण मिरोंवपाक? ती मेळोक ना म्हणून जळटात तुमी.

धाकले गावकार : आमचो हक्क आसा तो. आमीय ह्या गांवाचेच. आमी कोण परदेसी न्हू. म्हजो बापूय मोंव मेळळो म्हणून सादलें तुमचें. पूण आतां आमी तशेच उरुंक नात. तुमकां जिते पुरतले धरून आमचे वाटेक वयश्यात जाल्यार.

व्हडले गांवकार : आरे, वच वच. हातींत तोंडके घेवन येयल्यात. म्हणून म्हजेकडेन आसल्यार तुमकां शिकयतलों आसलों.

धाकलो गांवकार : अब्बा! हेंचें चड जालें मरे. पोसक्या, तूं बायक घरा पावय. हेंकां शिकयतां आमीं. (व्हडल्या गांवकाराच्या आंगार वतात. ते फाटीं सरतात. भायर बोवाळ जायत पयस वतात)

पोसकें : चल बाय, तुका घरा पावयतां.
(इतल्यान चलयेची आवय धांवत येता. येता तीच बडोंवक लागता)

आवय : पापणी कितें केलें. तुवेंन हें (बडयत) गांवांक सोंपोंवक उठलां? तुकां हजार खेपो सांगलें ती देवी आमची न्हू, आमची न्हू, म्हणल्यार कशेच आयकना. घे, घे. (बडयता) आतां खा गू, तुका शिकोंक धाडलें तेच चुकयलें आमी. चल यो तुकां घराकडेन शिकयतां. (हाताक धरून फरफटत वोडीत व्हरता, पोसकें खूब दुखावलां. धांवत सांतेरीकडेन येता. खेपता.)

पोसकें : खा तूं तेका. गिळून वडय. असल्यानी कोण तुका मानतलो? तुका कोयरांतच वडोवपाची. तुजो कोयर वारो, शेण शिंताडो कांय एक करचें ना हांव. तुजी कोण मनापासून भक्ति करता ताका वनीस काडूंक लायता तूं. तेजी इल्लीशी चूक पसून तुवेन तुज्या माथ्यार घेवंक ना. कोणाकच पावची ना तूं. इतलीं वर्सां गांवची एकी कर एकी कर म्हणून तुज्या सामकार नाक घांसतां हांव. तरीय तूं म्हाकां पाव ना. कित्याक जाय हें सगळें. हें सगळें सोपोवक जाय. ना नपयच जावंक जाय. म्हज्यान हो गांवांत चल्ला तो रक्तखेव कसोच पळोंव नजो. हे भुमीके, शांतादुर्गे, हे आजोबा निरंकाऱ्या, हे जळींथळीं भरून उरिल्ल्या म्हज्या देवांनो, हें सगळें सोंपयात. व्हडली बुटटी घेवन येयात आनीं हें सगळें बुडोवन वडयात. (रडटा)

तो : पोसक्याचो हो आक्रोश आयकून कोणाकूय वायट दिसतलें. तेणे पोटतिडकीन मारिल्ले उले सगळ्यांच्या कानार सादतले. ताच्या मनासारकें जावपाक जाय. तेका जाय तशेंच करुंया. (पावस जोगुलता, वावदळ जाता.)

## देखाव : तीन

(देवरुख कुपळून पडला. घाडीआपा आशे काडटा. पोसकें शुन्यात नदर लावन. तो उलयता.)

तो : वावदळ सगळें आरत्याचें परतें करुन वडयता. हो देवरुख कुपळून वडयलो. सांतेरीक मुळांतल्यान हालयली. कांय जाणाच्यो

खोपी वडयल्यो कांय जाणाचीं भाटां वडयलीं.
खरें म्हणल्यार आमी काणी रचताना काणयेची गरज म्हणून वावदळ हाडिल्लें. वावदळ येवनूय गेले पूण हें गांवांतलें वावदळ केन्ना शांत जाता तें पळोवया.
(पांच स जाण दाण दाण पांय आपटीत येतात.)

व्हडले गांवकार : घाडी आपो, लाय आसो आनी सांग. धाकल्या गांवकाराच्या चेडवान घांट वाजयली आनी गांवांक चूक पडली. म्हणून देवरुख कोसळळो. तूं फकत इतलेंच सांग फुडलें आमीं पळयतां.

घाडीआपा : (आसो काडून) ना, तशें कांय ना. देयी तशें कांय सांगी ना.

व्हडले गांवकार : ना कशें? तशेंच जावपाक जाय. तुजेकडेन आतां घाडपण जायना. चलात रे, पलतडीं रवळोबाच्या देवळांत या. तो तुको घाडी सारकें सांगतलो. (आयिल्ले तशेच दाण दाण पांय आपटीत वतात, दुसरेवटेन धाकले गांवकार पांय आपटीत येतात.)

धाकले गांवकार : घाडी आपो, लाय आसो, आनी सांग. म्हज्या चेडवान घांट वाजयली म्हणून व्हडल्या गांवकारांनी पुराव उठोवन घातलें. ताका लागून देवरुख कोसळळो. तूं फकत इतलेंच सांग फुडलें आमीं पळयतां.

घाडीआपा : (आसो काडून) ना, तशें कांय ना. देयी तशें कांय सांगी ना.

व्हडले गांवकार : ना कशे? तशेंच जावपाक जाय. तुजेकडेन आतां घाडपण जायना. चलात रे, पलतडी खेतोबाच्या देवळांत या. थंयचो विठ्ठल घाडी सारकें सांगतलो. (आयिल्ले तशेच दाण दाण पांय आपटीत वतात, पोसकें उठून घाडीआपकडेन येता.)

पोसकें : आपा, हें सगळें म्हाका लागून जालें अशें कित्याक सांगीं ना तूं तेंकां? हावेन रागाच्या भरांत वावदळ येवचें, सगळें बुडून वयचें अशें म्हटलें म्हणून वादळ जालें. सांतेरी आनी देवरूख दोगांय म्हजेकडेन उलयनात. आतां हांव कितें करुं रे आपा? ....कितें करुं? (रडटा)

| | | |
|---|---|---|
| घाडीआपा | : | तुवेन म्हजी तकली चड इरार केल्या. हांवूच वयतां खंयतरी तोंड घेवन (तिडकीन वता.) |
| तो | : | पोसकें हिमट्या हिमट्यानी रडटा. पोसक्याक आतां खऱ्या आदाराची गरज आसा... राणी... |
| पोसकें | : | राजा, राजा, हांव तुजीच वाट पळयतालें. हांव एकटें पडलां रे राजा. म्हाका कोणाचोच आदार ना. |
| तो | : | अशें म्हणू नाका राणी. आतां हांव आयलां न्हय. आतां तुकां भिवपाची गरज ना. चल या आमी. पलतडचो गांव तुजी वाट पळयता. |
| पोसकें | : | ना राजा, ती वेळ अजून येवंक ना. म्हजें काम अजून पुराय जावंक ना. आतां तें चड वाडलां. हो गांव जेन्ना एक जातलो तेन्नाच हांव पलतडच्या गांवात तुज्या वांगडा येतलें. तूं म्हाका येवन मेळळो. म्हजी वाट पळयता म्हणून सांगली. म्हाकां आनीक कितें जाय? हांव हांगासरलें म्हजें काम करुन जेन्ना मुक्तीचो स्वास घेतलें तेन्ना आलतडच्यान पलतडीं तुकां साद घालतलें. तुवें प्रतिसाद दिवचो इतलेंच तुजेकडेन मागणें. आतां वच तूं. हांव म्हजें काम एकलेंच करतलें. (वता.) |
| तो | : | हाचो निर्धार पळोवन आतां कितें तरी करचेंच पडटलें. ही काणी सोपवचींच पडटली. गांवची एकीय घडोवन हाडची पडटली. घाडी, भगत, देव, देंवचार, प्रसाद पाकळी अशा एकच न्हय कितलेश्याच अंधश्रद्धेच्या चक्रव्यूवांत गुरफटून तिसस्त्यो वादऱ्यो जाल्या हया गांवात तांचेच चालीन जाप सोदची पडटली. ताका लगून गांवाचेर एक नदर मारुन पळोंवची पडटली. देवा सायबा कितें चल्लां हें गांवांत...! हो कसलो खवदळ चल्ला...! (व्हडलो गांवकार धाकल्या गांवकाराच्या भुरग्याक बडयत व्हरतात. फाटल्यान धाकले गांवकार धांवतात. तशेच धाकले गांवकार कोणाकतरी उबारून व्हरतात फाटल्यान व्हडले गांवकार धांवतात) |

हो गांवांत चल्ला तो रक्तखेव गांवांक सोपयल्या बगर रावचो ना. हेका आडावचोच पडटलो. कितें तो सोक्षमोक्ष सांतेरी देवीच्या पायांकडेनच लांवचो पडटलो.... घाडया धांव, तुजो घाडपणाचो पाट देवीकडेन घेवन बस...

(घाडी बेगींबेगीं बसता.)

पोसक्या, तूं तुजे तयारेक लाग.... वेळ व्हगडांव नाका...

(पोसकें मांडी घालून बसता)

व्हडल्या गांवकारानो येयात, तुमी तुमचो मानाचो जागो आडावन धरात.... धाकल्या गांवकारानो, तुमींय फाटीं सरूं नाकात. तुमकांय हांगा हक्क आसा येयात तुमच्या जाग्यार बसात (सगळे झगडपाचे तयारेन बसल्यात)

हांगचें वातावरण सामकें भयानक आसा. जण एकल्याच्या कांट्यार म्हारु बसला. सगळे एकमेकाक वाग कशे पळयतात. कोण कोणाचेर केन्ना उडी घालीत सांगू नजो. काणयेच्या शेवटाची सुरवात हांवेन करुन दिल्या. आतां म्हजे हातींत कांय ना. हांव पलतडीं वचून रावतां. (वता)

व्हडले गांवकार : (तिडकीन) घाडया, नेमाप्रमाण आमकां हया गांवांत पयलो मान. तूं देयीक विचार, ह्या गांवची वाट लागल्या ती कोणाखातीर?

धाकले गांवकार : घाडया, आमकांय हया गांवांत तितलोच मान. तूं देयीक विचार, देवाचें शेत खावपाचो हक्क कोणाक आसा तो?

व्हडले गांवकार : आरे, तुमकां कोण हक्क दिता? आमचे वटेन देव आसा म्हण्टकच देवाच्या शेताचेर आमचो हक्क.

धाकले गांवकार : आतां देवच उखलतां हांगच्यान, तुमकां दाखयतां.

व्हडले गांवकार : आरे, तूं कितें दाखयतलो. तुज्या बापायक घेवन यो वयरसून.

धाकले गांवकार : तुका सांगतां, तूं म्हज्या बापायक वयर काडूं नाका हां. बरें जावचें ना.

व्हडले गांवकार : तुज्यान जाता तें कर. एकदा कित्याक धा फावटी म्हण्टलो. तुज्या बापायन गांवाची चड वाट लायल्या. नालायकाच्या कास्ताचो....

धाकलो गांवकार : हे....

व्हडले गांवकार : हे.... (तिडकीन एकमेकाचेर झुडोन वतात. पोसकें किळांच मारुन उद्ठा, कुदपाक लागता, ताचेर सांतेरीचो भार आयला)

पोसकें : खेत्री कुदता.... हांव सांतेरी (सगळे नमळायेन हात जोडटात, नाक घांसतात) हूं... गांवार खेत्री किरायता... हूं.... खेत्री खुनां पाडटलो.... हूं.... खेत्री गावांक सोपयतलो हूं....

घाडी : (शिरो बी तायट करून. भूत देवयल्ले भशेन) सांग माये..... कोण खेत्री? खंयच्यान येयला? कोणे धाडला?

पोसकें : दाये शिमेवयलो खेत्री ..... हूं..... गांवांत भितर सरला .... हूं..... गांवात फूट पडली.... खेत्र्याक वाट मेळळी.... हूं.... खेत्री किरायता .... हूं..... खेत्री मिरयता .... रगताचे पाट व्हांवतले .... रगताच्यो न्हंयो व्हांवतल्यो हूं.... (सगळे भियेल्यात)

घाडी : माये, तुकाच फुडें सरचें पडटलें.... हीं बाळकां अज्ञान आसात माये... तीं वाट चुकल्यांत.... तेंची चूक पायांपोदा घाल.... वाट दाखय माये, वाट दाखय....

पोसकें : वाट आसा हूं.... वाट आसा हूं.... उतर दी हूं.... उतर दी हूं...

घाडी : (सगळ्यांक) उतर दिलें म्हणात.... उतर दिलें म्हणात...

सगळे : दिलें माये. उतर दिलें....

पोसकें : गावुंडग्यांचे उतर ... हूं....

सगळे : हय माये... गावुंडग्यांचें उतर हें....

पोसकें : गांवची एकी परत जाय... हूं.... गांवची एकी परत जाय.... हूं.... खेतरी व्हरुन शिमेर पाय... हूं... देवरुख निखळून जमनीर

पडला... हूं... तेका पर्थून धिगी लाय... हूं...
(घुंवता घुंवतां थंड जावन जमनीर पडटा. सगळे एका ताला सुरान हो हो करुन होळी उबी करची तशी देवरुखाक उबो करतात. देखाव थीर. पोसकें उटठा. कांयच जावंक नाशिल्लेभशेन करुन केंस बांदता. धांवता एकेवटेन वयता आनी व्हडल्यान 'राजा' म्हणून उलो मारता. पलतडच्यान. 'राणी' अशें म्हणीत राजा येता. हातात हात घेता. काळोख जाता.)





**शाबा नारायण कुडतरकार**

जल्म : 27 मार्च 1970 वर्सा, सत्तरींतल्या नानोडे गावांत, एका गरीब शेतकार कुटुंबात जालो.

गोवा विद्यापीठांत कोंकणी विशय घेवन एम. ए. पार्ट - 1 मेरेन शिकप केले.

ACGL कंपनीत ज्युनिएर इंजिनिअर म्हण नोकरेक आसलो.

कविता, एकांकी लेखन करून थळाव्या आनी राज्य थरावयल्या सर्तिंनी जायतीं इनामां जोडलीं.
सत्तरींतल्या साहित्यिक, भाशिक, सांस्कृतिक चळवळींत सक्रिय सहभाग.
पर्यावरण राखण, म्हादय बचाव आंदोलनांत वांटो.
निसर्ग भोंवडेचो खास छंद.

1 एप्रिल 2008 दिसा अवघे 38 वर्सांचे पिरायेचेर एका अपघातान मर्ण.

फाटल्यान घरकान्न शोभा, चलो शुभम, चली सोबिता, आवय, भाव, भयणी असो परिवार.

मर्णा उपरांत **'वावझड'** (कविता संग्रह) **'भुंयगर्भ'** आनी **'तानसुर्या'** (एकांकी संग्रह) अशीं तीन पुस्तकां प्रकाशीत.

**गोवा कोंकणी अकादेमी**